# हें पुरातन किन्नरम्

बरोवपी : ओएनवी. कुरूप

अणकारपी : एल. सुनीता बाय



मुखपृष्ठ आनी मलपृष्ठाचे फाटले वटेन शिल्पचित्रां दिल्यांत. तातूंत तीन ज्योतिशी बुध्द भगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुध्दोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोपवी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखन कलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

(राष्ट्रीय संग्रहालय, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान)

# हें पुरातन किन्नरम्*

(वेंचीक कविता)

**ओ एन वी कुरुप**

संपादक आनी अणकारपी

**ए. जे. थॉमस**

कोंकणी अणकार

**एल. सुनीता बाय**







**साहित्य अकादेमी**



* एक तंत्रीवाद्य जें गितकाव्याचे वांगडा गायता येता

**Hen Puratan Kinnaram** (हें पुरातन किन्नरम्):
Konkani translation by L. Suneetha Bai of *This Ancient Lyre*, Selected poems by ONV Kurup, edited and translated in English by A.J. Thomas
Sahitya Akademi, New Delhi (2018), Rs. Two Hundred Twenty Five


First Edition : 2018

**Published by**
SAHITYA AKADEMI

**Head Office**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices**
172, Mumbai Marathi Grantha Sangrahalaya Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
4, D.L. Khan Road, Kolkata 700 025
Central College Campus, Dr Ambedkar Veedhi, Bengaluru 560 001

**Chennai Office**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai 600 018

**ISBN 978-93-87989-17-7**

**Price: ₹ 225/-**

E-mail : rs.rom@sahitya-akademi.gov.in
Website : http://www.sahitya-akademi.gov.in

Typeset by Riya Graphics, Goa, and Printed by
Lokvangmaya Griha Pvt. Ltd., Mumbai – 400025

# कोंकणी अणकाराचे विशीं

संवसाराच्या अनेक भागांतल्यान भोंवडी करून तरेकवार साहित्य वाचून मनीस सगळ्याक समान म्हूण, ताचो संतोश आनी सूख समान म्हूण स्वयं समजून, वाचप्यांकय समज दिवपाचो जो मोलादीक प्रयत्न ओ एन वी कुरुप हांणी केला तो तोखणाय करपा सारको. तांची उसरांची कविता जिणेचीं शाश्वत कुवाडीं चित्रीत करता. ही कविता मलयाळम जनां प्रशस्तपणान वाचतात. तांचीं गितां म्हाताऱ्यांचे आनी तरणाट्यांचे जिबेचेर समानतायेन रेंगाळटात.

ताणें एकदां सांगलें - "ह्या संवसारांत मनाच्यो वणटी पयस करून एक आकाश आसचें, हेंच म्हजें सपन. ह्या संवसारांत एक पिंपळ आसचो, भांगराचो ओलीव आसचो, खाजराचो माड आसचो आनी हे एकामेकां लागीं फकाण मारून मोग आनी दयाभाव हाच्या वाद्यवृंदाचो आलाशिरो घेवन जिणेक एक मधूर स्वरमेळ दिवंचें." ह्या स्वरमेळान भरिल्ली ओ एन वीची कविता इंगलीश, हिंदी आदी तरेकवार भाशांत अणकारा वाटेन आमचे मुखार आयल्या. तर कोंकणी भाशेंत हो मोलादीक उपहार आतां मेरेन पावलोना. साहित्य अकादमी वतीन हें कार्य आतां जाल्यां आनी ओ एन वी कुरुप हांचीं थोडीं कवितां इंग्लीश भाशेंत *This Ancient Lyre* नांवाच्या संग्रहा रुपान आयली. ह्या संग्रहाचो कोंकणी अणकार ***हें पुरातन किन्नरम्*** नांवान वाचप्यां मुखार अर्पित करतां.

इंग्लीश भाशेंत ह्या संग्रहाचें संपादन ए. जे. थॉमस हांणी केलां. ह्या इंग्लीश अणकाराची वळख ताणी संपादकीय उतरांत दिल्या. ओ एन वी कुरुप हांचे कवितांचो ए. जे थॉमस हांणी संपादन केल्लो हो संग्रह. हांत मूल मलयालम कवितांचो अणकार इंग्लीश भाशेन केला. कोंकणींत मलयालमाचो आदार घेवन हाचें नांव "हें पुरातन किन्नरम्" दिलां. कोंकणी अणकारांत खूब उतरांचो प्रयोग मलयालमाचे मूल कवितांचो आदार घेवन केला. हाच्यान कवितेची जाणविकाय सरलतायेन जावन येता.

अपूर्व प्रतिभा, विलक्षण स्मृती, म्हान विद्वत्ता, तीक्ष्ण क्षमता निबर उत्सुकताय, आनी उसरपत नाशिल्लो प्रयत्न ओ एन वीची विशेशताय म्हूण सांगल्यार तांत दुबाव ना. ओ एन वीचो परिचय कोंकणी जनाक करून दिवपाचें महत्वपूर्ण कार्य साहित्य अकादेमीचे वतीन जालें. इंग्लीश अणकाराचो आदार घेवन कोंकणी अणकार करपाचो प्रयत्न हांगा केला. आवय भाशेक सेवा करपाचो मोलादीक संदर्भ करून दिल्ले साहित्य अकादेमीक हांव काळजा सावन उपकार सांगतां.

**– डॉ. एल. सुनीता बाय**
रिटायर्ड प्रोफेसर
वृंदावन, काक्कनाड पी.ओ
कोची – 682030

# मांडावळ

# भुमिका

ओ एन वी कुरुप हाका आनी म्हाका ओड लावपाची संवय ताचो कोणाचेरूय बिंबोवपाचो मानवतावादी गूण जो ताणें आपल्या अर्द शतमानाची व्याप्ती आशिल्ल्या कविकर्माचे दीर्घ प्रक्रियेचे मदीं सफलतायेन वाडयला. जेन्ना भारतीय साहित्याच्या मळार प्रगतिशील आंदोलन व्यापून आशिल्लें तेन्ना मलयाळम साहित्यांत ओ एन वी ताचो मुखेल प्रस्तावक जालो. ताचे वांगडा भीष्म साहनी (ओ एन वीचो आत्ममित्र) आनी दुसऱ्या साहित्यकारांक शोशितांक मुखार व्हरचे खातीर ताणें वस्तादपण करूंक घडोवन मुखार हाडले. ओ एन वी असलो एक कवी आशिल्लो जाणें कठीण मार्गावयल्यान वचून आपले काव्यजिणेचे सुरूवातेक क्रांतिकारी कविता बरोवन कामगार वर्गाची सेवा केल्ली. इतिहासान अनेक विलक्षण फेर काडले,थोड्या क्रांतिकारांक सामान्य जनां लागीं साकून पयस काडले तरीकूय ओ एन वी थीर जावन आशिल्लो. ताचे *उज्जयिनीचे* प्रस्तावनेंत म्हजो मित्र जी बी मोहन तंपी सांगता - - ' अनुयायी वर्गाचे नदरेंत आयिल्ल्या क्रांतिकारी आंदोलनाचे नीतिभ्रश्टतायेचे आनी ताचे परिणामस्वरूप जाल्ल्या विश्वसनीयतायेचे झरणीचो प्रभाव ओ एन वीचेर नाशिल्लो. तो प्रखर निर्मोहाच्या अवस्थेंत रावन आत्मशोधन करतालो. तरी तो निराशावादी जालोना. आपल्या हावेसाची आनी मनशाचे चेतनेची स्वतंत्र अभिव्यक्तीक मान्यताय दिवपी वेगळावणी आनी आत्मविघात नाशिल्ल्या समाजाच्या सपना विशीं तो गायताच रावलो.' कोट्टयम प्रदेशांतल्या महात्मा गांधी विद्यापिठाचो कुलपती आशिल्ल्या वेळार आनी उपरांत म्हज्या केरळाच्या दर्शनाच्या आनी त्या राज्याच्या दीर्घकालाच्या कार्यक्रमाक लागून, जशें स्कूल एजुकेशन कमिशनाचो अध्यक्ष, म्हाका ओ एन वीचे वांगडा साहित्यपुरक आनी दुसऱ्या विचारांचें आदान प्रदान करपाचो अवसर मेळ्ळो. ताचे असंख्य तोखेवपी ताचे लागी कशें मोगान वागतात म्हूण म्हाका पळोवपाक जालें. जनाचे प्रस्न परिहार करपा खातीर ताका मेळची आदराची भावना बी हांव

पळयलों. ओ एन वीचे जिणेची वाट म्हज्या मतानुसार खरेपणान तपासून पळयतात जाल्यार नागरिकांचे वतीन लेखकान लोकाच्या प्रस्नांत भाग घेवंचें आसा म्हूण दाखयता. ताणें हस्तिदंताच्या गोपुरांत बंद आसचें न्हय.

हो अणभवी बेगीन नदरेक दिसना जाले एका वर्गाचो आसा, हून तरी सौम्य सबावाचो, नमळायेन वागतल्लो, संवेदनशील, जी संवेदना समाजवादी मानवतावादाचो शेष वांटो जावन आशिल्ल्या समतावादाचे शिश्टतायेन आळाबंद न्हय. ताचे काव्यात्मक उपलब्धींत आपले पिळगेंतल्या देशीय आनी अंतर्देशीय प्रसिद्धि मेळेयल्ले खूब जनाक ताणें फाटी घाले.

सामाजीक उत्क्रांतीचे वाटेन संत आनी सुदारपी नारायण गुरू हांच्या प्रयत्नान सपाट केल्ल्या मळार कवित्रयी, कुमारनाशान, उळ्ळूर आनी वळ्ळत्तोळ हांचे सौंदर्याची क्रांती रोयिल्ल्या शेतांत, चङ्ङम्पुषा कृष्णपिळ्ळा हांच्या रोमांटीक गितांच्या शेतांत, ओ एन वीन कवितांच्यो बियो रोयल्यो आनी तांची शंबरपटीन पीक आयली. पयल्या खूब वर्सांनी ओ एन वीच्या विशयाचें प्रकरण ताच्या अश्टताशीपणाचो परिचय दिता. मानवीयताच्यो गजाली, मनशान सोंसपाच्या दुबावपणाचे मुखावयली उपगमन-पद्धत, तत्वगिन्यानाचे दिश्टीन ताची समाप्ती हेंच ओ एन वी कवितेचें नमूनेदार वर्णन. ओ एन वीचे शैली विशीं उज्जयिनीच्या तांच्या प्राक्कथनांत कृष्णरायन सांगता --''ती दुस्मानाच्या निंदात्मक उतरांक नाकारता, पंगडाचें अंधूकपण नाकारता, भिन्न तराचीं बिंबां नाकारता, व्याख्यानाची अपूर्णताय नाकारता, सामान्य अस्पश्टता आनी पोकळेपण नाकारता'', आनी आपली ''सरल, स्पश्ट, दीर्घ, प्रामाणीक, प्रांजल'' रीत हें सांगून की हे गूण ताका ''अर्विल्ले लेखकां परस चड नवो करतात.''

संवसाराच्या अनेक भागांतल्यान भोंवडी करून, संवसारांतलें तरेकवार साहित्य वाचून मनीस सगळ्याक समान म्हूण, तांचो संतोश आनी दुख्ख समान म्हूण ताका समज आयली. 'घरां' नांवाचे आपले कवितेंत तो सांगता - -

सगळ्याकय म्हाका एक घर आसा
मरुभूमीचेर जंय ऊंट पळोवपाक मेळटात
चलतो पिरेमीड जशो आनी पिरेमीड
व्हडलो हालनत्तिल्लो ऊंट जशो;

काळखाच्या खंडांत जंय
पोरणो हो पिरेमीड आशिल्ले मरुभूमीचेर
कापिरी जेजू खुरसाचेर चडलो
दुसऱ्या दिसा मरणांतसून वयर येता,
मदराती सुर्याच्या देशांत,
त्या देशांत जंय
मनशाचें नशीब परत बरयतात
ते सुवातेर जंय बर्फ विरगळता
आनी मंदाकिनी रुपान व्हळता.
शेतांत जंय गुलाम
काळीज वितळून
भूंय नांगरतात,
आनी नवधान्य रोयतात
आनी एकठांय गितां गावन शेत लुंयतात;
व्हड व्हड नगरांत जंय
गगनचुंबी इमलें
घाण्या वसत्यो,
आनी अधोलोक तेच फास्कींत;
आस्पावन आसता
पर्वतांच्या शिखरांचेर
गहन खिंडींत
जुंव्याच्या चोंब्यांत
देशांत आनी परदेशांत - सगळ्या संवसारांत
सगळ्याक म्हाका एक घर आसा
आनी म्हजी अपूर्ण कविता,
आनी हांव थांगा आसात

(इंग्लीश अणकार : एस. वेलायुधन)

क्रांतिकारी आदर्श तत्वां विशीं ताची निर्शेणी जी मनशाचे राखणे खातीर जाली, आनीकूय कडक आनी दुराग्रहाच्या कारणान पराजीत जाली,

आमी आपणाले संस्कृतायेक परतून जुवानपण दिंवच्या तत्वाचो आलाशिरो घेंवचें निश्चय करपाक प्रेरणा दिवपी जाली. एक स्तुतिगीत हांत तो उकतें करता–

आमी साधारण जनां
उकते पांयांनी रावतात,
आमी तेच, जांणी
जिखलो सर्ग नश्ट केलो
हें सत जाल्यार,
आमी तेच, जे स्तुतिगितां गायतात
आमच्या सुर्याक
खंयच्याय दुख्खाच्या वेळार.
इतिहासाच्या गिमाक विरगळावन
आमी आपल्या सुर्याक पूर्व दिशेंत
उदय जावपाक प्रेरणा दितले.

(इंग्लीश अणकार – ए. जे. थॉमस)

विरोधाभास जो पयलींच सोवियत संघाचे वेगळावणींत अंत जालो ग्ळासवोस्ट आनी पेरेस्ट्रोयका हांचो विरोधाभास आनी धर्मीक आनी नैतीक दुबाव एक *स्तुतिगीत, येवतुशेंकोक, स्पसिबा* आदि कवितांत प्रतिफलित जाल्यात. सर्वतराचो धर्मवाद आनी अकांतवाद तांचे दुबाव विरयत निंदेचें कारण जावन एकवट जाता. पारव्यांचो राय, सोळमनाक एक ल्हान गीत, मानववाद आनी जनतंत्राच्या कारणांक फाटबळ दिवन नेल्सण मंडेलाक समर्पण केल्ल्यो दोन कविता, *श्यामसुर्या, आफ्रिके विशीं.*

पृथ्वीक एक मृत्युगीत भोंवतणेच्या वातावरणाच्या संकटाक लागून निर्मीली एक अर्थपूर्ण कविता. ती कविता सैमरूपी आवयेक लुटपाचे मनशाचे प्रवृत्ती वयलो राग आनी अन्यायाची तिडक व्यक्त करता. ह्या मृत्युगितांत कविच्या भुरगेपणांतलो उडगास मुखार येता जेन्ना आईचे कृपेन ताचे जिबेर वनस्पत, ओखद आनी म्होवाची गोडसाण लायिल्ली. ताच्या काळजांत एक नवें आश्चर्य

उदेवन येता जेन्ना तो तणावयल्या दवा थेंब्यांत ल्हान सुर्याक पळयता.

सृश्टिचे पद्धतींत आनी पोसवणेंत देवळांतल्या पारव्यांच्या 'कुक्कुडुक्कू' आवाजांत, व्हाळयेच्या खळखळांत, घुगमाच्या आवाजांत आनी कोगळ्याच्या बुजवण दिवपी 'कुहू कुहू' गितांत सैमाच्या रुपान आईचे जिणेक गरजेची तांक पळयता. हाचो उगडास ना जातलो म्हूण तो समज घेता. आई पृथ्वी लागी तो विचारता --

हजामत केलें बोड बागवन जात नाशिल्लो मनीस कशें
तूं सुर्याच्या मार्गावयल्यान पांयांनी वता.
अपमानाचें वजें घेवन
संतानरूपी पापाची अळशीक घेवन
भुरग्यांक जल्म दिवपाचें
जीं भुरगीं आईक झोमून घेंवचीं, बलात्कार करचीं
तुजें मन नाश करून
निश्ठूर मरण तुजे शिरांतल्यान भितर सरना कांय?

(इंग्लीश अणकार : एस. वेलायुधन)

मरणाचे देंगर आशिल्ले आवय, पृथ्वीक सोडून कवी जिवंत रावना. देखून हें मृत्युगीत कविल्या आत्म्याक लेगीत उद्देश्य करून बरयलां.

सुर्याक एक स्तुतिगीत आनियेक मुखेल कविता. ऊर्जाशक्तिच्या म्हान स्रोताक उद्देश्य करून बरयल्लीं स्तुतिगितां नाशकारी आनी अपवित्र तत्वांचे विरुद्ध कविच्या आत्म्याक धैर्य दिवपी आनी जिवीताच्या जुजाक प्रेरणा दिवपी आसा.

उजवाड, उजवाड, सगळ्याक उजवाड
पृथ्वीचेर उजवाड
आकाशाचेर उजवाड
म्हज्ये दोळ्यांत उजवाड
म्हजे जिणेंत, म्हज्या सपनांत
म्हज्या ओंठांचेर खेळच्या सूरांत
म्हज्या आंगणांत, म्हजे रांदणींत
म्हज्या शेजारच्या घरांत
त्या खळांचेर जंय नवे लुयिल्लें धान मळतात

ताट भर ओरव
शिताचीं आयदन दवरपाचे सुवातेर
मुळाची तान स्पंदन जावंच्या पानाचेर
ते आत्मविशुद्धींत जंय
पद्माक्ष चिकलांत फुलेता
सग्ग मनांत, सग्ग मुखांचेर
जंय मनशाचो आवाज आनी गंध आसतात
सगळ्यांक उजवाड
सगळ्याक उजवाड असो
जेन्ना म्हजे  आत्मदाहक प्रार्थनेचो
धवो पारवो हांव उडूंक लायतां
तांत तू उदेता, हे सुर्या!

(इंग्लीश अणकार : ए. जे. थॉमास)

तांची उसरांची कविता जिणेचीं शाश्वत कुवाडीं चित्रीत करता. जशें *मृगया* कवितेंत आनी *खिणयाळें* तरी. *मृगया* एका तरेन कामेच्छा पूर्ण करपाक आग्रो दाखोवपी एक दीर्घ कविता. दुसरे वाटेन पांडु आनी माद्री हांचें पोकळेपण दाखोवन ताचो नवो अर्थ दिवपी कविता.

ओ एन वीची कविता जन प्रशस्तपणान वाचतात. ताचीं गितां म्हाताऱ्यांचे आनी तरनाट्यांचे जिबेचेर समानतायेन रेंगाळतात. पयल्या स दशकांतल्या ताच्या कार्यांत काव्यरचनेंत आयिल्ल्या पद्धतींतले अदला-बदलेचे नेटाचे घुरयेंत ती जिती उरली. तो जनाल्या प्रिय गावण्याची असुयेची अवस्था राखून घेतालो. ताचे कवितेंत प्रतिफलीत जिणेचें दर्शन प्राय: ग्रहणशील आसलें जंय गांधीवादी, मार्क्सवादी आनी पोरणीं आनी नवीं मुल्यां एकठांय आशिल्लीं. ताची कविता बिंबानी भरिल्ली जीं बिंबां भारतीय, मिस्र, हेलेनीक, फारसी आनी क्रिस्तावांचे पुराणकथेच्या संबंदान आशिल्ली. ताणें एकदा आपले कवितेंत अशें सांगलें - - ह्या संवसारांत मनांच्यो वणत्यो पयस करून एक आकाश आसचें, हेंच म्हजें सपन. ह्या संवसारांत एक पिंपळ आसचो, भांगराचो ओलीव आसचो, खाजराचो माड आसचो आनी हे एकामेकां लागीं फकाणां मारून मोग आनी दयाभाव हाच्या वाद्यवृंदाचो आलाशिरो घेवन

जिणेक एक मधूर स्वरमेळ दिवंचें.

मास्तराल्या कविता संग्रहाची वळख दिवंचें म्हाका व्हड मानाचें कार्य म्हूण दिसता. अणकारपी एस. वेलायुधन, आर. विश्वनाथन, के. एस. नायर, हेफ्सिबाह जेसुदासन, ए. जे. थॉमस (ह्या संग्रहाचो संपादक), टी. आर. जोय, लैला जयचंद्रन, आनी लक्ष्मी राजीव, हांकां हांव उपकार सांगतां. हांणी मलयालम भाशेंतली ओ एन वीची कविता तिचें माधुर्य सहीत पुरायेन विदेशी भाशेंत व्हरपाचो प्रयत्न केलो. तांतुंतले दोन जनां एस. वेलायुधन आनी आर. विश्वनाथन आमका सोडून परलोकांत गेले. तर ओ एन वी चे कवितेच्या आस्वादनाची कुरू अजूनय तांत जिती आसा, तांणी केल्या अणकाराच्या रुपान.

बंगळूर
1 जुलय, 2005

**– यू. आर. अनंतमूर्ति**

# एका कविची माहिती

फाटल्या काळाक आपणाचो परिचय विदेशी श्रोतृगणांक दिवपाच्या वेळार उमाशंकर जोशी हांणी म्हणलें - -"हांव भारत देशांतलो एक कवी, गुजराती भाशेन बरयतां" हें कथन नेटान सांगता की कवी जो प्रादेशीक भाशेंत बरयता तो / ती भारतीय कवी आसता. ताची बरपावळ भारतीय काव्याच्या सार्वजर्नीक भांडारांत भरसून वता. साहित्याचे वाटेन प्रसिद्ध जाल्यो असंख्य भारतीय भासो हे खातीर नुकसाण बी भोगतात. भारताच्या भिन्न भिन्न प्रदेशांतल्या सृजनशील लेखकांक एका दुसऱ्याचो परिचय ना. तांकां हो परिचय जावंक जाय. एकेकूय गीतकाराचो आग्रो आसता की ताचो आवाज एका व्हडल्या श्रोतृसमाजाक प्रभावीत करचो आसचें. असो तर भारतीय गीतकारांचो आवाज ताचे भाशेचे सीमावर्ती मात उरता. प्रादेशीक भाशांत कविता कठीण अवस्था भोगपाची आसता. थोडे भारतीय कवी जशे आशान, वळ्ळत्तोळ, विष्णु डे, जीवनानंददास, मुक्तिबोध, निराला वा श्री श्री राश्ट्र भर प्रसिद्ध जाल्यात. तर तांचे लेखन तांचे भाशेचे भायर दुसरे भाशांत आयलेना. चंद्रिमाचे दुसरे तरफेन जशें आसता तशेंच हें एका अनुमानाचो विशय आसता. ताचें यथार्थ्य दिश्टीचे भायर आसता. वैलोप्पिळ्ळि नांवाचे प्रसिद्ध मलयालम कविची वळख केरळाचे भायर नात. तांचे लेखन भारतीय कवितेचें मुख्य योगदान आसूनय ताची अवस्था हीच आसा. भारताच्या दुसऱ्या देशांत बी हीच अवस्था पळोवंक मेळटा. ह्या कविचें लेखन सीमित मंडलांत आसता. योरोपाच्या भिन्न भिन्न भाशांत बरयल्ली कविता सोंपेपणान मुख्य धारेंत भरसून वता. आमच्यो ज्यो शिमो आसतात तशें तांका नात. प्रकाशक बी भारतीय कवितेचे इंग्लीश अणकार उजवाडांत हाडपा खातीर नाखूश आसतात. कारण हेंच सांगतात की हे अणकार कथा-कादंबरी जशें विकनात.

सृजनशील लेखकांचे वतीन जेन्ना हांव आपल्या संधर्शाचें, उपलब्धिचें आनी

जीवनदर्शनाचें सांगणें तयार करतां तेन्ना म्हाका तुमचे मुखार कवी म्हूण म्हजी अस्मिताय दाखोवपाक पडटा. सत सांगल्यार कविची वळख ताची कविता आसता. ताचे जिणे संबंदी संवसारीक सत ताचे विशीं तुमकां अदीक समज दिवपाक सहायक आसता. हांव केरळाच्या तटप्रदेशांतलो. म्हजो जल्म ई. 1931 वर्सा आवय-बापायचो एकलो पूत म्हूण जाला. म्हजें भुरगेपण बापाया लागीं आशिल्लें. एक ख्यातिप्राप्त दोतोर, संस्कृत भाशेचो विद्वान, उच्च श्रेणीचे कलेचो आनी संगीताचो मोगी, गांधीजी आनी श्री नारायण गुरु हांचो तोखेवपी तो दोतोरांचे, विशेशज्ञाचे, संगीतकारांचे भावकीचे मदीं आशिल्लो. तांणी म्हाका मलयालम आनी संस्कृताची अक्षरमाला आनी थोडीं पदां शिकयलीं. हीं पदां म्हणप एका तराची उमेद वाडोवपी आशिल्लें. ल्हान पिरायेचेर मरण आयलें. जितलो काळ उरलो-ताच्या संगातान म्हज्या ल्हान मनांत कवितेचेर आनी संगीताचेर मोग वाडलो आनी दुबळ्यांचे आनी रोगान पिडेस्त जनां मदीं उदात्त संबंद वाडलो. तांच्या अचकीत मरणान गांवांतल्या आवयच्या घरांव्यात वचाक आगळीत केलो. तर थांगा हांव उदास आनी निराश जालों. भुरगेपणाच्या त्या काळखाच्या एकटुकपणांत कविता उजवाडाचें किरण जावन आयली. काजुलो काळखांत शेवण्याच्या घोंटेरांतलो दिवो म्हूण भुरगीं मानतात. म्हाका कविता तशीच आशिल्ली. ल्हानपणा सावन समाधानेची प्रेरणा, गहन यथार्थ, पृथिवी आनी म्हजो संबंद दाखोवपी मोगाचें बंधन आशिल्ली. यद्यपी चार दिसांच्या राबित्यांत आमचो वास अनिश्चित आशिल्लो. भितरचे अणभव नातिल्लें कविता येंवची ना म्हूण ल्हवू  ल्हवू म्हाका समज आयली. जर्मन कवी रेयनर मरिया रिल्के हांका हांव मान्यताय दितां जंय तो सांगता - ''कविता बरोवंक जाल्यार जण एकलो खूब नगरांक, जनांक आनी वस्तूंक पळोवंक आसा. खूब वस्तींचो उगडास तांत आसता.'' रिल्के अनीकूय सांगता - हे अणभव कविच्या व्यक्तित्वांत भरसून आसतात आनी भोंवतणेचो आसरो घेवन आकार काडटा. म्हज्यो कविता म्हज्या भोंवतणेचो छाप घेवंक आसता आनी सवकासायेन एक सारकी आनी केन्ना तरी खरी आसून तिणें अनेक परिवर्तन भोगलें, एका दिशेन दर्या आनी दुसरे दिशेन मनोहर सरोवर आसून म्हजो गांव ताच्या पाचवें चार धानाच्या शेतांनी, मळांनी, आनी माडाच्या भाटांनी खूब

सोबीत आसलो. न्हीद नातिल्यो राती अनेक भावांचे, सुरांचें दर्याचें गर्जन हांव आयकतालों. ताच्या खाऱ्या उदकाच्या थेंब्यांची रूच एकदां हांव घेतलें आनी कितलें मीठ तांत विरगळून आसा म्हूण म्हाका अजाप जालें. म्हजे आजेन एका दिसा म्हजे लागीं सांगलें की एका दिसा ती दुसऱ्याचे दिश्टीक पळोवपाक मेळची ना. तर दर्यांत मीठ जशें म्हज्या म्हऱ्यांत आसतली. मागीर जेन्ना हांव दर्या पळयलो म्हाका दिसलें की एक आवय आपले शेणिल्ल्या भुरग्याचो उगडास करून तिच्या स्तनांतल्यान दूद व्हळता आनी ती तांत बुडून आसा. भिन्न भिन्न संदर्भांतले भिन्न प्रकाराचे मनीश रुपां घेतात म्हूण म्हाका दिसतालें. ताच्या चिकलाच्या तटांचेर नाल्लाचें सोण कुशिल्लो वायट गंध आनी केतकीच्या फुलांचो सुगंध गांवच्या जनांचे दुःख्ख आनी गांवचे शिमेचें सौंदर्य भरसून एकवट जाता तशें पळोवपाक मेळटालें. दुबळ्या शेतकामतीचीं नुलयत दुःख्खां, पिडित कामगारांचो शोशणाचे विरुद्ध प्रतिकार, स्वतंत्रताये विशीं उपवास करच्या जनांचो सर्वाधीक सहनशील सत्याग्रह, रातीचे शांततायेंत व्हडें तांडतल्याचें व्हडें फुतफुत्यान चलप, सगळेंच म्हज्या मनाचेर सोडिल्या छापाचें दसयले हे अणभव हांव बरोवपाक लागलो तर हांव लजेस्त आनी लिपोवपी आशिल्लों. दुसऱ्या मुखार हें गुपीत उकतें करूंक तयार नाशिल्लों. पावसाडीच्या मासांत (जून-जुलाय)* म्हज्या गांवातल्या घरांत सांजवेळार हुमराचेर परंपरागत दिव्याच्या उजवाडांत आसनमांडी घालून हांव मलयालम कवितेचो जांटेलो एषुत्तच्छन हांचें अध्यात्मरामायणम् किळिप्पाट्टु वाचतालों. कविता-वाचन आनी कवितास्वादनाचो हो अभ्यास म्हाका आशिल्लो. मध्ययुगीन रसायन शास्त्राक अणसरून उतरांचे शक्तीच्या आश्चर्याचे विशीं प्रथम दिक्षा आशिल्ली. मणि आनी प्रवाळ जशें संस्कृत आनी मलयालम उतरां मेळोवन सोबाय वाडोवन. नवे शैलीचें निर्माण म्हज्या कविशिक्षणांतलो म्हत्वाचो अध्याय आसलो. लोकगितां आनी कथात्मक गितां देशी शैली एवं शिल्पाचे सुक्षीम फरक आनी तांचे आनंदाचे भाव आनी मंजुळ गायन, सगळेंच म्हज्या आत्म्याचे भितर भरसलें. म्हजे कवितेंत संगीत आसल्यार तें

* केरळांत कर्कटकम (वर्साच्या निमाणें मासांत) घरान घरांत एषुत्तच्छन हांचे अध्यात्मरामायणम् किळिप्पाट्टु नेमान वाचपाची संवय आसता. हाका रामायण मास म्हण्टात.

विशेश प्रयत्नाचें फल न्हय, खाशेलपण दाखोवपी न्हय, तर म्हजे कवितेचे वांगडा उत्पन्न सहज संगीत आसा. हें वाल्मीकीलें आनंदाचें उकते केल्लें गुपीत की तांकां एका दुखेस्त स्थितिचो आपसूक जावन सुचल्लो श्लोक 'तंत्रीलयसमन्वित' आशिल्लो. प्राथमीक अभ्यास म्हूण म्हाका वाल्मीकीन दिल्लें शिक्षण हेंच -

1. कविता मनांत कशें होलमता तशेंच बरय
2. दुखेस्त जनांक सांत्वना दिवपी कविता
3. श्रुति आनी लयाचे वांगडा कविता बरोवप पाप न्हय
4. कविता शुभ आसता, लौकीक बी आसता

''दुखेस्त आत्माचे वांगडा'', हीच म्हत्वाची गजाल

म्हजें चिंतन सदा दुखेस्त, पिडित आनी झोमून घेतिल्ल्या जनांक लागून आसा.

हांव आतां पोरण्या काळाचे एके कथेच्या विशयांत सांगतां, प्रथम विश्वमहायुद्धाचे पयलीं जर्मनीच्या एका नगरांत एक वेपार-मेळावो आशिल्लो. भारताच्या व्हडल्या तंबूंत एका जर्मन शास्त्रज्ञान प्रदर्शनांत जतनायेन केल्ल्यो दोराची वस्ती  पळयल्यो. तांचेर ताणें झगझगेवंचे अंश पळयले. ताणें ते एकठांय करून तांची तपासणी केल्ली. अजाप म्हळ्यार ताका दिसलें ते अंश मोनोसाइट आनी इल्मिनाइट धातूंचे ल्हान अंश आशिल्ले. तो जर्मन वैज्ञानीक भारतांत आयलो. म्हज्या गांवांत येवन जंय दोर विणतात ताणें दर्या देगेर खूब धातूचे अंश पळयले. विश्वमहायुद्धाच्या वेळार ताका जर्मनींत परत वचपाचें आशिल्लें. तरीकूय ताचे आदेश मानून ब्रिटीश शासकांनी चार धातूंची कंपनी थांगा स्थापन केली. आमच्या पुर्विल्यां लागीं साकून तांणी थोडे दुडवांनी दर्या देगेर आशिल्ली भूंय विकती घेतली. ते भुंयचे यथार्थ धनी हे धातूच्या मिना विशीं कांय तर समज नाशिल्ले आसले. तांचे दिश्टींत तें फकत नापीक जमीनेचे एका फाळीचो कुडको मात आशिल्लो. तांका तर तें कार्य इंग्लीश मनशांनी केल्लें शुभचिंतनाचें कार्य आशिल्लें जाचो विश्वास करप कठीणूच आसता की तांणी नापीक जमीनेक थोडे दुडू दिवपाची दया केली. ते जमीनेचे धनी फॅक्टरींतले कामगार जाले जाचें नशीब क्रूर देवस्थापकांचे खालाक काम करचे

आसले. तांची वाज हाडपी दिश्टी हिंसपा भायलें दुःख्ख, मोनी व्यथा, म्हजे भावनेंत आनी अस्तित्वांत आनी मागीर कवितेचे आनी गितांचे उकतावणींत आयली. तांची पीडा, त्याग, त्रास, आनी जुलूम–हांचे प्रतिकाराचे संबंदान हांव गितां बरयलीं. हीच भावना आशिल्ल्या थोडे कविंचे वांगडा हांवे मलयालम कवितेचे उत्कर्शांत भाग घेतलो. मागीर नेरुदा, हांगेली सकयल दिल्ल्या वळींनी म्हाका मनशाच्या व्हड नाटकांत कविचें काम गुपीत उकतें केलें. नेरुदान सांगलें–

हांव कांय समाधान करपाक न्हय आयलां
हांव हांगा गावपाक आयलां
तुमकां म्हजे वांगडा गायन करोवपाक आयलां.

हीं सगळीं वर्सां हांव गायताच आसलों. म्हजे भोंवतणेचे सदा परिवर्तित मनशाचे स्थितीचे प्रतिक्रियेच्या रुपान हांव गायतालों. त्या वेळार सुरांच्या वेगांत खूब अंतर आयला. तर विचार आनी भाव तेच उरले...

जशें रिल्केन सांगलें, हांवें पूर्व आनी पश्चिम प्रदेशांतलीं खूब नगरां आनी मनीस पळयले. ह्या पळोवपान म्हजी दिश्टी घट जावन आयली की 'मनीस सगळ्याक समान आसता' शिकवणेचे आनी मनशाचे विशीं प्रबुद्ध आसूनय म्हज्या गांवची आनी भारताच्या दुसऱ्या भागांत आशिल्ल्या मनशांचे समान आसतात म्हूण म्हाका दिसता. पिंपळ, ओलीव आनी खाजूर सुर्याचो एकूच प्रकाश आनी ऋतुभेदाची एकीच सोबाय घेवन एका दुसऱ्या लागीं संतोशान कानांत सांगतात – हेंच म्हजें मोगाळ सपन. तुंचन परंब नांवाच्या वाठारांत काऱ्या रूख, बहरीनाच्या मरुस्थलावयलो यासनाय पोळियाना, जिणेचो रूख, विश्वभारतीच्या 'आम्रकुंजां'तलो आंब्या रूख आनी म्हज्या महाविद्यालयांतलो भोव पोरणो आंब्या रूख एकच भावकीचो दिसता. टिबलिसी नगरांत कुरा नांवाच्या व्हाळ्याक पळोवपाच्या वेळार एक सत सांगपाचो संतोश म्हाका जालो. हांव सांगलें –

शरद ऋतूच्या वेळार निळा सारको हो व्हाळो
तिच्या तटावयलें धान आनी फळां भिन्न आसूनय,
बी रुजवपाचे  हाथ एका तराचे

मनशाचे हुमेन वाडून येंवचें पाचवें एकच,

भूक तान आनी भितरची तपासणी एकीच!

म्हज्या गितांचें ध्रुपद ''एक भूंय, एक आकाश आनी एक सुर्या-सगळे मनीस जातीक''. पृथ्वीक एक मृत्युगीत बरोवपाच्या वेळार आटवे दसकांत पृथ्वी मरण पावंका म्हूण म्हाका आस्त नाशिल्ली. जेन्ना ऋतुभेदांच्या ताळांत आडखळ येतात जून म्हयन्यांतलें मेघ सुकता आनी उदक नाशिल्लें जाता तेन्ना वसंत ऋतु फुलेना, व्हाळे सुकतात, आनी जिणेच्या रथाचीं चक्रां वाटेर आडखळटात, म्हजी कविता मृत्युगिताचे भशेन सगळ्यांक सचेत करता, तांकां पृथ्वी आईचे मरणा लागीं पावलो नाश सुचयता. हें मरण दर एका जिणेचो अंत आसता. मागीर हांवें 'सुर्यगिता'ची रचना केली, सुर्याचें गीत, सुर्याच्या बंधुत्वाचें म्हान निस्वार्थ मोगाचें मूर्तीकृत रूप. एक बारगी हांवें चंद्रकांत फातर पळयले जे आमच्या अंतरिक्ष यात्रींनी एका प्रदर्शनांत पृथ्वीचेर हाडले. हे फातर चंद्रमाचे गोठल्लें दुख्ख म्हूण म्हाका दिसलें ज्या दुख्खान म्हज्या कानांत ल्हव सांगलें-

आमच्या मनांतलो सुर्या आतां ना
तो कांय वाडवयलो?

हें आयकून हांव येवजीलें -

आमचीं हाडां बी ल्हव कानांत गायतालीं
तीं गितां आनियेक अंतरीक्ष यात्र्याच्या
जो फुडारांत हांगा येवन देंवतलो?

हे कवितेचो निमाणो भाग अशें --

जेन्ना उज्जाचो शिंवर घालो शोशीत नीग्रोचे
शरणार्थी छावणींत,
आश्रमांतले पवित्र जनावर
जशें हांव निरंतर बोब मारतां
म्हजें काळीज फाळून
''नाका! मारू नाका''
बेपर्वा धनुश-बाण

जे धांवत्या शरणार्थीक अणसरून
तू तांत उदेवन यो, हे, सुर्या!
हांव जसो हांगा रावलां वाट पळोवन
सगळे पृथ्वीचेर पांय दवरपाक
शांततायेन, सौम्यतायेन
तुज्या रथाचीं चक्र धुंवतात तशें
सर्गाचेर
म्हजी निरुपेगी कविता म्हणपाक
सगळ्या मनशांक नगारो वाजून घोशणा करुंक की
"स्वातंत्र्यच अमृत
आमी सोदची जीण आनी मोक्ष"
हे सुर्या! तू भगभगीत उजवाड घेता
म्हजे वाणीचे वतीन
तू दगदगता जशें म्हजीं उतरां
हे सुर्या! पवित्र मोगाची मूर्त
दुसऱ्या खातीर आपण जळता
हे सुर्या! तुका अभिवादन.

(इंग्लीश अणकार : ए. जे. थॉमस)

ई. 1990 वर्सा दोन प्रबंधकाव्यांची रचना हांव केली. तांतुतली *उज्जयिनी* कवितेंतल्यान केल्ली कल्पीत कथा. *स्वयंवरम्* म्हाभारतांतल्या एक प्रसंगाक आदारून बरयल्या. उज्जयिनी कालिदासा विशीं प्रचलीत बदनामकारक दंतकथांक कुशीक काडून तांकां आपल्या काव्यग्रंथांतल्यान समजूंक आशिल्ले म्हजे आशेचो परिणाम. सहजतायेन हो ग्रंथ तांचे रचनेंतल्यान केल्ली एक तीर्थयात्रा जाली.

कृष्णरायन हांणी आपल्या प्राक्कथनांत सूचीत केल्यां की उज्जयिनींत दोन वांटे आसात. "भायल्यारुपांत स्पश्ट वर्णन, घडणुको, पात्रां आनी, सुवात सांगप कालिदासाले कवितेंत सावचीतकायेन उज्जयिनींत पुनर्निर्माण केलें. हाचे सकयल दुसरो भाग आसा ज्या भागांत कालिदासाचे कवितेची भास आनी

बिंबां पुनः दिश्टींत येतात. एक विणिल्ली वस्त, विचारवान उश्णें घेवप, संदर्भ आनी पडसाद जावन पुनः पळोवपाक मेळटा''. एका भागान उज्जयिनी एक प्रेमकथा आनी दुसऱ्या भागान शासनाचे वायट कर्तूबां विशीं ती एक काव्यात्मक निवेदन.

*स्वयंवरम्* महाभारतांतल्या *गालवचरितम्* उपाख्यानाचेर आदारून बरयल्यां. चड करून ययाती रायाची धूव, माधवीचें दुख्ख हांगा सांगलां तीन रायांलागीं आनी एका ऋशी लागीं संबंद घेवन ती चार भुरग्यांक जल्म दिता. मागीर आपल्या स्वयंवराच्या संबंदान राजकुमारांचे मुखार येता.

स्वयंवर-लग्ना खातीर मागणी घालपांत पयले तीन राय आयले. माधवीन आपण कन्या न्हय म्हूण सांगून तांकां धपको घालो. वरमाला तिणें भायर उडयली आनी रानां मदीं अदृश्य जाली. हांव हें काव्य भारतीय स्त्रियांक समर्पित केल्लें जीं सदा 'यत्र नार्यस्तु पूज्यन्ते रमन्ते तत्र देवता:' जशे तोखणायेच्या उतरांनी आनी क्रूर कर्मांनी विश्वासघाताचीं पात्रां जालीं.

आपले इत्से प्रमाण संवसार परिवर्तित जातलो म्हूण कोणूय लेखक हक्क सांगना. रक्षकाचें किरीट ताका जड आसता. तरीकूय तो मनशाचे आनी पृथ्वीचे विशीं ताचे विचार प्रकट केले बगर रावना. म्हाका कविता म्हळ्यार गहन इत्सा वा प्रार्थना आसता. जे कवितेंत सगळ्यांक शांन्ती, परस्पर मोगाचो उद्देश्य आसता जो काळजांक एकठांय हाडटा. ती कविता तुफानाचें चिह्न वा खून व्हावंच्या घायाचेर थंडाय दिवचें मलम आसता. ही कविता समाजाच्या परिवर्तनाचें रणशींग आसता. खंयचेय भायरचे शक्तीच्या कारणान जाल्ल्यो भितरच्या दुख्खान दोळ्यांतल्यान येंवचे अश्रु वा सिंहाचें गर्जन जशें जांवयेत. एकठांय जावपाक आवडेचो मोग, विरहाचें दुख्ख आनी पुनः एकचाराचें भावातिरेक, घडघडीत नियमभंग, आवय भुंयचेर साकून निश्क्रमण आनी शेणिल्या मोग्या खातीर निरंतर प्रतीक्षा, हें सगळेंच सार्वत्रीक आनी सगळ्या मनशांचे जिणेच्या नाटकाक रूपाकार आनी पुनः रूप दिवंचे. कविता तिचे भाशे विशीं अनपेक्ष आसूनय तिच्या आत्म्यांत ताची गजाल अभिव्यक्त करूंक समस्त भौगोलीक सिमो पार करता.

कविता मानवते खातीर मुखार वता आनी तीच मानवतेचो विकास करता.

तशेच जशें दर्या मोतयांक वाडयता. कवितेचे शिंपयेचें हड्डें फुटोवन मोतीं दुसऱ्याक दिता आनी पृथ्वीचो खूब माळ कविच्या आत्म्याक प्रदान करता. आपल्या *चंडालभिक्षुकी* नांवाच्या काव्यांत कुमारनाशान हांणी बरयल्यां – तानेल्या भिक्षु, आनन्दाच्या अर्द धांकिल्या हातांत ओतून दिल्लो एककूय उदकाचो थेंबो मातंगीच्या आत्म्याक सुकृताचे अगणीत हार दिता. हांव कविक मातंगीचे रुपांत पळयतां आनी आस्वादकांक तानेल्या भिक्षुचे रुपांत. ह्या सुकृताचे मुखार कीर्ति आनी भाग्य कांयच ना. हें सुकृत दर एका कविच्या संदर्भांत व्हड व्हड पुरस्कार जातात आनी कविकर्माचें संपन्न बक्षीस.

**– ओ एन वी कुरुप**

# संपादकांचीं उतरां

एक व्हड तत्वगिन्यानी जावनत्तिल्लें
कोणूय मनीस आजूनय म्हान कवी जायना

-- सैमुअल टेयलर कॉलरीज

I

ओ एन वी कुरुप हांचे कवितेंत गहन अभ्यास करतल्लो कोणूय हें सत गांठ बंदून आसता की प्रेरणा घेवपी कवी तांचे म्हान दया आनी मनुश्यत्व तिगोवन वेंचीक उतरां वतीन सौन्दर्य हस्तगत करता आनी गहन तत्वगिन्यानाची अंतर्दृश्टी दिता. कवी सदा कवितेक शक्त दिवपाचो प्रयत्न करता,

तिका फुडाराचे पिळग्यांची अध्यात्मीक गरजेची लक्ष्य दिवपाची तांक आसूंक जाय. हे खातीर तो विशेश जतनाय घेता की ताचे कवितांतली एककूय कविता सौंदर्याच्या नूतन अणभवांची जावंक जाय. ओ एन वी म्हूण जे व्यक्तिक कविताप्रेमी मोगान संबोधन करतात, एक खीण भर विसरनात की ताची बांदणी पयलें आनी सगळ्यां पैंकीं मुखार कवितेच्या सौंदर्याच्या पक्षाक लागून आसता. ताका अन्य कर्म घडोवन हाडचें जाल्यार ती रुपान आनी विशयान सुंदरतायेची आसूंक जाय. उतराचें संगीत आनी लय, ताळ आनी मेळ आनी काव्यात्मक सत भरिल्ली ओ एन वीची कविता आगळी वेगळीच.

कुमारनाशान, उळ्ळूर आनी वळ्ळत्तोळ मलयालम भाशेचे पोरणे कवित्रय जांणी 20वें शतमानांत आधुनीक मलयालम कवितेचें लक्षण दिलें. हे कवी तत्वगिन्यानी अशिल्ले आनी तांची दिश्ट पोरणे परंपरेची आशिल्ली तांची परंपरा शाश्वत मुल्यांक उखलून धरताली. मलयालम साहित्यांत जितले विकास वा जितली क्रांती आयली तिचे मागशीं कविता व्यक्त वा अव्यक्त प्रभावान खूब मार्गदर्शक जाली. तांत वळ्ळत्तोळ हांकां एका लागणुकेचे अनुयायी आशिल्ले. हांत नालप्पाट्टु नारायण मेनोन, कुट्टिप्पुरत्तु केशवन नायर, जी. शंकर कुरुप,

पी कुञ्जिरामन नायर आनी बालामणि अम्मा आदी प्रमुख आशिल्ले. तांचे प्रारंभीक काव्य-जिणेंत वळ्ळत्तोळ हांचो प्रभाव आशिल्लो.

इडप्पळ्ळि राघवन पिळ्ळा आनी चङ्ङम्पुषा कृष्णपिळ्ळा मलयालम कवितेंत ई. 1930 वर्सा आपल्या काल्पनीक व्हाळ्या वाटेन एका तराचें ताजपण घेवन आयले. राघवन पिळ्ळा हांणी वळ्ळत्तोळ संप्रदायाचे कवितेंतलो सुक्षीम, ल्हव आनी मोन्या आवाजाची दाखोवणी केली. आपले जिणेच्या ल्हान काळार तांणी काल्पनीक कविता बरयल्यो. त्यो कविता सैमाचे वांगडा कविचो लागचो संबंद दाखयता. राघवन पिळ्ळा हांचो इश्ट मित्र चङ्ङम्पुषा हाणी काल्पनीक वर्णनाचो खूब प्रयोग केलो. तो ई. 1935 वर्सा सावन 1948 मेरेन आशिल्लो. ई. 1948 वर्सा सहज वेळा पयलींच तांचें मरण जालें. ह्या काळार मलयालम कविता चङ्ङम्पुषा हांचे नावान शेक गाजोवपी जाली. एका दिशेन ती विशेश निश्चेव नातिल्लें धुंवांधार भाव जागोवपी जाली. एन. वी. कृष्णवारियर काल्पनीक कवितेक अयोग्य थारावन मलयालम कवितेच्या मळार आयले. तांणी थोड्यो दीर्घ कविता बरयल्यो.

ज्यो मलयालम कवितेक यथार्थाच्या मळार हाडपाच्यो जाल्यो. मनशाच्या अणभवांतल्यान तत्वगिन्यानाचो झरो ओतपाच्यो जाल्यो. कांय जाणांक हो काळ आधुनीक मलयालम कवितेचो आरंभ मानवता. तरीकूय खूब जनालें मत दुसरें कि अय्यप्पप्पणिक्कर ह्या काळार मलयालम कवितेच्या मळार आयलो. ई. 1950 वर्सा जी शंकर कुरुप, वैलोप्पिळ्ळि श्रीधर मेनोन, इडश्शेरी गोविन्दन नायर अक्कित्तम अच्युतन नंपूतिरि, आनी एकमूळो राकेश पी. कुञ्जिरामन नायर जशे सामान्या भायल्या मनशांनी काल्पनीक खब्दळाचे उपरांत मलयालम कविता एका तळाच्या व्हड्याचेर पावयली. पी. भास्करन, वयलार रामवर्मा आनी ओ एन वी कुरुप तरणाटे कवी आशिल्ले जांणी आपापल्या ह्या काळाचे भोंवतणेच्या विशयांची तपासणी केली. काल्पनीक आनी यथार्थपरक कविता एका दशकाचे भायर निर्माण करून वायलार सिनेमाचीं गितां बरोवपाक लागले. गितां बरोवपी जावन आपले कीर्तिचे तेंगशेर पावन ते अकालमृत्युक पावले. मलयालम कवितेच्या शेतांत पी भास्करन हांचे थोडे व्हडले पिक जाले, तरीकूय तांचीं चडान चड गितां सिनेमाच्या मळार साकून आयलीं. ओ एन वी अद्भुत शक्त आनी सिद्धि घेवन मुखार आयलो आनी ताणें अर्थपूर्ण मलयालम

कवितेचें नेतृत्व केलें.

ओ एन वीची पयली कविता मुन्नोट्टु! ई. 1946 वर्सा ताचे पन्द्रा वर्सां पिरायेचेर उजवाडांत आयली. ताचें भुरगेपण अनेक कार्यांक लागून असामान्य आशिल्लें. एम.टी वासुदेवन नायर हांचे लागी जाली एका रचनात्मक भासाभासेंत ओ एन वी उगडास करता - ''ल्हानपणाचेर म्हाका, हांव तें तशें सांगतां, कविता आनी संगीत भरिल्ल्या घराव्यांत वास करपाचें महाभाग्य जालें. म्हज्या बापायची कविता-संबंदी विशेश रूच आशिल्ली. ताचो कथकळिविशयक उत्साह आनी संगीतांत रूच हांचे योगदान आशिल्लें. आमच्या घराच्या वरांदेचेर बसून संगीत-साधना करच्या व्हडल्या संगीतज्ञाल्या संगीताचें आस्वादन करपाचें भाग्य म्हाका आशिल्लें. कोल्लम देशांतलें आमचें घर कवींक आनी संगीतज्ञाक एक आश्रय आशिल्लें. म्हजो बापूय मुनिसिपल काउन्सिलाचो एक सदस्य आशिल्लो. प्रमुख जावन महाराजा श्री मूलं तिरुन्नाळ हांणी स्थापना केल्ले ट्रावनकोर राज्याचे सभेचो सदस्य आशिल्लो. भुरगेपणांत हांवें अनेक व्हड मनशांचो परिचय घेतलो. ही गजाल म्हज्या काळजांत सकारात्मक विचार हाडपाची जाली.''

ज्या बापायाक तो आदर्श मानवतालो तांचे अचकीत मरण आठ वर्सांच्या ताच्या प्रभावी मनाचेर गहन दाग सोडून गेल्लें. ते दीस उजवाडांत हाडून ओ एन वी सांगता - ''म्हज्या एकटुकपणाच्या काळखांत आशिल्ल्या भुरगेपणांत कविता म्हज्या मनांत उजवाडाचें एक किरण जावन आयली. एका भुरग्या वतीन ताणें शांततायेची शेतकामासंबंदी संस्कृताय पळयली, जी उद्देगीकरण जावन निरंतर प्रतिशोध करची आसली, विशेशत: मिनाच्या खणींतले धातुधर्मक रेंवेच्या उद्योगाच्या विभागाची जी चवरा नांवाच्या ताच्या वाठाराचे भितर आनी भोंवतणेक आशिल्ली. तशें गांवजिणेचें चांगपण कोरांतप आनी पर्यावरणाचें उणाकपण ताचे पयले जिणेंत, जिणेच्या पयल्या भागांत प्रमुखत: चिंतेचें कारण जालें. अखेरेक पृथ्वीक एक मृत्युगीत जशें तांची उत्तम कृती बरोवपाचें कारण जाली. ताच्या पयल्या कवितांत व्यक्तिगत दुख्ख, स्वतंत्रतायेच्या जुझांत आनी देशाच्या कामगारांचे विरुद्ध आशिल्लो संत्रास पयस करपांत बुडून रावले, *दाहिक्कुन्ना पानपात्रम्* 1946 आनी 1958 वर्सां मर्दी बरयल्ले ताचे पयले कवितांचो संग्रह अदीकूय आदर्शपरक आनी हाली

चाली रीतीन इबाडूंक नाशिल्ले गांवगिरे जिणेंचे आनी ते जिणेंचें चित्र ताचे तरनेपणाची शक्त घेवन बरयल्ल्या कवितांत मेळटा. पोरणीं मनशां अजून ओड घेवन ही कविता म्हणटात.

ई. 1960 वर्सा अपणाली पांयवाट घालून मुखार येवपाचे एन. एन. कक्काड, सुगतकुमारी, सच्चिदानन्दन, कडमनिट्टा रामकृष्णन आनी अन्य कवी मलयालम कवितेंत जाले. ह्या समयार ओ एन वी खूब प्रशस्त जालो. ताणें राजनयिक आनी सामाजीक विशय दुबाव नाशिल्लें प्रयोग करपाक सुरू केलें. आदर्शाच्या खब्दळाच्या त्या काळाक ओ एन वीन क्रातिचें रूप आनी लक्ष्य घेवन प्रस्न करपाक सुरू केलें. जो प्रस्न ताका अपणाल्या तरणेपणांत सदा तिगोवन आशिल्लो. हाची चुकीची गजाल तो आपल्या मोडल्लीं कांकणां (1960) संग्रहांत दिता - -

याचना करपाक आयिल्ली वासना
हे कन्यारूपी पृथ्वीक!
तू कशे काडतलो
इंद्रालो भव्य धनु
आनी तो तोडून
कशें कुडके करतलो.

ताचे हे विचार वाग्दत्तभूमि कवितेंत (1968) प्रगट जाले, जंय कवी सांगता-

स्वप्नभंगाचे विजेचो धपको
मरणाची कुरू घेवन आयलो
कांपच्या पांयांनी, हुलपुच्या प्राणान, नितळ दोळ्यांनी
हांगा हे वसाड मरुभूमीचेर रावन हांव रडतां
"ती वाग्दत्तभूमि खंय? म्हाका सांग"

हांगा साकून कविची प्रगती ताची मुजत आमी पळयतात. ही प्रगती जिणेचो संपूर्ण कार्यक्रम घेवन जनाचो संपूर्ण विशय घेवन ताकतिकेन मुखार सरता, एका प्रबुद्ध ध्येयाक अणसरून. संवसारांतल्या भिन्न भिन्न वाठारांत केल्ली यात्रा तांचो विश्वास परपरत वाडोवपांत सहायक जालो की सगळ्याक मनुश्यत्व एक आसता. हे संतोशाची आनी दुख्खाचीं समान सपनां घेवन मुखार

सरता.

तांच्यो कविता हेच वैश्वीक तत्वांक लागून आसात. जेन्ना कवितासंबंदी ताची दिश्टी विशीं विचारलें तेन्ना ताणे एका भेंट-वार्तांत सांगलें -

*कविता, ती म्हज्या मनांत सहजतायेन येता, म्हाका येवजता. ताची प्रेरणा कशें जाका म्हूण म्हाका जाणीव ना. ती नैमित्तिक म्हूण म्हाका मानवना. प्रेरणा आसता, आमी भावनेची जीण मुखार व्हरतात. जीण म्हाका खोंट मारता. हीच म्हजी प्रेरणा. वेगळी नशा म्हाका ना, सुर्याचे सकयल कवितेक कांय तर अनवळखीचो विशय ना. भोंवतणेची घटना कविच्या संबंदातली गजाल आसता. एककय राती आमी एका व्हडल्या हुसक्यांत पडून न्हिदतात. रूख पडप वा बॉम गुळ्याचो शिंवर करप, बलात्कार करप, तो बायलेचो वा पृथ्वी मातेचो, म्हज्या मनांत क्षोभ वाडयता, एक उलथा पालथ उत्पन्न करता. एकेकूय दुखेस्त घडणूक अपणांत भिरांकूळ घडनेची दुसरे घडनेच्यो बियो घेवन येता. एक दुखेस्त घडणूक दुसरेक जल्म दिता. ती खूब प्रकाराची जावन वाडता. सांप्रदायिक द्वेशाच्या उज्यांत सगळें शार लासता जल्यार तेंवय कवितेचेर आनी साहित्याचेर प्रभाव हाडता. हांव जेन्ना तें पळयतां म्हजें काम सांकव निर्माण करचें आसता. जो सांकव वेदनेचें तटप्रदेश आनी झगडें, झूज, दासता हांचो स्वातंत्र्या लागीं जोडून घेवप म्हज्या गितांत खंयूच थोडीं ल्हान ल्हारां उत्पन्न करतात तर म्हाका अभिमान, आदर आनी खाशेलें हक्क जाता. कविते विशीं म्हजें मत हेंच.*

*मयिलप्पीलि* (मोरा पांख)1964 ओ एन वीचो पयलो व्हडलो संग्रह. हांतल्या खूब कवितांत क्रांतीच पोरणे चुलीची झळकीचो भ्रम निरास मेकळो सोडचो पळोवपाक मेळटा. *मोडलीं कांकणां* आनी *चार वरांचीं फुलां* नांवाच्यो कविता ह्या संग्रहांतल्यान काडल्यो. एन. वी. कृष्ण वारियर, म्हान कवी, समिक्षक आनी संपादक जांणी हाचे खातीर भूमिका बरयल्या, ओ एन वीचे विशीं अशें सांगता,

*पिठो केल्लीं सपनां मोडल्या कांकणाच्या रुपान सांडून उरलीं. तरीकूय तीं दोनूय मोलादीक आसतात. निमाण्या नियाळपांत मनशाचे जिणेंतली खिन्नताय जी केवल तत्वगिन्यानी पळयता, हाका इंद्रीय जावन एकाकार करता. ही खिन्नताय संगीताक दिवंची न्हय, तर शांततायेक दिवंची आसता. सहजतायेन*

*शांततायरूपी मुंयांची रोयण कविच्या सरभोंवतणेक वाडून येता. कवी जो हांत भितर गहन ध्यानांत आसता कल्पनेच्या नाजूक सुताच्या सांकवाचो अणभव करता. हें स्वर्गीय अणभवा समान जाता आनी मनांच्या गहन दुख्खांतल्यान जिणेचें आंतरीक सत नदरेंत हाडता.*

उरूब (पी. सी. कुट्टिटक्रृष्णन), प्रशस्त मलयालम कादंबरीकार ओ एन वीच्या करुत्त पक्षियुटे पाट्टु नांवाच्या संग्रहांत बरयल्ले आपले भूमिकेंत सांगता–

*कवी समाजाचें दुख्ख आपलें दुख्ख म्हूण जाणवता... समाजांच्या श्वासांतल्यान समाजाचो ताळ-मेळ. अपणावन ओ एन वीन त्याच समाजाचो एक मनीस जावन रावपाचें कठीण कार्य केलें आनी त्या समाजाचे विशीं आपल्या मनाची प्रतिक्रिया कवितेंत सांगली.*

के अय्यप्पप्पणिक्कर बी अशेंच चिंतन करता आनी सांगता -- 'एक पोरणी कथा चान्न्या दिसा प्रकाशीत सुर्याचो चकचक म्हूण सांगता. ह्या कविक कविता त्या पोरणे कथेची आधुनीक प्रसंगोचितताय सांगता. (ओ एन वी कविता-संग्रहा विशीं बरयल्या निबंदांतल्यान)

एन. कृष्ण पिळ्ळा, प्रशस्त नाटककार, समिक्षक आनी ओ एन वीचो गुरु शाङ्र्गकपक्षिकळ् संग्रहाचे भूमिकेंत ताचे कवितेचे संबंदान सांगता –

*ओ एन वीची कविता आपली आगळी वेगळीच. ती आपली भव्यताय घेवन आसा आनी बहुस्वरीय आसा. ताणें प्रयोग केल्लीं बिंबां बहुमुखी प्रकाश घेवन एका तराचो प्रभाव आनी लय सृश्टी करतात. संगीत हांगा पूर्णतः आत्माचें आसता. संवसाराचे सदसद्विवेकबुद्धीचें स्पंदन कविच्या काळजाच्या धपक्याचे समकालीक आसता. हांगा आमकां संयमीत आनी उदात्त शैली आनी वैश्वीक मनशाच्या प्राण्याक उत्तेजन दिवपी समान भाव पळोवपाक मेळटात. मनशान जियेंवचे आधुनीक जिणेचे धोक्याचो भंय आनी अनिश्चिततायेचे भावनेचो आनी वरदानाचो घोंट पिवन आपल्या आत्म्याची भव्यताय आनी उत्कंठा ओ एन वीचे कवितांक वेश्टणा घालता.*

ओ एन वी कवितेचें माधुर्य अदिकूय ताचे शैलींतल्यान येता, जी शैली लोकगितांचे खोलायेच्या फवाऱ्यांतल्यान काडिल्ली आसता. केन्ना केन्ना कवी संगीतात्मक गोड गोड अंकूश नातिल्या मुक्तप्रवाही उतरांचेर भोव कश्टांनी

लगाम दवरपा सारकें दिसता. ह्या कार्यांत तो गंधर्वा सारको प्रतिभावंत दिसता. मलयालम कवितेंत चङ्ङ्म्पुषा हांचे उपरांत कोणाकूय कवितेच्या सौभाग्याचें वरदान मेळेना. अणभवी जाण्टो समिक्षक सुकुमार अषिक्कोड ओ एन वी कवितेचेर आपले अणभव उप्पु संग्रहाचे भूमिकेंत अशें सांगता - - *ही कविता म्होंवा मुसा सारकी आसता जो परपरत फुलांतलो म्होंव ग्रहण करपा निमित्त प्रयत्न करपाचो आसता. माधुर्याचे भायर हे कवितेक वाचप्याक पूर्णतः ओड लावपाची शक्त आसता जशें भक्त मनीस आपल्या देवाच्या ध्यानांत तल्लीन आसता.*

केन्ना केन्ना हेच कवीन धोलत धोलत चलून शिमे भायलें जैत जोडून असादारण गद्यकाव्य बरोवन ताचे तोन्यक्षग्ड्ङ्डळ् (1989) संग्रह तयार केलो. ताची कविता आधुनीक आनी अत्याधुनीक विचार आनी रूप घेवन आसा. ओ एन वीक खंयच्च्याय आंदोलनांत संबंद नासलो. ताची कविता आंदोलनाचे आनी लक्षणाचें अतिक्रमण करपाची आशिल्ली. आर. विश्वनाथन ओ एन वीक आपले आगळे वेगळे विकसित तत्वगिन्यानाचो कवी म्हूण सांगता.

लागच्या दशकांत कवी नेटान मुखार सरून आपल्या संग्रह *ओरु तुळ्ळि वेळिच्चम् (प्रकाशाचें एक किरण)* 1966 *अग्निशलभङ्ङळ् (काजुले)* 1971 आदीचे वाटेन प्रतिशठा घेता. ह्या संग्रहांतली *वाग्दत्तभूमि* कविता हांततल्यान काडल्या. अक्षरम् 1974 आनियेक मुखेल संग्रह. मलयालम कवितेचे उसरांच्या कवित्रयाचो प्रकाशपूर्ण नेतो वैलोप्पिळ्ळि श्रीधर मेनोन , दुसरो इडश्शेरी गोविन्दन नायर, पी. कुञ्ञिरामन नायर आपले भूमिकेंत सांगता --

*आज मलयालम कवितेंत ह्या कविचे परस चेतना आशिल्लो ज्ञानेन्द्रियाचे विशयग्रहण शक्तीन संपन्न रंगाचो, संगीताचो, रुचयेच्यो,गंधाचो दुसरो कवी आसा म्हणपाचें शंकास्पद. तशेंच कीट्स हांणी सांगल्या सदृश ताची फुलां लायिल्ली कल्पना आनी नवे आंकर्याची सशक्त भास खंयच्च्याय मोगीचे दिश्टीन पळोवपा सारकी आसा.*

खूब जनां विश्वास करतात की वैलोप्पिळ्ळि ओ एन वीक आपलो उत्तराधिकारी म्हूण मानवता. हांगा व्हडलो कवी धाकल्या कवील्या विचारांनी प्रभावीत जाला. अक्षरम् नांवाच्या संग्रहांत *फीनिक्स* आनी *माइकेल आंजलो माफी* आदी प्रसिद्ध कविता आसात.



लागच्या धा वर्सांत चार व्हडले संग्रह उजवाडांत आयले. *करुत्त पक्षियुटे पाट्टु, (काळे पक्षेचे गीत)* 1977 हांततल्यान *आवाळे, सिंफणी, म्हजी पेरणी, स्कूल टीचर, वळण्पोट्टुकळ् (मोडलीं कांकणां)* 1980 हांततल्यान *कशें हांव इत्सा करचें,* उप्पु (मीठ) *हांततल्यान उजो, कपोतपुष्पंम् , ओ काळे व्हडेकार, जांणी अमृत वगडायलें, खाजन , रक्षक, मीठ, यास्नाया पोल्याना, फातर,* आनी *तानियाची डायरी, भूमिक्कोरु चरमगीतम्* (पृथ्वीक एक मृत्युगीत)1984 हांततल्यान *पृथ्वीक एक मृत्युगीत, सुर्याक एक स्तुतिगीत, रातीचे ट्रेनींत,* हांवें *ताका जाय तितलो मोग केलोना* ह्या संग्रहा खातीर वेंचून काडल्यांत.

*पृथ्वीक एक मृत्युगीत* आनी *सुर्याक एक स्तुतिगीत* हांत तो वयर चलो, प्रमाणा भायर. ओ एन वी हांगा आपले सादारण शैलीचो सांचो मोडून घेता आनी रागाचीं, अजापाचीं, करुणाजनक बिंबां आपणायता. हीं बिंबां प्रत्यक्ष रितीन खंयच्याय मनशाच्या मनाच्या मुळांक प्रभावीत करतात. ह्यो दोन कविता आनी तांच्या आंतरीक संबंदाची नियाळ घेवन बरयल्ल्या *फोनिक्सिन्टे संगीतम्* (फोनिक्साचें संगीत) नांवाच्या के. जयकुमार हांच्या निबंदांत सत अशें सांगलां की ओ एन वीन नवे भाशेच्या निर्माणाचें आनी सामयिक सताचे उच्च पांवड्याचे काव्यशैलींत सांगपाचें भाशेच्या उपयोगाचें कार्य केल्यां. हांगा आधुनीक कवी पराजीत जालो. ह्या कविन काव्यकलेच्या आपल्या पुर्णतायेच्या सहाय्यान नवे कवितेक जल्म दिलो ज़ी कविता नवे युगाचे लायक जाली. जयकुमार सांगता -- ही पूर्ण रुपान अनपेक्षीत न्हंय विशेशत: त्या कवीक जो सताचो मोगी आनी काव्यकलेक कट्टरतायेन चालीक लांवचो, ल्हव ल्हव भावनामय मुद्द्याक आदर्श तत्वांत आनी मागीर पूर्ण तत्वगिन्यानांत परिवर्तित करचो उद्देश घेवन आशिल्लो. वयर दिल्यो दोन कविता हें सत सांगतात की ओ एन वीन हे तरेची तत्वशास्त्रपुरक दिश्ट करून घेतली.

ताचो मनीस जातीचो मोग जेन्ना उदात्त जालो आनी देशप्रेम विश्वप्रेमांत परिवर्तित जालें फाटल्या कालाची ताची प्रबुद्धता आनी सैमाचो मोग सैमीक विकासा खातीर पृथ्वीक निस्तेज भविश्याच्या संघाताचें लोभी मनशांचे वाटेन निरंतर उणाकपण हाडपाची जाली.'सैलेंट वेली'ची रक्ष, हाचें अभियान भोंवतणेच्या वातावरणाचे रक्षेंत केरळांतल्या वावुरप्यांनी सातव्या आनी आठव्या दशकांत पयले खेंपे कवींक आपले संकेत उबे करून दिले. ओ एन

वी तांत आशिल्लो. दुसऱ्या कविचें मदीं भिन्न आसून ओ एन वीन आपले कल्पनेन करूंक येनाशिल्लें लुकसाणेचें दृश्य उपस्थीत केलें जें जीवशास्त्रीय वसणुकेचे सरभोंवतणेची आनी पृथ्वीक तिगोवंचे अन्य शक्तींची बराबरी करून आशिल्लें. ही तीव्रताय कविच्या मनांतले पृथ्वी आवयच्या वात्सल्याच्या कारणान जालें.कवी सांगता - - ''म्हजी कविता साकाळींच्या सुर्याची कुंकुम पृथ्वीच्या मग्यांत पळोवपाची आस बाळगता''

ओ एन वीन आपल्या खूब काळाचे कवितेच्या धांवपांत तुरो घेतलो. ई.1994 वर्सा समाप्त जाल्ल्या दशकांत ताचे स संग्रह, अधिकूय प्रमुख जावन आसतात जशें *शारङ्गकप्पक्षिकळ् (शारङ्गकपक्षी)* 1987 हांततल्यान *घरां, गरादी, गांवच्या स्तुतिपाठकाचें दुःख, अप्रैल, तू शांत, सोंळमनाक एक ल्हान गीत, हांव कोणाक निरोप सांगचें, मृगया* (राजकीय शिकार)1989 हांततल्यान मृगया आनी आवय , तोन्यक्षरङ्डळ् (गद्यकाव्य 1989) हांततल्यान *आफ्रिके विशीं* आनी *वाट चुकलीं कुपां. अपराह्नम्* (दनपार) 1991 हांततल्यान *भयण, एक मनांतलें स्वगत. हे श्यामसुर्या, जिणेचो रूख, रोग, वेरुते* (फकत) तशेंच 1994 हांततल्यान एक स्तुतिगीत मरणाचे उपरांत, आनी *उज्जयिनी* (एक कथाकाव्य 1994) हांततल्यान पुस्तकांतलो उतारो बी ह्या संग्रहांत समाविश्ट केला.

*मृगया* (राजकीय शिकार) 430 वळियांची एक दीर्घ कविता ज्ञानाचें आगार, उपदेशांचें भांडार. सैमाचे शक्तीर जांवच्या जुलुमा खातीर समाजाक केल्ली शिटकावणी, शृंगारीक मागणी पयल्या राजकीय शिकाराचे खातीर पांडुचें रानांत वचप, किंदमन नांवाच्या ऋशीचो नकळत वध, हरणाचे रुपान बायल हरणय जावन मैथुन, मारीर शापांत पडल्या पांडुले कामा खातीर मरणाचें भय लिपोवप आनी आपले बायलांचेर काडचें नियंत्रण, घोवाली अविचारीत केल्ली करणी आनी बायलेचें परिणाम भोगपाक तैयार रावचें, हाची प्रशंसा केल्या. माद्री भाग्यवती आशिल्ली. ती पांडुचे वांगडा मरण पावली. कुन्ती एका दावाग्नींत (रानाचें रूपक पळोवपाचें आसा, सग्ग जळोवपाचो अग्नि जशें काम) मरण पावली. ते पर्यंत तिका जीण मुखार व्हरपाचें पडलें. हांगा म्हाभारताच्या मुळावे जुलुमाचो घटक तत्व मुखार येता. सगळेंच पांडुचें मैथुन करचे हरणा खातीर मेंकळें जाता. ह्या संदर्भांत रामायणांत बी व्याधान मारिल्ल्या क्रौंच

मिथुनावयलो वाल्मीकिचो दयाभाव उगडासांत हाडचो पडता.

*उज्जयिनी एक कथाकाव्य,* 4450 वळीनी निर्माण केल्यां. हें कालिदासाचे जिणे विशीं बरयल्यां. हाचे अंश कवीन आपल्या म्हान पूर्वजांचे ग्रंथांत साकून वेंचून काडल्यात. तांका आपले सृजनात्मक शक्तिच्या सांच्यांत घालून आकार दिला आनी उतरांची अजापाची शिल्पकला आमचे मुखार दवरल्या.

ओ एन वीच्या काव्यसाहित्यांत ही एक प्रमुख उपलब्धी जाल्या. ह्या काव्यांत ओ एन वीन कालिदासाचें पुन:सृजन केल्यां. ह्या पोरण्या कविसंबंदी लोकप्रिय दंतकथा पुन:सर्जन करच्या वेळार पळून गेल्यात. दंतकथेंतले अपंगूळ प्रतिमेक कविच्या कलात्मक व्यक्तित्वान संवारपांत ओ एन वी सफल जालो. तांततल्यान धांवची एक सौम्य मोगाची कथा ते कथेक एक अध्यात्मीक महत्व प्रदान करता. तशेंच विक्रमादित्याचे वांगडा कालिदासाचें प्रतिपादन उज्जयिनी काव्याच्या शासनाच्या वायटपणाचें नेटाचें कायदेशीर आरोपपत्र दाखयता. उज्जयिनीचो महजो इंग्लीश अणकार ओ एन वीक मलयालम भाशेच्या भायल्या आस्वादकांक फाटल्या दशकांत मेळून आसा. ह्या संग्रहांतलो उतारो महान काव्यात्मक रांक दाखोवपाक सक्षम आसा.

एम. टी. वासुदेवन नायर, एन.पी. मुहम्मद, एम. एम. बषीर आनी ओ एन वी उज्जयिनी विशीं जें सांगतात ताचो उतारो ह्या काव्यनिर्माणाचे खूब पक्ष उकते करून घुसपा गोंदळ काडून उडयता.

**एन. पी** – तुमचे उज्जयिनीचे संक्षिप्त भूमिकेंत तुमी उज्जयिनी बरोवपाचीं तीन कारणां सांगल्यांत. तर तसले एक कथाकाव्य बरोवपाची आंतरिक प्रेरणा कित्तें आशिल्ली?

**ओ एन वी** – म्हाका दिसलें, शिकयता आसतना आनी अभ्यास करतासतना म्हज्या मनांतल्या कालिदासाच्या प्रतिबिंबांत जें आसलें, तांत आनी लोककथांत आयल्या तांचे प्रतिबिंबांत मेळ बसोवपाक जायना. देखून यथार्थ कालिदासाचें रूप तांचे ग्रंथांत संशोधन करपाचें आसा म्हूण म्हाका दिसलें. म्हज्या मनांत आयलें की तांचे संबंदी लोककथा अधिकूय स्पश्टत: फटवणेच्यो.

**एम. टी.** – मूर्ख बसल्या खांद्याच्या मूळार घाव घालता जशी काणयो आजूनय प्रचारांत आसात.

**ओ एन वी–** कालिदासाची दादल्या बायले मदीं संबंदाची आनी मोगाची कल्पना कितें? पार्वती आनी परमेश्वर परस्पर पुरवणी करचे आनी तोखणायेचे जशें उतर आनी अर्थ हरिणी जशी आपल्या दोळ्याचो खांच-कोनशो आपले वांगडीचे हरणाच्या शिंगाचेर घांसता. हांगा मोग विश्वासाचे तेंगशेर म्हूण दाखयता. एक नाजूक कन्या जे कन्येन पंचाग्नी मदीं तप केलें (तपस्वीच्या मनांत मोग हाडचे खातीर) आनी एका अप्सराची जे अप्सरान मनशाचेर मोग केलो, हांचें निर्माण करतल्या कवीक ह्या काणयानी एका दुराचारी जिणेचो संबंद लायलो आनी वेश्यागृहांत अकांताचें मरण दिलें. ....

**एन. पी. –** जें कोणूय ध्यानपूर्वक लोककथांतल्या कालिदासाचें अनुसरण करता आनी आपलें काव्यव्यक्तित्व ताच्या ग्रंथांतल्यान निर्माण करता तो दंतकथांतल्या ताचे चरित्रा विशीं चित्तवेधक विसंगतताय पळयता.

**ओ एन वी –** म्हाका कालिदासा संबंदी सत सोदपाची प्रेरणा हेच विसंगतायेन दिली.

**बषीर –** खूब दंतकथा कालिदासाची कीर्त इबाडतात म्हणपांत तुमी कांय पुण विशेश पळयला?

**ओ एन वी –** म्हान कविचे कीर्तिचे वांगडा ताची सफलता सोंसू नजो आशिल्ले अनेक शत्रू आसतात. तो तांची ईर्श्या बी मोलाक घेता.

**ओ एन वी –** कालिदास विक्रमादित्याचे सभेंतल्या नवरत्नांत एक आशिल्लो तर तो फकत राजदरबारांतलो कवी मात्र न्हय जो सम्राटाची स्तुतिगितां मात्र गायतालो.

**बषीर –** कालिदासाच्या ग्रंथांत तुमकां हाचे प्रमाण मेळ्ळे कांय?

**ओ एन वी –** शाकुन्तलम् नाटकांतलो खारवी आपल्या धंद्या खातीर ताका हिण्सावपाच्या अधिकारांच्या संबंदान अशें सांगता की जितले ते ताका निन्दा करतात सत म्हणल्यार तें ताचें परंपरागत वेवसाय. मागीर तो वैदीक ब्राह्मणा विशीं सांगता जो यागा खातीर जनावरांक मारता. तशेंच कण्व हांगेले शिश्य जेन्ना पयले खेपे दुश्यंताचें राजमहल पळयतात, तेन्ना सांगतात की तें उज्जो पेटल्या घरा जशें आसा. अनीकूय मालविकाग्निमित्रम् नाटकाच्या पयल्या अंकांत राणी, धरिणी, आपल्या घोवाक ताची मोगिणी मालविकाक थोडेच वस्त्र न्हेसोवन ताचे मुखार हाडपाची रायाची युक्ती आनी तिच्या नग्न सौंदर्याचें

आस्वादनाची रायाची युक्ती पळोवन ताचे मुखार सांगता –

'शासन चलोवपांत रायाक असले उपाय आशिल्ले जाल्यार तें अजापाचें कार्य आसता आशिल्लें. हें राजदरबारांत क़ालिदासान राया मुखार सांगिल्ले न्हय वे? मात दरबारांतलो एक कवी इतलें धैर्य कशें करतलो? अशें ताच्या ग्रंथांत वाक्यांचे अनेक अर्थ पळोवपाचे आसात.'

**एम. टी –** तुमी उज्जयिनीक शासनकेन्द्रीत सुवात म्हूण चितारल्यां ....

**एन .पी –** राजकीय सत्ता, शासन आनी काव्य एक ठांय येनात म्हणपाचें एक शाश्वत सत आसता. ..........

**ओ एन वी–** मात न्हय कवी आपलें आगळें वेगळें साम्राज्य निर्माण करता.

**एम. टी –** जें विश्वांत आशिल्लें खंयचेय लोकसत्ताक राज्या परस श्रेश्ठ आसता.

**एम. टी –** म्हाका दिसता उज्जयिनींत काळजाक हात लावपी जें आसा तें कालिदासाचें चरित्र-चित्रण. ताचे विरुद्ध आशिल्लें अस्वडी उलोवप कडेक काडल्यार – जशें कालिदास मूर्ख आशिल्ले, ते एक राखणो आशिल्ले आनी ताणीं कालीचें वरदान घेवून कविता बरोवपाक सुरू केली. हांगा कालिदासाक एक गांवगिरो तरनाटो आशिल्लो म्हूण चित्रीत केला. ते आपल्या काळजांत कवितेची खबदळ घेवन आशिल्ले. ते कोणाचे सांगणीन कविता करनाशिल्ले. तर आपले सन्तोशा खातीर करताले. मागीर कविता ऊंच स्वरान म्हणताले. हें सग्ग स्वयं करताले. तांची आवड तेन्ना वाडताली जेन्ना कविता आयकपाची चेडुं मोहीत जाली म्हूण तांका जाणविकाय जाताली... ... आकाशाक उद्देश करून हावेस बाळगून गावपाच्या शेवण्याचो भावातिरेक गांवाचें शांत, गंभीर वातावरण ...

इंग्लीश अणकार : ए. जे. थॉमस

ई. 1995 वर्सा सावन आतां मेरेन ओ एन वीन चार कविता-संग्रह, *स्वयंवरम्* (म्हाभारतांतल्या उपाख्यानाचेर आदारून बरयल्लें कथाकाव्य 1995) हांततलो उतारो, *भैरवन्टे तुडि* (भैरवालें ल्हान धोलकें 1998) हांततल्यान भैरवालें ल्हानधोलकें, प्रवासी, रानांत, हें *पुरातन किन्नरम्* (2000), *आमी पुरातन, पावसाचे थेंबे आनी खिणयाळें जरी हांततल्यान काबूळ, स्पसिबा, हें*

*ट्यूलीप म्हजें काळीज,येवतुषेंकोक- मोगान, पारव्यांचो राय, निमाणें शेंवणें, थंड, खिणयाळें जरी,* आदी कवितांक ह्या संग्रहांत सुवात मेळ्ळी. हे संग्रह ओ एन वीची हालींची कविता दितात. ह्यो कविता सांगतात की ओ एन वी कालचे वांगडा चलतालो - तो भोव जागरूक आशिल्लो, खाशेलपणान त्यो कविता ज्यांची पृश्ठभूमी हालींचे अफगानिस्तान, रूस हांगाचें बदल, साम्यवादाचें न्हयकारप, धर्मवादाचें भेश्टावप, भोवंतणेचें भय, वातावरणाचो विध्वंस, बायलांचें दुख्ख आदी चित्रीत करतात.

*स्वयंवरम्* कथाकाव्य 2450 वळयांचें. हांत भारतीय नारी, जाची देवीरुपान पुजा करूनय पितृसत्ताकाचें खेळणें आसा. ओ एन वी ही कविता कालच्या आनी आयच्या भारतीय नारीत्वाक समर्पण करता. हें नारीत्व तोखणाये वाटेन फटवणेंत आसता. जशें - 'यत्र नार्यस्तु पूज्यन्ते रमन्ते तत्र देवता:' माधवीचें, ययातीचे धुवेचें विशय घेवन खूब नामनेचे लेखक बरयतात. जशें म्हाभारतांत सांगल्यां तशेंच बालामणी अम्मा हांची कविता तिच्या त्यागाची तोखणाय करता. भीष्म साहनीचें नाटक नायिकेचें दुख्ख हालींच्या संदर्भांत चित्रीत करता. अनुपमा निरंजना हांची कादंबरी पसंती आनी नमळिकायेच्या प्रस्नांत नवी दृश्ट दिता. ओ एन वीची कविता ताचे रूपकात्मकतायेक लागून उल्लेखनीय आसा. हालींच्या संदर्भांत हो बायलांचो विशेश मुद्दो जावन मुखार येता. निमाणें पितृसत्ताकरूपी बंधनाची हतकडी तोडून माधवीचें वनगमन दुबावा विरयत स्त्री स्वातंत्र्याचे हालचाल हाची, ज्ञानी मनशाची सुचवणी. ओ एन वीक बायलांक वयलो पांवडो दिवपा खातीर विरोध आनी पृथ्वीचें उगडें, बोडकें करपाची स्थिती, दोनूय पर्यायवाचीं उतरां. ताका बायल म्हळ्यार संस्कृतायेचें भांडार. ताचीं बायलां संबंदी रूपकां आनी बिंबां ह्या तत्वाचें प्रमाण. बायलांची मानहानी संस्कृतायेचें उणेपण हाडचे समान आसता म्हूण प्रमुख समाक्षक पी. सोमन सांगता. स्वयंवरम् हे दिश्टीचे सशक्त पुष्टी करता.

II

ओ एन वीच्या काव्याचें आस्वादन समीक्षा-दिश्टीन ताचे काव्यकलेच्या आस्वादनाचे बगर अपूर्ण आसता. आतां मेरेन ही टिप्पण एक थोडे भोव नियाळ मात जाल्यां. ह्या लेखकाक ताच्या समस्त ग्रंथांची संपूर्ण मीमांसा

करपाचो उद्देश ना. कशें तर नामनेच्या समीक्षक पी. सोमन हांच्या व्यापक अभ्यासाचें म्हज्या सकयल दिल्ल्या अणकारांतले उतारे ओ एन वी. कवितेची भुमिका जावन आसा. तर एक व्हडलो संग्रह (1959 - 2000) संदर्भाचे भायलें जांवचें ना, अशें म्हाका दिसता.

ओ एन वीन अनुसरण केल्ले निरीक्षणा वाटेन सुरू करून ताचे दुसऱ्या स्रोताचे विशीं पाट्टु (गितां संबंदी) परंपरा जी त्रास घेंवच्या वर्गाची आशिल्ली. ताचे औपनिवेशीक आदर्शांचे परस काव्यकलेक विकास दिवंची जाली. पी. सोमन हो मुद्दो अशें मुखार व्हरता. - पाश्चात्य सैंदर्य शास्त्राचे प्रस्तावक थळावी आनी सुरवातेची पद्दत भोव सकयल दिश्टीन पळयतात. कृषिसंबंदी कामगारांच्या तरेकवार वर्गांच्या गितांत मेळपाची तोंडी परंपरा, देशी अनुश्ठान, लोकवेदाचीं गितां आनी सूर जे ओ एन वीन रेखाटिल्यात तेच सग्ग औपनिवेशीक प्रयत्न आनी साम्राज्यवादी आदर्श जे आमकां अजून प्लेगा समान अनेक तरेन कोरांतून आसा, तांततल्यान राखण पावंचें योग्य एका जिनसी संस्कृतायेचे एका तरेचे विरुद्ध आसा. सगळ्या संवसारांत जंय राष्ट्राचें मत प्रमुख आसता आनीक एक जिनसी संस्कृतायेचे विरुद्ध जाता थंय असलीच देशी परंपरा ताका शक्त दिता. तशें सोमन हांणी सांगचे समान ओ एन वीचे कवितेचें आस्वादन करपाचें आसता. ताची कविता असल्या सौन्दर्यशास्त्राच्या सहायान समजूक पडता. ओ एन वीचे ल्हान पिराये सावन ताचे कविताचें विश्लेशण सोमन सुरू करता.

ल्हान पिरायेचेर ओ एन वीन वाल्मीकिरामायणाची कथा आपल्या बापायाच्या तोंडांतल्यान आयकली. हे कथेंतल्यान ताका गहन प्रभाव जालो. ह्या प्रभावान ताचें कविता-कार्य मुखार सरलें. *कवी आनी जंगली* (1949) नांवाचे कवितेन सुरू करून 1998 वर्सा बरयल्लें *आरण्यकम्* संग्रहा वरवीं रामायणाचो प्रभाव विकसीत जालो. हो ताचे कवितेचे जिणेचो आंतरीक सूर जावन पळोवपाक मेळटा. अयोध्याचें केंद्र पात्र रामालें सीताक रानांत सोडप, तिचें दुख्ख, रानाचे शिमेचेर वास करचे निम्नवर्गीय जनांचो त्रास भोगप, जशें संदर्भान तांच्या दुख्खाचे जिणेची वळख दिल्ली आसुयेत. रामायणाचे कथेचे हेच लोकवेद-परंपरेन ओ एन वीक प्रभावीत केलो. क्रूर जंगली शिकारी जो हिंसावृत्तीची कुरू घेवन आसा, शेवणें जे त्रास घेवन आसा, कवी जो शेवण्याची बोब अणसरून वता, कविता जी हिंसावृत्तीचो विरोध करता,

कविता-कल्पनेची हीच वाट ओ एन वी कवितेचो अन्त:प्रवाह जावन आसा.

...

ओ एन वी रामाच्या अधिकाराची धडधड आपणायता आनी ती आपले कवितेंत, संस्कृतायेंत मिसळून घेता. दया दाखोवपाचे परंपरेची वाल्मीकीची काव्यभास मोगान भरून आसता. शेवण्याचें सकयल पडप , ताचें पुनरुत्थान आदी ताच्या परवर्ती काव्यांतलो व्हडल्यो काव्यगत कल्पना. कन्यारूपी पृथ्वीचे संदर्भ शिकार केल्ली त्रास भोगपी बायल, जी सग्ग वहन करता. कल्पनासृश्टीचीं बिंबां जशें शिकारी शेवणें आनी कवी प्रयोगा-संबंदी सत जशें हिंसा, भक्तीं पडल्लो आनी विरोध

ओ एन वी कवितेची बुन्याद जावन येता. ओ एन वीची क्रांतिकारी कवितेचे आदर्श वाल्मीकीचे कल्पनेंत मनशाची स्थिती आसता (आनी आश्रमांत चालंत आसता जंय सीताचें दुख्ख ना, शेवणीं मुक्त उडतात, तीं शिकारीच्या वाणाक भियेनात. देखूनच रामायणाचे कथेच्या संदर्भांतल्यान ओ एन वीन क्रांतीचे सल्पनेची येवजण सोडून घेतली.

प्रेमयाचना करपाक आयली वासना
हे कन्यारूपी पृथ्वीक
तू कशें काडतलो इंद्रालो भव्य ध्रनु
आनी तो ओडून कशें कुडके करतलो?

इंग्लीश अणकार : हेफ्सिबाह जेसुदासन
(Ofp 1960)

हांगा आमी उडगासांत हाडचें आसाकी गितांची परंपरा मलयालम कवितेंत अधीकूय रामायणाचे कथेचेर आदारून आसा. पोरण्या घराब्यांत रामायणाचें नियमीत पाठ आनी लोकगितां भरिल्या कथासंदर्भांत ओ एन वीचे कवितेचे रामायणाचे कथासंदर्भ एका संस्कृतायेच्या दायजाच्या रुपान पातळून पडल्या.

ओ एन वीन सुरूवातेक क्रांतिगितां म्हणलीं. मागीर आंदोलनाक कोसळून उडोवपाक अध्यात्मीक संस्पर्श भरिल्लें कवितासाहित्य बरयलें. नाशाचे आदर्श तत्व आधुनीक नागरिकांचें दुख्ख आनी हुसको पयस करना म्हूण केन्ना ताणें नेटान सांगलें ताचे कवितेंत एक इतिहास तत्व आशिल्लें.ताचो विरोध करपाचे आनी ताका फाटबळ दिवपाचे मनशानी हें पळयलेना. क्रांतिकारी आंदोलनांतलें

भुंयेघसरण ई.1991 वर्सा सोवियत युनियनाचे सकयल येवपान तेंगशेर पावले. शासक कन्या पृथ्वीक रानांत त्याग करता. (राजनितीक, आर्थीक, समाजीक पद्दत) जे कन्येक ताणें धनुशभंग करून अपणायली म्हणपाचें सत तशें कविता वळ्ळ्पोट्टुकळ् (मोडलीं कांकणां) आनी स्वर्गलोक भविष्यवाणी मात जालीं. जशें स्वतंत्रतायेचें सपन अदृश्य जावपाची दुखेस्त घडणूक जाली. ह्यो कविता ज्यो व्यक्तिगत लुकसाणीचे भायर वचून वर्तमानाची किळांच जावन आसता. इतिहासान मुखार दवरचें नवें पाठ हें आसता की वासना जी आंकवार पृथ्वीक लग्न जांवचाक मुखार येता ते बाजाराची अर्थवेवस्थेंत बदलता जी नवे धनुश काडून धनुर्भंग करता.

*मयिलपीली* (मोरपांख) नावांच्या कविता-संग्रहांत सुर्या, पृथ्वी, आकाश, आनी फुलां ओ एन वी चे कवितेची मुळावीं बिंबां जावन येतात. मोर सुर्याचें आनी उजाचें बिंब. सौन्दर्याचेंय बी. सौन्दर्याचो सोद करपाची आनी नवी नवी पद्दत आनी शैली उकती करपाची इत्सा समजून घेवयात. मोर सर्वभक्षक जाल्यान तो जिणेच्या कामाचो बिंबय जाता आनी मरणाचो प्रतिबंधय जावन येता. ओ एन वीन जिवाण्याक आपल्या कवितेंत मरणाचें बिंब म्हूण वर्णन केल्यां. चीनी मिथकांत मोर शांतीचें आनी ऐश्वर्याचें बिंब आसता आनी शक्तीचें बी आसता. हांगा मोराच्या सिंहासनाचो उगडास काडपाचो आसा.

मयिलपीली (मोरपांख) नावांच्या कविता-संग्रहांत हीं सगळींच अर्थबिंबां पळोवपाक मेळटात.

शक्त जाच्या हातांत आसता तो रचनात्मकतायेक आडखळ जाता म्हणपाचें ओ एन वीचे कवितेंत

सर्वत्र पळोवपाक मेळटा. उज्जयिनींत हे दिश्टीचो विस्तार जाला.

ओ एन वीन जो मानवतावाद आपले कवितेंत वर्णीत केला तो चडांत चड चर्चा करपाचो विशय जाला. हो मानवतावाद भारतीय तत्वज्ञानाचो एक भाग आसा आनी समस्त विश्वांत मानून घेतल्लो आसा. हाका सैमीक मानवतावाद म्हणपाचें आसा. लाटीन भाशेंत 'ह्यूमस' म्हळ्यार पृथ्वी, सपाट ज़मीन आदी. 'होमोस' म्हळ्यार 'भुंयेवयले जीव-जंतु' तशें भुंयचें संबंदी आशिल्लें सगळें मानवतावाद आसता. 'humanistas' उतरान ग्रीक जनां आनी दुसऱ्या प्रति मोग म्हूण अर्थ सांगतात. भारतीय सांख्यदर्शनांत पसरिल्ले सैमाच्या एकठांय

जावपांत संवसार जल्म घेता. सगळेंच सृश्टीचो स्रोत संवसार आनी सैम जाल्यान मरणा उपरांत तांचे आवास आनी अस्तित्व सैमांतच आसता. देखून एकाच सैमांत जल्म घेंवचीं आनी वाडपी भेद नातिल्लीं एकच भुंयचीं भुरगीं, तीं एकच सुऱ्याची ऊर्जा घेवन जीण मुखार व्हरतात. सैमाच्या मानवतावादाच्या तत्वगिन्यानाची हीच बुन्याद ओ एन वीन भुंयचेर, सैमाचेर, आकाशाचेर,सुर्यांत अशें म्हूण हें जैतवंत केलें. ताणें हें मत दिल्लें की शरीराचे आकारान आनी इत्सेन मानव सगळ्याक एकच. राष्ट्राचे शीमे भायर सैम म्हळ्यार भुंय आमकां एकठांय हाडटा. आमी सग्ग एकच घरांत म्हळ्यार भुंयचेर एकाच पाख्याचे सकयल म्हळ्यार आकाश एकाच दिव्याच्या उजवाडांत म्हळ्यार सुर्या सैमाचो मानवतावाद ओ एन वीचे कवितांत भौतिकवादाचेर आदारून आसा. मानवतावादी कदापि जिणेचे उपरांत मरणाचेर विश्वास नाकारतात. तत्वगिन्यानाक ते कल्पना मात मानतात. ताची दिश्ट सैमीक विकासाची परिणती म्हूण विश्वास करतात. जनाचो विकास आनी संतोश समूहा नागीं प्रत्यक्ष रितीन संबंदीत आसता. समूहांतली विशमता ताका दुख्खी करता. सैम पंचभुतांनी घडयला. ओ एन वीचे कवितेचीं बिंबां चडान चड आकाश, पृथ्वी, अग्नी, वायु आनी उदक हांचीं बिंबां आसतात. तो उतरां सैमांतल्या सोदून काडटा आनी सैम उतरां वांटेन, भाशेचे वाटेन चितरायता. देखीक अक्षरम् नांवांची कविता. निमाणें तांततल्यान तो अपणाले व्यक्तिनिश्ठेची जाणविकाय करता आनी आपण सैमच म्हूण श्रेश्ठ समज ताका येता. श्रेश्ठ ज्ञानाची जाणीव भारतीय वाटेन आत्मगिन्यान प्राप्त करपाचें आसता.

ओ एन वीचें कवितेंत संगीत एक दुबळेपण म्हणून कांय जाण येवजण करतात. हो सैमाच्या मानवतावादाचो खाशेल गूण. सैमाची आराधना करपा वांटेन ज्या वर्गानी मनशाले सभ्यतेची बुन्याद घाली ताणी एके तराचे मुळावे संगीताची संस्कृताय चलयली. ओ एन वी कवितेंतल्या संगीताचो आनी केरळांतल्या संगीतसंस्कृतायेचो संबंद आसता. गौण अधिकाऱ्यांचे थळावें देशी स्वातंत्र्य संगीताच्या ह्या साहित्यांत मेळता. जे संस्कृत काव्यशास्त्राक आनी छंदाचे नियमाक मान्य जाले नमून्याचे भायर आसता. मागीर संगीताचें हें साहित्य बरें सुवातेचेर पावलें, ह्या साहित्याचे सत्तेचे वांदकामाक आव्हान करून निमाणें ताका दुबळें करून आनी अप्रासंगीक करून आयलें. संगीताची

ही परंपरा ओ एन वीन अपणायली. भारतांत शब्दाक पयलें कारण मानून घेंवचें विश्वोत्पत्तिशास्त्र आमकां आसा... संगीत भिन्नतायेंत एकता स्थापन करचे प्रक्रियेंत गती दिवपी वस्त. प्रकृतिचे दर एका वस्तींत शब्दतत्व गुपीत जावन आसता आनी सैमाचीं परस्पर विरोधी तत्वांचें एकीकरण हांचे

एकवटाचें कारण जाता म्हूण जाणीव जेन्ना येता संगीत गीतमात्र नासता. पंचभुतांचे विंबां वाटेन जेन्ना संगीताचें अस्तित्व जाता जशें संगीताक अग्नी म्हूण, उदक म्हूण, आदि. हाच्या एकीकरणाचे गूण दाखोवन ताचें चित्रण करतासतना ओ एन वीची कविता सैमीक मानवतेचे भिन्न भिन्न खाशेल गूण दाखयता. संगीता-संबंदी ताणें बरयल्ल्यो अनेक कविता हाच्यो साक्षी आसात की संवसारांतलें संगीत, संवसारातले संगीतकार आनी भारतीय संगीताची ओडाताण ताका कशें प्रेरक जाताली.

स्वरमेळ म्हणपाची संगीताची रचणूक ओ एन वी चे कवितेंत खूब आकर्शण घेवन आयल्या स्वरमेळ म्हळ्यार संगीताचें विचित्र अतुलनीय सूर आसता. हांगा स्वातंत्र्य एकीकरण करता म्हणपाचेंच विशेश गूण आसता. संगीत स्वातंत्र्याचें कळोवणी आसता. शेवणें एक काव्यबिंब आसता. हें आकाशाक खुणावपी आसता. पंचभुतांतलें एक आसता. ताचे खाशेल गूण म्हळ्यार ताचो शब्द. आकाश अंतर्राष्ट्रीयतेचें बिंब जाल्या ताचे वयल्यान उडून भोवपी शेवणें बी हेच गुणांचें आसता. स्वातंत्र्य कदापी बंधनाक आवडना. तें आपले इत्से प्रमाण होळता आसा. धर्मांत शेवणें आत्म्याचें बिंब. तर ओ एन वीचे कवितेंत शेवणें, गायतल्लें शेवणें सृजनतायेचें बिंब आसता. ही कल्पना केरळाची परंपरा, किळिप्पाट्टु शैलींतल्यान शेवण्याचे गीत एषुत्तच्छन हांचे आवडेची कविता. हाचे शैलीन मलयालम कवितेची बुन्याद घाली. सुक्ष्मतायेन पळयल्यार ओ एन वीच्यो कविता सगळ्योच किळिप्पाट्टु शैलीच्यो.

अग्नी, सुर्या, आनी शेवणीं सृजनात्मकतायेचीं बिंबां प्रस्तुत करतात. हीं बिंबां एका दुसऱ्या लागीं कळोवणी करता. जेन्ना तो स्थित्यन्तर घडोवन हाडता तेन्ना अग्नी एक धर्मीक बिंब जावन आमचे मुखार येता, धर्मातीत बिंब जावन येता. ते भितरल्या संघर्शाची आनी अभिव्यक्तीची सुचोवणी करता. अग्नी शुद्ध करता. परत जल्माक घालता. अग्नींतल्यान आयलें शेवणें आपल्या गोबरांतल्यान जितें जावपी फीनिक्स आनी काजुले ओ एन वीचे आवडेचीं

बिंबां. अग्नी स्वातंत्र्य दिवंचो, देखून स्वातंत्र्याचीं गितां ताका अग्नीचें स्तोत्र जाता. हीं गितां अग्नीची विणा जातात अग्नी कवितेंत म्हजो देव अग्नी म्हूण तो सांगता.

म्हजी जीण अग्नीची देणगी
होच अग्नी निमाणें म्हाका खावन वता.

–इंग्लीश अणकार : एस. वेलायुधन

अग्नीचो एक गूण उजवाड जो ओ एन वीचे कवितेंत सैमाची मानवीयता उजवाडांत हाडता. उजवाड मात सुर्याची संदिप्ती न्हंय, तो जिणेचीं आनी रचणुकेचीं बिंबां आसता. उजवाड उतर आसता,शब्द उजवाड आसता. अध्यात्मीक मानवतावाद उजवाडाक देव म्हणटा. देवाच्या स्थानाचेर सुर्याची प्रतिश्ठापना केल्यार उजवाड एक साधारण मनीशपणाचो विचार मात्र आसता.

उजवाड शेवण्याचें प्रतीक आसता. अंधकार म्हळ्यार मरण, विशाचो सर्प. ओ एन वी कवितेंतलीं बैबिलाचीं बिंबां उजवाडा संबंदी आसतात. विशेश जावन मेणवाती ज्यो दुसऱ्यां विशी जळतात. स्वतंत्रतायेच्या सपनाचें खुरसार मारप, पुनरुत्थान आदी. क्रिस्तांव मिथकांत जेजूक सुर्या म्हूण कल्पना करतात. जेजू सुर्या समान आपल्या पुनरुत्थानाचे वाटेन परत येता, बैबिलाच्या बिंबांतल्यान कवी आपली काव्यजीण दाखयता. हे जिणेंत सर्गाच्या राज्याची पृथ्वीचेर हाडपाची कल्पना पुनरुत्थानांत समाप्त जाता. उपरांत तो दुसर् या काव्य–जिणेंत पुनरुत्थान करता.

कवी ओ एन वी फुलांक आनी चलयांक अदीक मोग करनासतना रावता. जळचें मन एक अग्निपुष्प. फूल पिसोळ्याचें, काजुल्यांचे समान आसतात. तशेंच अग्निपुष्प ओ एन वीचे आवडेचें. पिसोळीं संगीताची प्रतीकां आसतात. मरणाचो अंधकार सोडून उडून वचीं. झशें कुमारनाशान हांणी, "हे फुला! आमी भाव– भयण न्हय काय?" म्हूण विचारून अध्यात्मीक भावपण स्थापीत केलें. फुलाचे सकयल पडपा खातीर तांचे मनुश्यत्वाची वायट दशा तांणी हांगा चित्रण केली. ओ एन वी भावकीची निशाणी मनांचेर कोरांतून दवरता. तांतलो आपलो भूतकाल आनी मनशाची सामान्य स्थिती फुलांत पळोवन घेता.

*सुर्याक एक स्तुतिगीत आनी पृथ्वीक एक मृत्युगीत* नावांचे कवितेंत ओ एन वीचें सामान्य मानवतावादी तत्वज्ञान पूर्णत: अभिव्यक्त जालां. मनीस आनी

सगळे चराचर संपूर्ण सृश्टी जी सुर्याच्या उजवाडाक आनी हुनसाणीक आश्रय घेवन भुंयचेर आसता, भुंयची संतत आसतात, सुर्याची मोगाचीं आसतात, देखून भाव-भयण आसतात. ओ एन वीचें हें तत्वगिन्यान पूर्णत: भारतीय आसा. अथर्ववेदांत सांगलां की गतिशील आनी गतिरहित, सगळ्यांचो स्रोत सुर्या आसता. सुर्याची स्थिती केंद्रांत आसता. हें वैज्ञानीक सत आनी सुर्याची कल्पना जी अथर्ववेदांत आसा, ती सामान्य मनीषपणांक खर् यानीच हातभार लायता.

ओ एन वीचो सामान्य मानववाद केरळाचे संस्कृतायेंत रुजून आसा. हे ताचे उत्तर भारत आनी रूसी प्रवासांतल्या कवितांतल्यान प्रमाणीत जाता. कवी सगळ्या केरळाच्या संस्कृतायेचें चित्र आनी स्वर पळयता. ओ एन वीचे मानवतावादी दिश्टीचे विशेश गुण होच आसता की ताका समस्त संवसाराची जाणीव आसा, पृथ्वीची जाणविकाय आसा आनी तें केरळाचे संस्कृतायेच्या खूणांतल्यान ह्या संवसाराच्या खंयचेय भागाचे आसल्यार तो केरळाचे संस्कृतेंतल्यान पळयता. देखून ताचें घर, केरळ, संवसाराचें केंद्र आसता. कविची समज अशें की ताका समस्त संवसारांत घर आसता.

सगळ्यान  
म्हाका एक घर आसा  
आनी म्हजी सोंपोवूंक नाशिल्ली  
कविता आनी हांव, थांगा आसा  
म्हाका एक घर आसा,  
जंय वास करतात  
बरे मनीस, ज्या मनशांक मेळूक  
हांव सदा आवडता आनी  
जिणेच्या परमानन्दाचो  
वांटेकार जावपाक उत्सूक आसतां

इंग्लीश अणकार: एस. वेलायुधन



खंयचेय विशेश प्रकारांत तरेकवार रीति आनी शैलींत पयल्या स दशकांत

सुमार 23 कविता-संग्रहांत तयार केले सुपीक कविचे शंबर पिकाळ कवितांचे वर्गीकरण गरजे भायलें काम म्हणपांत दुबाव ना. ओ एन वीचे भय घालपी रचणुकांचे पूर्ण लिखाणांचो नमूनो तैयार करपी थोडे अणकारांच्या सहायान कोणूय ताचें ओड लायणे रचणुकांचे प्रकारा संबंदी घडोवणी तैयार करपाक शकना. ह्या संग्रहाचे भिन्न भिन्न भाग एका तराचे विशयसंबंदी मेकळें वर्गीकरण आसता. चड करून ते वाचप्याक कविचे भिन्न भिन्न वाटो भिन्न भिन्न समयाचेर उपेग करपाचो उगडास करून घेतात.

ही वेवस्था कवितांची कालगणना अस्तव्यस्त करता. देखून प्रथम संस्करणाच्यो तिथी कवितेचे समाप्त जातकीर दाखयल्या.

काळजाच्यो सरयो नांवाच्या पयल्या भागांत गीतशैलीची कविता मांडून घेतल्या. चड करून हांत कविचे आवडेचीं सामान्य गितां पळोवपाक मेळटात. वाट चुकलीं कुपां नांवाच्या भागांत वेवस्थीत ल्हान गितां अधिकूय गद्यकाव्य आसतात. हाचें नांव तोन्यक्षरङ्ङळ् (प्रेरक कविता) तर आमी पुरातन आनी हें पुरातन किन्नरम् ताचे गीतशैलीचे आनी मोगाचे भावनेचे भायर मनशाचे स्थितीचेर तत्वगिन्यानाची चरवण, समाजाचो आनी व्यक्तीचो संबंद कविचो वावर आदीचेर

टिप्पण करता. दुसर्या भागांत दोन कविता आसात. पृथ्वीक एक मृत्युगीत आनी सुर्याक एक स्तुतिगीत. ह्यो लांब कविता ओ एन वीचे काव्य-जिणेचो मोटो बदल घडोवन हाडच्यो घडणूको. ताचे काव्यदिश्टीच्या उच्चपणाच्यो साक्षी. पृथ्वीक एक मृत्युगीत सायलेंट वेलीचे वाद-विवादाच्या संबंदान ई.1983 वर्सा बरयली. देश एका दुबावांत पडलो आनी हालतालो. केरळांतल्या पालक्काड प्रदेशाचे लागीं सायलेंट वेली नांवाच्या पाचवेंचार रानांत, कुन्ती नदीचें आडवें बांध घालपा संबंदान कवी, लेखक, कलाकार, फिल्म काडतले आनी कर्तव्यदक्ष न्यायनिश्ठ नागरीक त्या प्रदेशाक उगडें बोडकें करपांत साकून राखण दिवपाक एकवट जाले आनी ताणी सैमाच्या संरक्षणाची समिति घडयली. ओ एन वी ह्या पंगडांत आशिल्लो आनी हे समितीचे कार्यावळींत भाग घेतालो. ताणें आनी दुसरे कवीनी सैमा-संबंदी कविता निर्माण केल्यो आनी सगळ्या केरळांत श्रोतृगण तयार केलें. ह्या अभियानांत ही कविता प्रमुख आशिल्ली. सुर्याक एक स्तुतिगीत, पृथ्वीक एक मृत्युगीत नांवाचे कवितेचे

उपरांत आशिल्ली परिणती जावन आयली.

तिसऱ्या भागांत चड करून कविता भारताच्या भायर्च्या देशांची आसतात. पारव्यांचो राय नांवाची कविता धर्मवादा संबंदी आनी आकांतवादा संबंदी आसा तरी निमाणें शेवणें फुडार सुचोवपी परिस्थितीक उणाकपण हाडपी, स्पश्ट वैश्विक प्रयोग आशिल्यान पुराय नाश दाखोवपी हांगा समाविश्ट जाल्यात.

चवथ्या भागांत सर्वाधीक कविता आसतात, ज्यो कविता विशयपुरक अनुभव, ध्यानाची वाट, चिंतन-मनन, देवदूताची दिश्टी आदी वर्णन करता. रोखडेच ओ एन वीचे कवितेच्या मुखेल गुणांचो भाग.

पांचव्या भागांत *मृगया* खण्डकाव्य आसा. म्हाभारतांतल्या उपाख्यानासंबंदी एक लांब कविता.

कालिदासाचे जिणे-संबंदी कविता, उज्जयिनींतले भाग, म्हाभारतांतल्या उपाख्यानाचेर आदारून निर्मिल्ली स्वयंवरम् कवितांतले उतारे आनी आवय एक मासिडोनियन दंतकथेचेर आदारून निर्मिल्ली गीतकथा.

उज्जयिनींतलो उतारो नायक कालिदासाक ताचे व्यक्तिमत्तेची सत्यताय दाखयता. चक्रवर्ती विक्रमादित्याक रागार हाडून घेवन कालिदास हें करता. युवक आसतना कालिदास पिंपळा रुखाच्या पोंदाक बसून आपले कवितांक बिरकिटावन व्हड शब्दान वाचतालो. पिंपळा रुखाचे पोंदाक मालवा ग्रामांतले नदी करावळीक बसून म्हणचीं ही कविता एका चलयेक आकर्षित करताली. ते चलयेच्या अपार सौन्दर्याची तो तोखणाय करतालो. उज्जयिनीच्या शासकाच्या कानांत हें पावलें. तिका शासकाचे अन्त:पुरांत व्हरपाक तांणी सैनिकांक आदेश दिलो. ते चलये खातीर कालिदासाली ओड एकदम ह्या कार्यांत आडखळ हाडच्या प्रयत्नांत लागली. तांणी सगळ्या भारतवर्षाची यात्रा करपाचो निश्चेव केलो. परत आयले, ते म्हान कविच्या रुपान. ह्या काळाक उज्जयिनींत ''रत्नहारी'' हांका म्हान कविची गरंज आशिल्ली आनी तांणी ताका हड्ड्या लागी दवरलो. चक्रवर्ती हांणी दुसरे खेपे कालिदासाक हाडूक सैनिकांक आदेश दिलो. हाव आपलो वेळ काडून चक्रवर्तीक मेळपाक येवजीतां म्हूण सांगून सैनिकांक परत धाडले. तो चक्रवर्तीक मेळ्ळो.

मालवाचे चलयेचो उगडास चडान चड प्रेरक जालो. जेन्ना ते राजसत्तेंत पावले चक्रवर्तीन तांका रास भर भोवमान केलो. राजमहालांत वास करून

तांणी आपलीं नामनेचीं नाटकां रचलीं. तांतुतल्या एका नाटकाच्या अभियानांत तांणी आपल्या सपनांतले चलयेक पळयली... सर्गावयलें पूर्ण फुल्लें सौन्दर्य विदग्धतायेन राखतल्ली आनी सर्वकलेंत प्रवीण ....... ती गुपीत जावन पल्लव नांवाच्या कालिदासाले सेवकाच्या सहायान ताका मेळूक आरंभिली. समाचार राया लागीं पावलें आनी ते चलयेक लग्न जावंक तयार जाले. ते दुबावांत पडले. मालवाचें सौन्दर्य तांचें मोलादीक भांडार कशें सोडचें? तशेंच आपल्या नवरत्नांतले प्रसिद्ध कालिदासाक कशें कडेक काडतले? रायान चतुरुपाय, साम, दान, भेद, दंड, वापरूंक निश्चेव केलो. हांत शांततायेन समजावप आनी उपहार दिवन मोहीत करप, गरज पडल्यार यातना दिवप निमाणें बंदखणी सारको कठोर दंड दिवप. हांगा दिलो उतारो साम आनी दान हांचें वर्णन करता आनी कविच्या उपहाराच्या न्हयकारपाचो परिचय दिता. रायाले मोगाचे वारांगनाचो आनी राजनैतीक शक्तीचो, जे शक्तीन स्वतंत्रतायेच्या कामाचे मर्यादेचें विवरण बी हांगा मेळटा. कवी मातूय फाटी सरलोना म्हणपाचे भेदा प्रमाणी गांवाचे भायर करपाचें आसता. पयस आशिल्या रामगिरि प्रदेशांत एका वर्साक वास करून येंवचें मेघदूत काव्यांतल्या यक्षाचे देशबहिष्कृतेचो उड्गास करता. पल्लवान कालिदासा लागीं सांगलें की चली रायाल्या नातवाक आवडली आनी आजान नातवाक उपहार म्हूण तिका दिली. ते चलयेक कालिदासाचो छंद लागलो आनी तिणें खाण उदक सोडून घेतलें. मरण मेरेन उपास केले. दक्षीण दिशेर आशिल्ले राजकुमाराच्या आपल्या मुळच्या राज्याक वचंपा वाटेर प्राणत्याग केलो. उज्जयिनींत रायाल्या उद्यानांत एक मंडप आसा, तो तिच्या उडगासाक लागून तयार केला. हांगा तिणें निमाणी सवारी केल्ली पालखी सांबाळून दवरल्या.

ययातीन आपली धूव, माधवीक गालवाक कशी दिली आनी ताणें कशें तिका तीन रायांक आनी एका तपस्वीक दिली, तांणी एकेक वर्साक तिका बायल मानून तिचेर आपापले पुत्रांक उत्पन्न केले आनी निमाणें तिणें कशें दादल्यांचो संवसार सोडून रानांत आश्रम घेतलो म्हूण स्वयंवरम् काव्यांत वर्णन केल्यां. विश्वामित्राचो पूत गालव ताचो शिश्य बी आसलो. आपलें शिक्षण समाप्त जाताकीर गालव आपल्या गुरूक दक्षिणा दिवपाची लोकाचाराची चाल पूर्ण करपाची इत्सा करतालो आपले शक्तीचे अनुसार किदेंय दिवपाचें म्हूण

विश्वामित्रान सांगलें. तें कितें म्हूण गालवान परतून परतून निमंगीलें. रागार येवन विश्वामित्रान 800 श्वेत मज़बूत घोडे जाचो एक कान काळो आसता, हाडपाक सांगलें. गालव शक्तिहीन जालो. ताणें गरुडा लागीं सल्लो घेतलो. गरुडान ताका ययाती लागीं व्हेलो. ययातीक ताचेर दया आयली आनी आपली धूव ताका दिली आनी सुचयलें.. माधवीचें लग्न राया लागीं जाता. जो राय गालवाक 800 श्वेत घोडे दिता, तर ताचो प्रयत्न सफल जाता. गालवान तिका अयोध्याच्या हर्यश्व रायाक दिली. ताचे मात 200 घोडे सारके आशिल्ले. माधवीन गालवा लागीं सांगलें - एका दिव्या वराच्या बळान भुरग्याक जल्म दिवन आसूनय ती आंकवार आसता म्हूण जाणीव घेवन गालव तिका दुसऱ्या रायाक दिवपाक शकता आनी गरजे अनुसार घोड्यांक घेवूंक शकता. गालवान तिका काशीच्या राय, दिवोदासाक आनी भोजराज, उशीनराक दिली. गालवान 400घोडे घेतले. अनीकूय 200 घोडे मेळपाचे आशिल्ले. गरुडान माधवीक विश्वामित्राक दिवपाक सुचयलें. 600 घोडे बी ताका दिवंचाक सांगलें. गुरुदक्षिणेचो धर्म पूर्ण करूक रिणांत साकून मेकळो जावंचाक गालवान माधवीक विश्वामित्राक दिली. विश्वामित्रान तिका स्वीकार केली आनी तिचेर ताका पुत्र जल्मलो. ताचें नांव अष्टक. निमाणें आपल्या बापाय लागीं परत येवन ययातीन माधवीक एक स्वयंवर तयार केलो जो स्वयंवरांत तिका मेळिल्ले तीन राय वांटेकार जाले. आपल्या बापायाचो विरोध करून दुसऱ्या दादल्यांक सोडून ती राना लागीं लग्न जाली. हांगा उतारो घेतलो. काव्याचो अंतीम अध्याय स्वयंवराच्या आनी माधवीच्या विरोधाचें वर्णन करता.

## IV

ही कविता एकठांय करपांत तपासून पळोवपाचो एक इतिहास आसा. सुमार 20 वसां पयलीं ई.1986 वर्सा वी श्रीकुमार, केरल भाशा इन्स्टिट्यूट (आमी तेन्ना मेळपाचीं ना) हाचो संपादक आशिल्लो. आमच्या वांगडीपणाची शक्त स्व. वी सदाशिवन हें कार्य करपाक म्हाका प्रेरणा दितालो. तर हें एकान एका कारणान मुखार धुकलतालें. तेन्ना हें एक ल्हान घोस आशिल्लें. कळाव जालो आनी उज्जयिनीच्या अणकाराच्या वेळार तें थोडे फाटीक सरलें हांत मदीं कविताची अणकार सुरू जालो. मागीर संपादन आनी बाकी

अणकार मुखार व्हरून ई.2002 वर्सा अणकार खूब जाले, कविलें हालींचें कामय आस्पावन घेतलें. ह्या संग्रहाचो व्हडलो भाग ह्या समयाचेर पूर्ण जालो कवितेच्या अणकाराचे सगळे शिमेची अपेक्षा करून हो संग्रह वाचप्यांची रूच पाळून घेतलो.

हांव अणकारपी जनांक उपकार सांगतां. तांत श्रीधरन नायर ओ एन. वी कवितांचो सर्वाधीक पोरणो अणकारपी. ह्या कार्यांत आपलो अभ्यास मानून मुखार सरलो. कवी लागीं तांच्या दीर्घकालाच्या वांगडीपणाक मानून तांणी तिरुवनंतपुरमाच्या युनिवेर्सिटी कॉलेज शिकच्या काला सावन सुरू जालें. 'त्या पोरण्या दिसांनी म्हज्यो रचणूको भाशेच्यो शिमो तोडून वचें म्हूण इत्सा करतालो'. एस वेलायुधन, आर विश्वनाथन - हे दोन अणकारपी हो लोक सोडून गेले. एस. वेलायुधन हांणी अणकार करून संपादन करपाचें कार्य मुखार व्हरपाचो प्रारंभ केलो. ओ एन वीचीं मुखेल कवितां केरळाच्या भायल्या नेमाळ्यांनी अणकारून घेतलीं. तांणी अणकारली निमाणी कवितांचो उडगास ओ एन वी करता. ती कविता मृगया आशिल्ली जाचो अणकार कवीक टपालांतल्यान मेळो. ताचे उपरांत वेलायुधन हाच्या मरणाचो समाचार बी मेळो. आर. विश्वनाथन जो कवी, अणकारपी आनी प्रसिद्ध पंडीत आसलो ज्याची ओ एन वी कवितेची समीक्षा उल्लेखनीय आसा. ताका अकादमीक कार्य, सृजनात्मक कार्य आनी अणकारांतले म्हजे प्रयत्न तोखणायेचे जाले. हांव ताका उपकार सांगून घेतां.

**– ए. जे. थॉमस**

नवी दिल्ली
25 ऑक्टोबर
2005

स्वतंत्रताय आनी स्नेह
म्हाका जावंक आसा
म्हज्या मोगा खातीर
हांव म्हजी जीण त्याग करतलों
स्वतंत्रताये खातीर
हांव म्हजो मोग बळी दितलों.

**– सांदोर पेटोफी**
हंगेरीचो कवी

## हें पुरातन किन्नरम्
**1**

हे लांबायेचे राती प्रियतमे,
तुजे खातीर हांव हें पुरातन किन्नरम् वाजीतां
तुजेवयलो म्हजो मोग तुजे लागीं वांटणी करपाक
उतरां भायर म्हज्या मनांत ल्हारां मारता
हांव एक भास सृश्ट करूंक प्रयत्न करतां
हे सरयांनी ज्यो मात आफुडपान गाजतात
ते भाशेक अक्षरां म्हळ्यार केवल
सात, अमूर्त आवाजाचें स्वर
ते सकयल येतात पृथ्वीक नमन करूंक
आनी क्रमान फावो तशें सूर लावपाक
दुसरे कडल्यान ते सूर
अनन्ततायेचो आनंदमय संबंद सादतात
ह्या परिणामांत नासपावपी
खंयची अभिव्यक्ती आसता?
सौम्य आनी सामकें निवळ
प्रियतमे, म्हजेकडेन बस!
हांव हें किन्नरम् वाजीतां
हें पुरातन किन्नरम्
आज फुल्लें चांफें
उकत्या जनेलांतल्यान तुका सोदता
हें कोमल वनस्पत बी भास घडोवन आसा
ताच्या मोगाक अभिव्यक्ती दिवपा खातीर.
धर्तरी तुजे सारकी बागोवन आसा
कल्पनेचे सोबीत पदरांत

कोण किन्नरम् वाजीता अदृश्य,
पयस वा लागीं?
वारें, उन्मादाचो शिंवर
सरयांचेर चलपी बोटांचो
हांगा आसता वैश्वीक संगीत, तांत बुडून
हिमकणाचो सकयल पडचो कोमल आवाज़,
पानाचो सरसर, प्रावसा थेंब्याचो टपटप,
नागरूंक नाशिल्ले जमनीचे सुस्कार
जाचो उमो घेता शिंवर
मोराचे किळांच मारपाची मादक कलकलाट
रानांतल्या झऱ्यांचे लंगोटेचो सरसर
शेळो लागल्या फातरांचेर जाचो पांय निसरून गेलो,
वाऱ्यान जालो वाश्याच्या उपकाराचो गुणगुण
जो ताच्या घायांक सौम्यतायेन उमो दिता
धवे पारव्याचें सौम्य कूजन
जें ताच्या घोंटेराक सर्ग करता
दरयाच्या काळजाच्या तळमळ्याचें रडें
मोगान संतापिल्लें,
आकाशाची म्हान शांतताय
जंय आवाज़ स्वयं विरगळता
गंधर्वा जशें, जाचो आत्मो
खंयचेय अंकवार चलयेच्या मोगान
जाल्ल्या विरहांत बुडला
दृश्यमान संवसाराचे पेलतडी खंयकीच
अखण्ड प्रेमी गायता तशें पृथ्वी चान्न्यांत भिजत रावल्या,

त्या मधुर सुरांचे सांसपणीची
सुंदर अनुभूति घेवन.
हे लांबायेचे राती प्रियतमे,
हें पुरातन किन्नरम् हांव वाजीतां

2

रात लांबाय वाडयता ........ जन दुख्खांत बुडता
एकदा ते परत ल्हवू ल्हवू घर्मशाळेचे लागीं येतात
हांव आतां मेरेन तुजे कुशीक रावलां
हें पुरातन किन्नरम् वाजपाक
रात लांबाय वाडय़ता .....
असल्यो कितल्यो राती हे यात्रेंत वचपाच्यो आसात?
पाथेय सरलें, हे रांदणींतलो उजो वाडवलो कांय?
थंडायेचे सुळे वाऱ्यांत हुयेल मारतात
सगळेच देहांत हुनसाण भरता
फाटल्यान आशिल्या व्हडल्या रुखांचे खांदे
जोराच्या झटक्या जशें कडकडतात
शेवण्यांचो आवाज़ ओगी जाला चोंचींत
ताका गावपाक जायना
तें दुसऱ्या दीस साकाळीं सुर्योदयाची प्रतिक्षा करता
आनी वताची हुनसाण थंड पयस करता
आपले दोळे एका खेपे जायत जाल्यार
धांकपाचो प्रयत्न करता,
हे लांबायेचे राती
थोड्या सपनांक उर्बा दिवपा खातीर --
हांव तुजे लागी रावन गायलोना वे?
अनेक जल्मांत
रांदणींत अंगारा सारकें
वर्सांच्या फाटल्यान आमी चलपाक सुरू केलें
खूब वाठार पळयले, थोंडे जागे पळयलेना,
आमी आपल्यो वस्ती सोडून पळून गेले?
कांय अधिकार नाशिल्ले,
शिविरांत बसलीं भुक्केवन आनी भियेवन
एका दुसऱ्या लागीं नुलयत.

रात लांबाय वाडयता म्हूण म्हाका जाणीव जाली
पृथ्वी रडता म्हूण जाणविकाय आसून
सुण्याचे आनी लांडग्याचे परस वायट
मनीश–मृगां आमचेर आक्रमण करतात.
म्हळेल्या व्हडल्या हुसक्यान
म्हजें काळीज केंचवेता.
हां एक नवो मृत्युंजय मंत्र सरयांचेर वाजीतां
जशें घुंवळ आयिल्लो दया दाखयता तशें
सगळें मेळून भिरांकूळ दोळे.
जशें लागी एक व्हडलो नाश येवपाचो आसा!
उत्कंठा चारीय दिकान हात आसून
लग्न केल्ले आपले बायलेक
जबरदस्ती सुटका दिवपा जशें
असहाय आवयचो मोग
नवे जाल्या भुरग्याक पळोवन
सुस्कार सोडपाचे जशें
भयानक शंका जी आदमास करता
दर एका सुरांत मरणाचे पादध्वनिचो
मेल्ल्या मनशाचें दुख्ख उगंडासांत परत येता हुडके जावन - - -
म्हज्या जळच्या मनांत हें सगळेंच भरून
हांव पुरातन किन्नरम् वाजीतां.
"स्नेहाचें मातशें तेल घालून दी
जशें हे रांदणींत ज्वाला भगभगीत आसो
जिणेंत दुख्ख पयस करपाची हुनसाण पसरून!
ताचे सरभोंवतणेक यो आनी नाच!
गायन म्हजें ध्येय आमी मेळून गावुया
आनी फांतोड करूया."

रात लांबाय वाडयता, कितल्यो राती?
हे यात्रेचे सावन सरपाच्यो आसात!

हे मोडले धर्मशाळेंत
आसरो घेतले पथिक!

हांव हांगा रावतां, अनीकूय एका कोनशांत
हें पुरातन किन्नरम् वाजत रावपाक!
एका दिसा म्हजे हात सुस्त जातले,
तरीकूय हें किन्नरम् हाचे मोडिनाशिल्ले सरयांचेर
दुसरे हात वाजतले
दिसपट्टे जिणेंत जाले ल्हान ल्हान घायांक
थंडाय दिवपाक

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
मूळचें पयलें प्रकाशन (Ofp 1980)

## एक भावगीत

कारण कांय तर ना
एका खिणाक हांव आस्त केली
तू म्हजे कुशीक आसल्यार म्हूण ......

राती जेन्ना पावस थांबलो
मंद वाऱ्यांत पाले सरसर आवाज़ करताले,
उदकाचे थेंबेवणीचें संगीत
म्हज्या काळजाचे सरयांक आफडून गेलें,
भिरांकूळ शेवणें किलकिलाट करतालें
म्हज्या जनेलाचे लागी .

कारण कांय तर ना
एका खिणाक हांव आस्त केली
तूं म्हजे कुशीक आसल्यार म्हूण .........

जेन्ना चांफ्या रोंपी हांव रोयली आंगणांत
पयले खेपे ती फुलली,
म्हजीं सुंदर सपनां तुजे सुगंधीत केसांचे भोंवतणेक
रेंगाळून रावलीं.....एका पुरातन प्रेमकथेचीं गितां
म्हज्या मनांत घुटमळत रावलीं

कारण कांय तर ना
एका खिणाक हांव आस्त केली
तू म्हजे कुशीक आसल्यार म्हूण ......

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1985)

## कशें हांव इत्सा करचें...

कशें त्या पवित्र वाठारांत परत वचाक इत्सा करचें
ज्या वाठारांत म्हज्या ल्हानपणांचे खेळांचो
मधूर उगडास आसात
पोरण्या काळा समान म्हजे वांगडी आंवाळ्या झाडाचे खांदे
हालोवपाची इत्सा करचें कशें
जो म्हज्या पुर्वजांच्या घराच्या आंगणांत रावला!
जेन्ना फळांचो शिंवर जशें सकयल पडतात
तेन्ना एक फळ काडून
ताची ओड लायणी कोडसाण,
उमेदीची आंबटाण
ताचे मधुर आनी गहन गोडसाण रूच घेंवचें
लागीच्या झऱ्यांतलें उदक पिवंचें
कितलें गोड, "कितलें वरतें"!

परतें एक फावट
झऱ्या लागी रिकामो बसपाक हांव आशेतां,
आनी कोगळाचो गीत आस्वादन करपाक,
आस्वादन करून उतर दिवपाक
तशें उतर दिवन तिची उमेद वाडोवपाक
कर्कश आनी भावनावश नेटान सूर काडपाक,
तळमळाच्या उद्‌गारांच्या ल्हारांचेर पेंवन
जेन्ना निराश जावन ती उडून वता
रागार येवन, विरोध करून,
म्हजे लागीं विनंती•करपाक,
'रावगो, मोगा धुवे वचें नाका'

अजून हांव जेन्ना मोराचें पांख पळयतां
हांव आशेंतां, तेंच भुरगें जाल्यार म्हूण
जेन्ना दुसऱ्या भुरग्यां समान  हांव तृप्त जातां
विश्वास आनी आस्त जीं एकच पांखाचे कुडके
पुस्तकाच्या पानां मदीं लिपून.

(वाऱ्याक आनी आकाशाक पळयतासतना)
खूब पांखांची सृश्टी करतलें आनी
शंबर जावन वाडोवन आसो म्हूण
हांव आस्त करतां
आस्त करता की हांव
वृंदावनांतल्या मोगाच्या भुरग्याच्या
इश्टा बराबर खेळपी जावचें
ताचे केश मोरा पांखान अलंकृत करचें
म्हाका जाणीव आसा की म्हजी ही ओड व्यर्थ म्हूण
तरीकूय हांव खर इत्सा करतां
हांव जाणा ती इत्सा गरजे भायली म्हूण

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 1981)

## आमी पुरातन

1

म्हजी मोगाळ!
आमी पुरातन!
ही पृथ्वी आनी तिचें सपन
जें आमी वेंगावन आसा तें पुरातन.
प्रथम दिश्ट्या जावंचें आकर्शण पुरातन,
पयलें उल्लयलें उतर जें कडकडेवंचें
खिणयाळो स्पंदनाचो भावातीरेक
जेन्ना गुलाब गुपीत जावन अदलाबदल करता
तुज्या विचारांत हांव गुणगुणेवंचें संगीत
तुजी मोनी मुग्धता,
पयलो उमो, फूल तुंटोवपा सारको
मनांत विनवणी – 'हांव तुका दुख्ख दिलेंना नवें?'
कश्टांतले सुखाचे अणभव
जे तुजे दोळे बेसावध भरून हाडता...
...हें सगळेंच पुरातन
प्रिये, हें सगळेंच मात नवें, परतें करप...
चड पुरातन निरपेक्ष आकाश मात
जें एका उपरांत दुसरें ओतून दिता...
सुर्याचें वत, चान्न्याचीं किरणां, आनी दंव.
मनांच्या जनेला भिंगाचेर एक चित्र कोरांतून काडता.
कोण सांगलें ही फटवण आनी
आमी हांत धरिल्लीं खिणयाळीं म्हूण?
आमी येतलीं आनी वतलीं

आमी हे वाटेन येतलीं आनी वतलीं
आमी सदा माचयेर आसतांत,
पड्डो वयर वता, सकयल येता
वयर वता आनी सकयल येता.

2

आमी पुरातन,
परत परत पृथ्वीची बांदणी करतात
आमी सदा प्रवासी गांवा भायरचे आनी दुख्खांत बुडले
एडना साकून भायर आयले तशी
आमचो सुख-संतोश तांचे वांगडा आसा
क्वचित् दुख़्खी आमी जिप्सी सारके जियेले
आकाशाचे ते अंतरंगी तंबूंत
अनेक जल्माचे उपरांत हांव आज हांगा रावतां
वेगवान पावलांनी तुमचें आगमन प्रतिक्षा करून...
मिरयांचे इन्द्रधोणून आवृत सौंदर्य चपल पावलांनी
पाचवीं मळां वाऱ्यान सान्न मारून नितळ करतना
म्हजें गीत आयकून रोमांचीत जाले
आमी रेवेंचे झंकृत दाणे जाले.
जिप्सीले मोगा लोककथेंतले भांगरा तावजांतले
आमी पुरातन! प्रिये ही पृथ्वी
आनी आमी वेंगावन घेंवचें हें सपन पुरातन

3

आमचे जिणेंचें अरण्यकांड जावंक आसा
फुडाराच्या कांक्रीटाच्या प्रत्यक्ष रानांतल्या अनेक वर्सांत

प्रतिदिन आमचे कामाचे सुवातेचेर साकून आमी सांजवेळे हांगा बसताले
हांगाचे नोकर मिक्सी, ग्रायंडर, वाशींगमशीन आनी प्रेशर कुकर,
इ-मेल आनी फोन आमचे संदेशवाहक
आज संवसाराच्या खंयचय कोनशांत एम एसाचो* मधुर सूर
साकाळीं प्रार्थनेक जाता.
सी डीचो सुंदर आवाज
सायगल शांत गायता,
अल्ला राखा तीन तोंकाचो परिमाण मापता
आमी मोगान भरिल्ले राग आसपावून घेतात
गजालीच्या सोऱ्याच्या घरांत
रोबसण काळें मेघ जशें शिंवर घालता
तो रविशंकर न्हय वे? जो आमच्या काळजाचे सरयांचेर
आमी नेणत वाजून घेता?
हाचे परस चड संतोश खंय आसा?
आमी चुकले! आमचे जिणेंत थोडें भोव नश्ट जालें
सदां खातीर! तें खंतयच्यान मेळचें?
आमचे पृथ्वीचे भाग आमी फाटीक सोडले
जाणी आमकां जल्म दिल्लो, वयर काडलो आनी पावले
आमी दंडकारण्यांत........ आमी निर्वासीत जाले,
आमी शरणार्थी जाले
आमी दिसपोरांतले जुदेव वे? आमी आपल्या स्वर्गलोकाक
फाटीं घालून चलतां आसा कांय?
आमी स्वतंत्रतायेन सगळ्यांक उडून भोंवचीं
शेवणीं जांवच्याक ओड घेवन रावलीं
तरीकूय मनांत आमी भंय, सत लिपोवन रावलीं
सदा शिकारी आसता पळोवन.

* एम. एस. सुब्बलक्ष्मी भारतांतली एक पोरणी गावपी. तिचो आवाज सुराळ आनी नादमधुर. भावना उत्तावपी संगीतात्मक गायन.

अजून आमी गर्देंत लाचार कुन्ती...
भुर्गीं पांच न्हय, ताचे परस चड!
खंयचे तरी एकल्यान सांगलें की ती एक
आदिवासी जमातींतली रानवट जातीची म्हूण
ताचे परस चड आमी सोद घेतलोना
अजून आमी डांबर लायिल्या वाटेर
नरम खून ....... घायळ भुरगीं
हें कित्याक आमी सोद घेतलोना?
भितर वाज येवन पडल्यार
टी वी चेर आमी पळयतात
राज्याचो मुख्यमंत्री विनंती करता
रानांतल्या डाकू लागी कितें पूण कर म्हूण...
ह्या प्रदेशांत मनशाक कितली स्वतंत्रताय
जंय मन भंयाक्रांत आसता
आमी वांटे केले आनी आतां झगडीं करतात
आपल्या आपल्या जमीनींच्या कुडक्यां लागून
घरा कडे आनी भायल्यान...
आमी पुरातन! हे प्रिये!
आमी ही पृथ्वी पुनर्निर्माण करतात जणू कितें?

4

तुमी दाराक खिळी लायली कांय! यो
ह्या जनेलाचेर बस
वागळ्याची झुंडी, जें कोण तांकां हालयता
आपलीं पांखां फडफडायतात आनी
पिंपळाच्या खांदावयल्यान उडून वतात

वाटेचे कडेन रंगमाची सारकी दिसता
काळाच्या तवशाच्या लोकनाट्याची,*
जुगारी, भिकारी, बूट पॉलीश करचे ल्हान ल्हान चेडे
सवकास चलतले, बेबदे, गायतल्ले, पोजडे,
माले फुल्लां सारके बावट्या तोंडाची भयण
जीव आसतनाच आपली कूड त्याग करची
तट्टु दोशा+ करपाक रांदणी तयार करपी
शारांतल्या निमाणे बसाची प्रतिक्षा करतल्ले दयनीय मनीस,
म्हातारो, आजो आनी ताची ल्हान नात
घरांत परत येवपाचें गर्देच्या वेळाचें गांवगिरें दुख्ख
आपलो कीर, चीट घेवन ज्योतिशी
आमी पळोवपाचीं हीं दृश्यां पोरण्या नाटकांतलीं!
धुळींत न्हाल्लें हें शार हत्ती सारकें
ताच्या कोनशांत आमी सग्ग पळयतात
रात येता आनी पड्डो सकयल वता
ह्या मदले वेळार जेन्ना दिश्ट मंद पडता
सायगलाचें ताणिल्लें मोहक गायन
सो जा राजकुमारी! सो जा!
हांव तुका मोहक स्वप्न बरें मागून
उण्यांत ऊणें सपनाक उणाव नात
आमी पुरातन! प्रिये!
आनी आतां अभिनन्दन करचें नाटक
चड करून पुरातन ...

इंग्लीश अणकार : **ए.जे थॉमस**
(Ofp 2000)

* केरळांतल्या मलबार प्रदेशांत तवश्याच्या शेतांत लुवणीच्या काळाचे उपरांत अभिनय करपाचें लोकनाट्य. हाका तवश्याचें नाटक (मलयाळम भाशेंत वेळ्ळरि नाटकम्) म्हणतात.

\+ एका व्हडल्या लोखंडा कायलीचेर जोड जावन करचे ल्हान पोळे. केरळांतल्या तिरुवनन्तपुरम आनी दुसऱ्या प्रदेशांत रातीचें वाटे कुशीक पळोवपा सारकें दृश्य.

## रातीचे ट्रेनींर

हांव म्हज्या बर्थाचेर आंग तेंकयतां
रातीचे ट्रेनीर
आनी येवजीतां, हे राती एक राक्षसी न्हिदता
रसरशीत केंस,
विस्तारान पातळायल्या

ताकतिकेन, मर्यादेचे असीमतायेन
तिची भेश्टावणी आकृती
तिचें वांकडेपण आनी आंगलोट
वयर आनी सकयल
वासनेच्या उमाळ्यान धांवच्या बोटा सारकें
हे ट्रेनीर!

अर्द न्हिदेंत
म्हाका ताची समजिकाय जाली
दादलेपणाच्या उन्मादान, उद्वेगान
सगळें हुतहुतें
ताच्या खरशेपणांतल्यान
हांव सवकास उडून वतां

इंग्लीश अणकार : **आर. विश्वनाथन**
(Ofp 1984)

## पावसा थेंबे

'पावस तो कितलो सुंदर!'
तुवें कानांत सांगलें,
गिमान तापले पृथ्वीचेर
पावसा थेंबो पडतना
तुजे मनान सोसून घेतलें कांय
रेंवे परस चड थंड
वा पावसांत विरगळून आयलें.
भरिल्लो संतोश आसपावंक जायनासतना
तुवें सांगलें कोमल उतरांनी
"पावस तो कितलो सुंदर!"

थेंब्यान थेंबो
संगीत म्हणचो
आपल्या रुप्या सरयांचेर,
पावस एक जिप्सी चलये सारकें
आंगणांत नृत्य करता.
तुज्या दोळ्यांत खेळीमेळ
आनी तुज्या उतरांत भुरग्या सारकी पवित्रता
"पावस तो कितलो सुंदर!"

फुडलें कार्य कल्पना करून
भोंवतणेंक किदें जाता म्हूण पळयनासतना
तू हांगा बसल्या
उडगासांत जिवंत आसता

तुज्या इश्टाचे वांगडा
तू न्हंयचे पेलतड वता,
आपलो घागरो कवळून
पावसांत भिजून आनंदान हांसून
तूं न्हंयच्या करावळीक पावली.

आवाळेचीं नवीं धुल्लीं फुल्लां
वाटेर तुका येवकार दितात
तुजे मुखार
पावस मात
वाट आनी फुल्लां!
म्हजें लागसारपण विसरून
तुवें सांगलें ल्हवूच
"पावस तो कितलो सुंदर!"

मागीर तुका पळोवन
हांव ल्हवू सांगलें
तूं कितली सुंदर!

इंग्लीश अणकार : **लक्ष्मी राजीव**
(Ofp 1999)

## एकदां

एकदा म्हाका तें तुजे लागी सांगपा आशिल्लें, एकदां...
तरीकूय सुद्धां हांव सांगपाक शकलोना

हांव जाण तूं म्हजी वाट पळयता म्हूण
कांय वेळ उमेदीन
म्हजीं उतरां आयकुपाक.

तुमच्या कापडाची देग घुसपलिना
खांदयेर रोजाचे.
कांटे तुमच्या कोमल पांयांक
घायो करनात.
धोंग नाशिल्लें
तूं म्हजे लागींच रावली,
कांय ना अशें न्हय,
थोडा विचार करून
हांव किदेंय पूण सांगतलों म्हूण
तरी तुजे लागीं सांगपाचें आशिल्ले विचार
म्हज्या तोंडांतल्यान उडून गेले खंय तर!
मागीर ते खीण भर कडकडेले
तर्ने झाडा खांदी जशें
जेन्ना शेवण्याची झुंडी
ताचेवयल्यान उडून गेली.

एकदा म्हाका तें तुजे लागी सांगपा आशिल्लें, एकदां...
तरीकूय सुद्धां हांव सांगपाक शकलोना

तुवें लेगीत म्हजी तोखणाय केलीना
अशें सांगून की म्हजीं उतरां तुज्या कानाक संगीत
तुवें विचारलेना-
'तुमी मात म्हजे खातीर एक गीत गायतले?'
धडधडेवंच्या काळजांतल्यान.

प्रिये! तू समझून घे
म्हजीं समस्त गितां तुजे कडेन आसात
तर तुवें तें स्विकार केलेना.
हांव गावंक शकना
हे विचारा बगर की
तू खंय तर म्हजे लागीं आसा!
तुवें हें आयकलें वां ना, म्हाका समजना,
आतां मेरेन तू सांगलेना
तुवें तें आयकलें म्हूण!

एकदा म्हाका तें तुजे लागी सांगपा आशिल्लें, एकदां...
तरीकूय सुद्धां हांव सांगपाक शकलोना

जेन्ना हांव जोर येवन पडलों,
तुवें नाजुक हात म्हज्या कपलार लायलो
तुजो स्पर्श, ते अर्द न्हिदेंत
म्हज्या आत्माक थंड आनी सुसेग दिवपी जालो
म्हजे खातीर प्रार्थना करचे शान्ततायेक
हांव मुखार पळयली!

शिंपी तोडूंक विमुख आसून
गर्भाच्या काळखांत पडले मोतयां समान
तुजे लागीं सांगपाक हांव निश्चेव केली गजाल

सांगनाशिल्या उतरांचे खोलायेंत बुडली
आज हांवे तुका एक गुलाब दिलें,
तांबडें म्हज्या काळजा सारकें!
थंय तें फूल उलयता जंय उतरां येनात...!
कान दिवन आयक
तुवें म्हजें काळीज तांत वाचलें वे?

इंग्लीश अणकार : **लक्ष्मी राजीव**

(Ofp 2000)

## संदेश

तूं पयस, आनी हांव हांगा
आमचे मदीं दीर्घ आनी विशाल अंतर,
दुख्खांचे दीस आनी विरहाच्यो राती!
काळीज लासून घेतात
दुख्खां ना करून
तूं नेणार आसतना तुजे लागी पावंचाक
सांत्वनेचीं उतरां तुज्या कानांत सांगपाक
हांव मेघाक सोदलें,
तर आकाशान भगभगेवंचें वत दिलें!
हांव जेन्ना एका मोराक सोदलो
ताची पांखां मात पळयलीं, वेपाराक माल्लीं .......
निमाणे एका कीराक जो कथा सांगपांत समर्थ,
हांव सोदलो,
कणस येनासिल्लें शेत रडलें
पाचवेंचार रानान सांगलें – –
'ताणें येंवचें ना
तुमकां मेळता जाल्यार सांगात
पोटकळ ताची प्रतिक्षा करता म्हूण
तिचें निमाणें फळ घेवन'
एक हुडको ...... हांव मुखार सरतां
तूं पयस आनी हांव हांगा!
दुख्खांचे दीस आनी विरहाच्यो राती!
संदेश व्हरपाक कोणूच ना.

इंग्लीश अणकार : **लक्ष्मी राजीव**
(Ofp 1999)

## वाट चुकलीं कुपां

**a) खंयची मदिरा चड नशेची ?**

खंयची मदिरा चड नशेची ?
तांणी विचारलें एकामेका लागीं,
तांणी भासाभास केली
तांचीं ग्लासां भरिल्लीं
आनी रितीं केलीं खूब वेळे
नशा चडलो जितलो
तितलीच भासाभास चल्ली
दनपारांच्या आहाराक
लोणी नासल्या ब्रेडाचे कापे पोटली करून
हांव भितर सरलों
तांणी विचारलें : 'इश्टा,
खंयची मदिरा चड नशेची ?'
येवजिनासतना हांव सांगलें –
'जीण, ही जीण,
जी कोणाची दासी न्हय !'
ताणी म्हाका तटास पळयलो

(Ofp 1988)

**b) सुर्याच्या वताचो रंग कसलो ?**

भुरग्यान विचारलें,
'सुर्याच्या वताचो रंग कसलो ?'
बापायन सांगलें : 'पाचवो'
'तूं कशें जाण ?' भुरग्यांची शंका जागृत जाली
आंगणांतल्या आंब्या रुखाक दाखोवन

बापायन सांगलें -
'रुखाचीं तांबूस रंगाचीं हीं तर्नी पानां
वत चोखून घेतात आनी पाचवीं पानां जातात.
देखून वताचो रंग पाचवो'
आईन सांगलें - ना 'हळडुवो!'
तिणें रुखार हुमकळटा त्या
आंब्याच्या पाचव्या घोसांक दाखोवन सांगलें- -

'पळय हे तर्ने आंबे पाचवे!'
ते वत भितर ओडतात
आनी हळडुवें जातात,
पीक येताकच भांगराचो रंग घेतात
भुरग्यांक दिसलें - दोग्गय सत सांगतात
जाल्यारूय पूर्ण सत न्हय!
तेन्ना ताणें पळयलें उजवाडाचें अपवर्तन
भुंयेचेर पळ्ळेल्या कंवचे कुडक्यांतल्यान
सात रंगाचें अपवर्तन वणतेवयल्यान!

(Ofp 1988)

**c) पसंती**
बायल एका गर्देंत रावली
गांवच्या पायणांत
तानेल्या भोंवडेकारान सांगलें :
'पिवपाक येदें उदक जाय...'
एका बायलेन भांगराच्या कळश्यांत उदक हाडलें
दुसरे बायलेन कंवचे आयदनांत हाडलें
तिसरे बायलेन मडक्यांत उदक हाडलें
पयणाऱ्यान उदक घेतलें मडक्यांतलें
तें सग्ग तो पियलो.

ताका जाणीव आसली
भुंयेतल्यान फुटलें उदक मडकेंत सुद्ध आसता

(Ofp 1988)

**d) दैवी गजाल**

दनपारां आमी थांबलीं
एका ओडा रुखाच्या सावळेंत
विसव घेवंच्याक.
रुखाच्या पेडार आमी तेंकलीं
आनी वयल्यान पळयलें
पातळीले खांदे
खुनाच्या रंगाच्या फळांनी भरिल्ले.
रूख तो कितलो व्हड!

फळां तीं कितलीं ल्हान!
आमकां दिसलें ही सैमाची मस्करी
लागीं आमी पळयली दुदयाची वाल
ताचेर एक दुदी
दुबळे आईक एक राक्षसी भुरगें!
भिरांकूळ
आमकां दिसलें
हें सैमाचें फकाण!

तेन्ना एक फळ
तुमच्या माथ्यार पडलें
तुमी तें हातांत काडलें
आनी सांगलें –'सैमाची दया
तें एक ल्हान फळ'
म्हाका दिसलें ती सैमाची दया
दुदी कदापी रुख़ार जायना...

आमी मुखार सरलीं
यथार्थ बोधी रुखाची
सावळी सोदून.

(Ofp 1988)

**e) पापवलय**

जेन्ना मळबरी झाडान आपली विणिल्ली
न्हेसून पाचव्या पानांची मुस्तायकी
ऋतुंक दिलो येवकार.
जेन्ना थोडे पाखे उडून आयले भितर
दवरलें ताचे हातांत भांगराचें नाणें
दुबळ्या मळबरी झाडान येवजीलेना
भांगराचें नाणें कुसां किड्यांक जल्म दितलें
जीं ताचें वस्त्र खावन वतलीं!

जेन्ना कुसां आनी किडे आहार काडतले
आनी सुखनिद्रेंत पडतले
ते येवजण करनात की तांच्या कोशांत
ते मरण पांवतले
खतखतेवंच्या उदकांत.
दुबळी चेली जी पाट्या कापड न्हेसता
कुक्कूणाच्या गुठलायनातिल्या सुतान विणिल्ली साडी
ती न्हेसून कुसां किड्यांची
तिजे घोवा वांगडा वता
आपण मरणांत वता म्हूण तिका दिसलेना
स्टोव फुटून, ज्वालेंतल्यान ती पट्या साडी
दुख्खपूर्ण घडणुकांचें पापवलयांत पडता.

(Ofp 1988)

**f) तुजो मोग**

वारें
तें वारें तेन्ना जेन्ना वाऱ्या ल्हार येता
झरो
तेन्ना तो झरो जेन्ना तो व्हांवत वता
दरया
तेन्ना तो दरया जेन्ना तो शांत आसता
आनी क्षोभ करता
तुजो मोग जेन्ना दाखयता लागसरपण
शांततायेचे खोलायेंत

(Ofp 1988)

**g) कुशीक काडलीं सफरचंदां**

कश्मीर.
भुरगीं सफरचंदां विकतात
अवनतिपुराच्या राजमार्गाचेर...
आमी तांकां पळयलीं
'म्हजीं सफरचंदां मोलाक घेयांत!
म्हज्या खोट्यांतलीं हे सायबा!'

हें तांचें आडावप.
कुसलीं सफरचंदां,
चिकलांतलीं सफरचंदां
पोरण्या फळांच्या खोटल्यांत आसात...
काडून उडयलीं, कुशीक काडलीं सफरचंदां
गिरेस्त धनयांनी आपल्या तोपांतलीं
ते भुरग्यांचीं तोंडां सफरचंदां परस मनोहर!
तर चिकलाचे दाग आशिल्लीं
तांचें लांब वस्त्रां ब़ी चिकलाचीं

तींच कुशीक काडलीं सफरचंदां
मनशाचे जिणेंतलीं
तांणीं तें आडावप राखून घेतलें
तीं सफरचंदां कितलीं सवाय?

(Ofp 1988)

## पृथ्वीक एक मृत्युगीत

पृथ्वी अनिकूय मेलीना,
मरणासन्न तुका आत्मशांती मेळूक प्रार्थना!
म्हज्या काळजांत हांव आज बरयलें स्तुतिगीत
हें तुका आनी म्हाका एक मृत्युगीत.

मरणाचें काळे फूल फुललें,
ताचे सावळेंत तू कांय स्पर्शज्ञान नाशिल्लें
प्राण नाशिल्या तुज्या तोंडार
दोळ्यांतलीं दुकां घालून विळाप काडूंक
हांगा कोणूय नासतलो, हो हांवूय!
हें तुजे खातीर हांव बरयतां
पृथ्वी-आई! जी आतां मेरेन मेलीना
ही म्हजी इत्सा.
मरणासन्न तुका आत्मशांती मेळूंक प्रार्थना!

तुवें असंख्य भुरग्यांक जल्म दिलो
एकवट नाशिल्या
एकल्यान दुसऱ्याक मारून खाल्लो
तुवें आपले दोळ्यानी पळयलें तें
कोणाचीय जाणीव नाशिल्लें तूं,
दुकां घालून रावली!
मागीर तुकाच कुडके करून खावून
ते थोर जाले
आनन्दान नाचले
विरोध करनाशिल्लें तूं जाली सर्वंसहा!

पाचवो पोल्को सरकावन
तुवें दिल्लें अंगावयलें पिवन फुगरे
तांकां तान जाली
आखेरची!
तुज्या पवित्र काळजाचें खून पिवंची

हे आई! मोगाचे व्हंकलेक सुर्यान दिल्लो
चित्रपटाचो पोल्को पिंजून तुज्या नग्न शरीराचेर
नांकटांनी दावखूल मारून
नेटान भायर आयले खून ते सोकून पिल्ले
मरणाचो ताळ-मेळ सगळ्याक प्रतिध्वनीत जाला
जेन्ना ते आपल्या उन्मादाच्या नृत्तांत भोवऱ्या समान
धुंवचाक लागले!

जाणीव नासून आपले आईक लग्न जाले
यवन तरनाट्यांची कथा भोव पोरणी!
हीं भुरगीं पृथ्वीचीं तिची नवी कथा बरयतात
तिचें वस्त्र मेकळावन तिका नागडी उगडी करतात!
तीं बाजारांत विकून सोरो पितात
जारांचो दावखूल मारपाचो
कुराडीचो खेळ मुखार वता.

जळून आय़िल्या सुर्याच्या दोळ्यांतल्यान
उजो येवन तो रागार येता,
पावसाडीचें मेघ पिवपाक उदक सोदता
श्रावण एक ल्हान फूल सोदता
वझरे व्हाळे सोदतात!
सर्गाचे लय-ताळ तोडून वतात
जिणेच्या रथांचीं चक्रां फोंडांत फारकतात

चेतनेच्या चान्याचो एक थेंबो जाल्यारूय
उगडासांत दवरता जाल्यार
तुजें रूप घेवन,
तुजो प्राण घेवन
म्हजेर जाली तुजी स्मरणा मात!

हे आई!
म्हजे जिबेर तुवें म्होव आनी एक्कंड*
लायिल्ली आद्यानुभूती!
म्हज्या मरणाच्या वेळार तीर्थाचो थेंबो जावन
आयली अंत्यानुभूती!
तुज्या शरीरांतल्यान आंकुर घेवंच्या दर्भ्याच्या
कपलार आशिले दवा थेंब्यां लेगीत
एक ल्हान सुर्या आसा, ताका पळोवन
म्हज्या काळजांत आयले आश्चर्याचें प्रभात!
तुजे रुखावळीचे सावळेंत चरून आसता सदा
म्हज्या कामाची धेनु
तुज्या दरयाचेर कांय प्रवाचक जशें
वारें चलतालें
हजार भुरग्यां सारके झाडांक
पाळणें आनी पाळणे-गितां
गावून तूं जागरण करचें
हजार देवळ्यांत रानांतल्या
झोंपळ्यार झोंपय दिवप
पिंपळाच्या पानार नांचून घेवप
पांच दळां फुलां जावन हात हालोवन रावप
देवळांतलो पारवो जावन 'कुक्कुडुक्कू' करप

---

* Acoras Calamus - a medicinal root -जल्मांत आयल्या भरग्याक जिबेक म्होंव आनी एक्कंडाचो खोळ लावप

हजार सरयांचीं ल्हारां जावन
म्हज्या आत्मानंदाक ताळ धरून आसप
पूवाका* जावन, ववळी जावन, कर्णिकार जावन
नवे नवे रंगाचें छातें अदलाबदल करून
घुघुमाचो आवाज जावन भिरांकूळ करप
कोगळाच्या 'कू कू' आवाजान भय पयस करप
मनाच्या माचयेर मनोहर कला रेखाटप
शंबर रंग पेटयेंत भरून दवरप
सांजवेळाक भांगर करप
संध्येक घेवन रानांत वचप
मागीर उष:कालाक खांदार काडप
म्हाका जागोवपाक म्हाका अमृत दिवपाक
कदळीवना सारके काळजाचे घोंटेरांत एक तांती
धांकून दवरून कविते रुपान तुवें आकार दिलो
उदकाच्या थेंब्या समान तरल म्हजे जिणेक
पद्मदळा रुपान  आदार दिलो
म्हाका जाणीव आसा
तूं म्हजे जिणेंत भरून आसा
म्हजें अमृत तुजें स्मरण मात!
पांखांत संगीत भरिल्लें मनोहर राजहंस!
तुज्या पांखांच्या तोंकार
खीण भर म्हजी जीण म्हणपाचें
मनोहर सत ज्वलंत आसा
तें वाडोवन वता!
तुजें अमृत मरणाचे ढरकावळे खावन गेले!
हजामत केलें बोड बागवन जात नाशिल्लो मनीस कशें
तू सुर्याच्या मार्गावयल्यान पांयांनी वता.
अपमानाचें वजें घेवन

* Acacia Adoratissima

संतानरूपी पापाची अळशीक घेवन
भुरग्यांक जल्म दिवपाचें
जीं भुरगीं आईक झोमून घेंवचीं, बलात्कार करचीं
तुजें मन नाश करून
निश्ठूर मरण तुजे  शिरांतल्यान भितर सरना कांय?

अनिकूय मरण येनातिल्ली भुंय!
हीं तुगेले मृतिशांतिचीं गितां
हें तुगेले क्रियाकर्माक जावन
काळजांत आज बरयलीं गितां!
प्राण नातिल्या तुज्या तोंडार
दोळ्यांतल्या दुकांचें उदक घालून,
विळाप काडून हांव
हांगा नासतलों

देखून हें मात हांगा बरयतां
आनीकूय मरण येनाशिल्ली भुंय
मरणासन्न तुका आत्मशांती मेळूक प्रार्थना!
मरणांत तुका अमृत शांती

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1983)

## सुर्याक एक स्तुतिगीत

स्वस्ति! हे सुर्या तुका अभिवादन!
हे सुर्या पवित्र मोगाची मूर्त!
दुसऱ्यां खातीर आपण जळता!
तुज्या प्रकाशाचें हून दूद पिवन
जें झरता, व्हळता तुज्या सुक्कनातिल्या
हून उजवाडाची समृद्धी आस्पावन
हांगा पृथ्वीचें ल्हान वर्तुळ मंडळ
जिणेचें उन्मत्त नृत्य!

जिणेचें उन्मत्त नृत्य!
ताचे ताळा-मेळा पद फुलांचेर
जीं झऱ्यांत न्हातात
थाळी भरून तटांचेर पाचवेचार,
संगीताचे सूर चालीक लावन
शेवण्याची किलकिलाट
तांत थंडेची बांसरी वाजोवन,
माड्याच्या कात्या केशांत पवित्र
गोडीचें उदक लिपोवन
पट्याचें घडी घेवन जीण रावल्या
अमृताचें थन्ने दूद पिवोवन
एक न्हय, धा नृत्य,
भुंयच्या सगळ्या भुरग्यांक
केळीचे बोंडीच्या पत्त्यानी!

जिणेचें उन्मत्त नृत्य!
जें एका बियेक म्हान रूख करता

आनी रूख बियांनी भरता
वाऱ्याच्या हातांत तांकां दिवन
सगळ्याक तांकां स्थापून घेतात
वज्रटिका वाटेन बियेक येता किल्लो

येतात पाले दीग दीग
सुर्याचें वत पिवन
शंबर कावरे खांदे घेवन
नदरेचें गहन पाचवें संगीत
दिवन रानाचें!

काळें जिवाणें सरकटेता
देवळ्याच्या पवित्र नगरांत
जंय झेम काडच्या पारव्यांचे
घोंटेर आसतात
आकाशाचेर ससाणो हुमकळटा
दरयाचे देगेर किरकिर् याचे दोळे
लिकलिक जातात
कपलार भांगराचो तिळो* आशिल्या
ल्हान नुस्त्याचो चोंबो
उदकाचो शांत संगीत जावन
पेंवतात खोसी घेवन
पृथ्वीचें सत जें कोणूय लक्षांत हाडलेना
तें रेंवेंतले किडे जावन बोवाळ करतात
मोग, राग, पच्चा** आनी कत्ति***
रात दीस एकलो दुसऱ्याच्या फाटल्यान आसता

---

* कपलार तिळो आशिल्लें ल्हान नुस्तें, ताचीं पिलां मागलान आसतात
** कथकळीचें सात्वीक चरित्र
*** कथकळीचें राजसीक चरित्र

वाज येना, दुबळो जायना,
मुखार वता
जिणेचें उन्मत्त नृत्य!

नांगरूक नाशिल्ली जमीन
जंय हांव पयलीं रोयलें
धा खेपे चड पीक गंवाची
लुंवन काडली
हांव केलो यज्ञ रगताचो
म्हज्या मोगाच्या भावाचो, बोकडी सारकें*
आनी बियो रोयल्यो त्या रगतान शिंपून
हे सगटाचो साक्षी,
तें पळोवन तुज्या काळजाक जालो धपको
तो मागीर चीर जाली**
अजून तूं दाखयता
तूं दुसऱ्यां विशीं निरंतर जळता!
त्या मोगाच्या पवित्र उजवाडांत
अजून चलत आसा
जिणेचें उन्मत्त नृत्य!

शूरांक तयार करची कथा
मुखार वता
भाव-भयण भुंयचे भाग करतात
भिन्न भिन्न वर्गांचीं नांवां घेवन
तंबू ताणून हांगा
सदा झोंबून घेवन आनी
निर्दयपणान कापाकापी करून

---

* केयन आपल्या धाकले भावाक मारता म्हूण बायबलाची कथा

** सुर्यांत एक व्हडली चीर आसा म्हूण वैज्ञानिकांचो बारीक नियाळ

दुसऱ्यांचे कल्याण, सुंदर सपनां
आनी दुसऱ्यांन मोगान वाडोवंच्या
मेंढर्यांची झुंडी*
निमाणे मनशाचेर किल्लो आयलो
चोंच्र, नांकटां आनी पांखां
एका विखाळ उजो वोंकपी सोरपाची
जो तांतयांक खणेक दवरपाक अक्षम आशिल्लो
तांतयां फणाचे मरणाचीं
जें एका भिरांकूळ फुत्कारांत
सगळें ना करता --
हे सुर्या! तू आपले दोळे परत परत धांकता कित्याक
तुजे दोळे भरिल्ले तुवें पळयल्यां
अगणीत उत्क्रांत्यो सृश्टीच्यो -- हेमंत दीर्घ जाता
जिणेचें नृत्य नेटान जाता
तर उन्मत्त गतीन सपनाचे पथिकाश्रमांत
जंय सत लिपून आसा
कितलो समय मेरेन नृत्य चलतलें?
कितलो समय मेरेन, ओ, कितलो समय मेरेन?
हांव आकाशाचेर जेन्ना भरकटून उडता आसता
जशें देवदूत पांखां विस्कळावन उड्डता
अमृताच्या चन्द्रमान म्हाका पाहुणचार** केलो
ताणें सांगलें मांडीर बसोवन
आनन्दाश्रु घालून

---

* गिरेस्त दुबळ्यानी वाडोवंच्या मेंढर्यांक मारून आपली मेजवानी तयार करता. दावीद रायाले नाथन नांवांचे देवदूतान सांगलीं उतरां यादींत हाडका आसा.
-- बायबलाचो पोरणो नियम

* मनशाची चंद्रातली यात्रा
चंद्राच्या वयल्या भागाक साकून अंतरिक्ष-यात्री, हाणीं फातर हाडले आनी ह्या सगळे विश्वांत प्रदर्शीत केले.

'तू सुर्याचें मोगाचें भुरगे, पृथ्वीचेर जल्मल्लें -----
मोगाचे पुता, तुजीं पावलां म्हजे छातीक
जेन्ना आफुडतात
म्हाका रोमांच येता.
हें पात्र बांझ आसूनय सुर्याच्या शुक्लाचो व्हाळ
म्हज्या शरीरांत शेळ जालो!'
हांव खबर  काडली, म्हज्या बेगांत
आश्चर्याचे रंगयाळे चन्द्रांतले फातर घाले
चन्द्राच्या गोठल्या दुःखाचे!
एका वळीचें गीत हांव आयकतां
जशें भिरांतींत त्या फातरानी म्हणलें
'आमच्यो भितरच्यो सुर्या भायर गेलो'
तो गेलो वा ताका भायर घालो?

म्हाका कळना, म्हाका कळना
तें आयकून हांवूय भियेतां.
आमचीं हाडां बी फातर जातलीं वे?
जशें हें ओग्गीच सांगतल्यो ह्यो वळी
दुसरे अंतरीक्ष-यात्री लागी जो यात्री
बर् या सुदैवान हांगा येता तेन्ना?

जें तुजें सत हांव काळखांत सोदतां
वातीवयल्या जोतींत
जेन्ना हांव पवित्र दिश्टी घालतां
तिळेलांत बुडोवन
काळोख थरथरता जेन्ना तू
तांत उदेवन येता हे सुर्या!

जेन्ना सास भर काजुले उडतात आनी
उखलून भांगराच्या फुलांचो घोस जातात
रानांतल्या रुखा खांदार
तू तांत उदेता हे सुर्या!

जशें लांडगो* शिकार सोदून येता
मोडणेचेर लिपून रावता आज
आनी हांव म्हजीं उतरां अमृतान भरतां
जें अमृत म्हज्या सपनांतल्यान शुद्ध जावन आयलें
आनी तांका मंत्राचो परिवेश दिवन
म्हजे रक्षेक** तू तांत आसा हे सुर्या!

जेन्ना उजाचो शिंवर घालो
शोशीत निग्रोच्या शरणार्थी छावणींत
आश्रमांतलें पवित्र जनावर
हांव निरंतर बोब मारतां
म्हजें काळीज फाळूनाका!
'मारू नाका!'
लक्ष नातिल्लें घनुश आनी बाण नाका करून
धांवच्या शरणांर्थींच्या फाटल्यान वचे
बोबेंत तू उदेता हे सुर्या!

उजवाड, उजवाड, सगळ्याक उजवाड
पृथ्वीचेर उजवाड
आकाशाचेर उजवाड
म्हज्या दोळ्यांत उजवाड
म्हजे जिणेंत, म्हज्या सपनांत
म्हज्या ओंठांचेर खेळच्या सुरांत
म्हज्या आंगणांत, म्हजे रांदणींत
म्हज्या शेजारच्या घरांत
त्या खळांचेर जंय नवे लुयिल्लें धान मळतात
ताट भर ओरव

* मरण
** कविता करून जशें खंयचेय सृश्टींतल्यान तशें मरणाचेर जैत जोडपाची इत्सा

शिताचीं आयदन दवरपाचे सुवातेर
मूळाची तान स्पंदन जावंच्या पानाचेर
ते आत्मविशुद्धींत जंय
पद्‌माक्ष चिकलांत फुलेता
सग्ग मनांत, सग्ग मुखांचेर
जंय मनशाचो आवाज आनी गंध आसतात
सगळ्यांक उजवाड
सगळ्याक उजवाड असो
जेन्ना म्हजे  आत्मदाहक प्रार्थनेचो
धवो पारवो हांव उडूंक लायतां
तांत तू उदेता, हे सुर्या!

हांव जशें हांगा रावतां वाट पळोवन
सगळे पृथ्वीचेर पाय दवरपाक
शान्ततायेन, सौम्यतायेन
तुज्या रथाचीं चक्रां घुंवतात तशें
सर्गाचेर
म्हजी निरुपेगी कविता म्हणपाक
सगळ्या मनशांक नगारो वाजून घोशणा करूंक
की 'स्वातंत्र्यच अमृत
आमी सोदची* जीण आनी मोक्ष'
हे सुर्या! तू भगभगीत उजवाड घेता
म्हज्या उद्‌गारांचे वतीन
तूं भगभगता म्हज्या उतरां जशें
हे सुर्या! पवित्र मोगाची मूर्त
दुसऱ्या खातीर आपूण जळता
हे सुर्या! तुका अभिवादन!

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp1984)

* बुद्ध आपल्या शिष्यां लागीं – हे भुंयचेर तुमकां इच्छानुसार खंयूय रावयात. खंयचेय मनशा लागी उल्लोवयात. तुमकां कोणूय न्हयकारचें ना अशें करपाचो अधिकार स्वतंत्रतायेची प्रबुद्धता.

## हे श्याम सुर्या!

परत यो हे श्यामसुर्या!
काळखाच्या सागरांत
नौका सरकटत ल्हव ल्हव वता
आपलो तूरो उबो करून
स्वतंत्रतायेची,
गरुडाचीं पांखां आशिल्ली नौका.
आत्माचें कावळ्या भशेन रडप
दक्षिण दिशेच्या वार् यान नागोविल्लें
आतां सगळ्याक वारें चिरून येता
नगरांतली गर्दी उन्मत्त नृत्य करता
धोल वाजून, धोलकें वाजून नाचतात
काळ्यो मुयो इंगळ्यांत पडल्यो
लासनातिल्लें परत येतात सरकटून

नाभींत भांगरा खण आशिल्ली
श्वेत संस्कृतायेची, नागरिकतायेची यक्षी
दांत चाबीता
वांझ धव्या मेघाचो अश्रुहीन बुरखो
विजेच्या झगझगाचो
आतां पिंजून उडयता
पृथ्वीचो उजवाड, काळजाची हुनसाण
वयर यो हे श्यामसुर्या!
आतां आमी दोळे विसकावन पळयतात
तूं वयर येता
संवसाराच्या काळजाची इत्सा पूर्ण जाता

जशें व्हडलें वारें उलयता
ताचें दुर्गंध सुंटचे खळयांत पडतात
जेन्ना काळो तरनाटो रस्तो भोंवता
जय खोंपी भरून अळम्यांचो पुंजो

मुयांचें रोयण जशें
एका कठोर फुकट आवाजांत
ताचे ओंठ गुणगुणतात
एक लोकगीत,
'गोऱ्यान म्हज्या बापायक जिवानशीं मारलो
म्हजो बापूय स्वाभिमानी आशिल्लो
गोर् यान म्हजे आवयेक फुसलायली
म्हजी आवय सुंदर आशिल्ली
गोऱ्यान म्हजे भावाक जळयलो
दनपारां सुर्याचे सकयल
म्हजो भाव बलिश्ट आशिल्लो
ताचे हात काळे खुनान तांबडे जाले
गोरो म्हजे लागीं आयलो, आनी
जिखपाच्या आनन्दाच्या आवाजान म्हणलें
'अरे भुरग्या! एक सिगार, एक नेपकिन, आनी सोरो'*

त्या मनशांचो वंश असलोच
तें कदेलीचेर जें कोण बेसलें
ताका आवय आनी भयण कोणूय नासता
हाणीं व्हडले प्रासाद तयार केले
केवल सताक दफन करूंक
हांणी सगळ्याचें ऊंच दिलें म्हत्व

* दावीद दियोप हांचे आफ्रिकेचे लोककवितेचो अणकार हांत जाला

गोरेपणाचे सत्तेक
आनी ताची काळी बुन्याद राखली -
समुद्राचो आनी आकाशाचो रंग
पृथ्वीचो आनी रानाचो
मनशाचे दुदाचे दयेची झिरपणी करतल्या
थानाच्या चिंव्याचो

मागीर तुमच्या हातांसून झोंबून घेतलीं
सत्तावीस मोलादीक वर्सां
तुमचे जिणेचीं.

किडे जशें ताणीं गिळ्ळे
तुमच्या जुवानपणाचो भार
तुमचो मातयेचो वाडगो तांणी भायर घालो
तुमचे लागीं साकून पयस काडून उडयलो
ताणीं तुका एका काळे कोठरींत संकाळेन बांदलो
आनी चौकीदार करून घालो,
थंडेची स्तब्धताय तुका
आपल्या भुरग्यांचे तोतरें उलोवपांत
शेवण्याचे चिंव़चिंवपांत,
सगळ्यांतल्यान निर्मुलन केलो.
जिणेंचो गुणगुण
वाटांवयल्या मोगा कुत्र्यांचें भोंकप
तुमच्या घराच्या सरभोंवतणेक
पारव्यांचो मोग दाखोवपी 'कुक्कुडक्कू'
तुमच्या घराच्या पारव्या घुडांत
वाऱ्याची शिळोणी घालप

तर तुमचें बंधन कोणूय तोडचें ना
रेवेंचें, तिच्या गंधाचें आनी रंगाचें

आनी काळे मनशाचे सांकळे भोंवतणेक
जें सरकटेता
ताच्या आत्म्यांत स्वतंत्रतायेची तान भगभगता.
फांतोड्याचो संकेत नातिल्लें राती दीर्घ जातात!
मोगाळ बंधू नेणार आसतात
केदना ते तुमकां पळोवपाक मेळतले म्हूण?
कूडांचीं कवडां एकेक जावन धांकतात
कोणूय नेण केदना तीं उगडतलीं म्हूण
थांगा तू बेसला दीर्घ तपस्येंत
जशें बुद्ध बोधिरुखाचे पोंदाक
पुराय स्वातंत्य सोदून

मरण आशिल्ल्या मनशांच्या दुख्खांतल्यान
पिडेस्त काळे मनशाची रडी
तांचे अभिनंदन
जे स्वतंत्रताय उच्च म्हूण सांगतात
रंग, वर्ग आनी राष्ट्रीयता
एकेकेल्याची इच्छा तो दीस येवपाक
जेन्ना सगळीं बंधनां तोडून पडतलीं
हें सग्ग सुजून तुज्या कूडांतल्या
ल्हान बुराखांतल्यान व्हांवता
आतां यो हे श्यामसुर्या!
आतां आमी दोळे विसकावन पळयतांत
तू उदय जाता
संवसाराच्या काळजाची
पूर्ण जाता इत्सा

सातय समुद्र गितां गायतात तोखणाय करून
वीरकथा सिंहाच्या व्हडल्या शिकाऱ्याची

हें काळखाचें खंड राखता आमचे
पनमाडे आनी महोगणीचे रूख
रानांतल्या सैमाचे यादस्तीक!
तेंबु गोत्रांत जल्म घेवन वाडल्या पुरुषसिंहाक
वारें आरड घालून प्रस्न करता
स्वातंत्र्याचें पवित्र तीर्थ आनी कितले पयस?
आमी आशिल्ले तिजे लागी
जेन्ना आफ्रिका सांसपीत सोदताली
काळखांत तीर्थांत पावनातिल्ली पापीण जावन
युगानी
कांय हांगाच हेच रेवेंत
आमच्या आजान आपली दीक्षा घेतली
गोरे वर्गा लागीं युद्ध करून
आनी आपले मुखावयले दोन दांत
ओंपून दिले

स्वतंत्रतायेचो मंत्र म्हणपाक?
आमी तुमचे वांगडा आसांत
हांगाचो निमाणो गुलाम
स्वतंत्र जावपां मेरेन!
येयात, पुनरुत्थान करात,
आनी तुमचे जनांक मुखार व्हरात,
निर्भयतायेन, दुख्ख भोगून, प्रगती सादून,
मनांक थीर करून, माथें ऊंच करून,
स्वतंत्रतायेच्या सर्गार वचपाक!
आतां यो हे श्याम सुर्या!

इंग्लीश अणकार : **आर. विश्वनाथन**

(Ofp 1990)

## आफ्रिके विशीं

(सन् 1986 वर्सा बरयल्ली कविता नेल्सण मंडेला हांकां समर्पित)

1

जोहनास बर्ग!
तुजे नाभींत भांगर
तुज्या हातांत वज्र
तुज्या मेंदूंत गोरें उद्धटपण
जेन्ना तू ती काळी माती
आपल्या पांयां खाल माडयतात,
आमी तुजें काळें काळीज पळयतात,
तुमचे गोरे सालीचे पोतयेंत
एक काळी कुल्ली
जी धवे रेवेंत सरकटता.
तुमका जाणीव ना म्हूण दिसता
सगळे वाटानी दरया कावळो
तुमचेर घुरी घालता
चोंच उगडून!
तुका जाणीव ना कित्याक म्हूण
सोविटोचे रोयणींतल्यो काळ्यो मुयो
शिस्तीन चलून मुखार वतात!

2

जोहनास बर्गांत जो कोणूय कामाक वता
राती मड्या रुपान  परत येता
कोण तरी ताचें शरीर सोविटोंत न्हिदयलें खोंपी मुखार
कोण तर मनशान बारीक मेणवात्यो पेटेयल्यो

ताच्या आत्मा खातीर कोण तर प्रार्थना केलीना की
शांततायेंत आसो तुमचो आत्मा.
ताका एक आत्मो आसा म्हूण तांका जाणीव नासली

जे म्हातारेन ताका जल्म दिलो
ताचें शरीर पळोवन बेसली,
ती दोळ्यांतल्यान उदक घालना
कारण हेंच की तिच्या दोळ्यांत आनी उदक नासलें.
निमाणें संस्कार कांय तर केलेना.
जेन्ना तो जिवंत आशिल्लो
कांय तर विशेश मान ताका मेळोना
जेन्ना ताणीं कायशांव फोंडांत दवरलो
शांततायेन ताणीं म्हणलें –
आमचो जेजू एक म्हातरो,
म्हांतरो, म्हांतरो काळो मनीस!
कोणय तर ताका आज पुनः खुरसार मारलो!
देव ताचो पुनरुद्धार करतलो
तो आमचे मदीं एकलो आशिल्लो!

3
सुर्यग्रहण कितलो समय आसता?
आफ्रिका!
तुमी तें सग्ग ओबड धोबड केलें!
थोड्यो मिनटो तें आशिल्लें
वा दीस , वर्सां, दशकां, जालीं
तुमच्या सोरपाक एका गोऱ्या सर्पान गिळून
शतमानाचो चतुर्थांक ताका साक्षी जालो
तुमचो सुर्या भगभगता,
गोर् या सर्पाक ताका गिळपाक जायना



थुंकपाकय जायना.
तुमचो सुर्या मेघांनी लिपला
त्या मेघानी पावस हाडपाचो ना
तुमचो सुर्या खंय जळता
गोर् यांच्या संस्कृतीचे कुडांत
तुमचो सुर्या रावता
जशें भगभगेवंचो इंगाळो!
आफ्रिका!

तुमचो सूर्य भगभगता
भुंयच्या खंयचय भागान!
सगळ्याच्यान तुफान सुटता
गोरे सर्पाक नाश करूंक
जाणें तुमच्या श्यामसुर्याक गिळ्ळो
तुमचे तोंकाळ दांत सदळ कर
तुफानांतल्यान गावपाच्या
सुराचो पडसाद येता.

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1986)

## मायकलांजलो! माफी!

आखेर, खुरसावयल्यान मडें सकयल दवरलें
सकयल, एक आवय, दुख्खाचें यादस्तीक जावन
सुर्यकांत रत्ननिर्मित, मांडीर तिजे शांत न्हिदल्यां
थंड शरीर म्हज्या मोगाच्या पुताचें!
जशें तांबड्या रंगाचो रेगो ओडता
धव्या लिलीच्या फुलाचेर,
दाखोवन सगटांकय,
पवित्र रगताची कुरू घेवन
'देवा! तुमी तांकां माफ करात!'
अर्ध धांकले दोळे आतंय प्रार्थना करतात!
जेन्ना आवय बसल्या,
कालूचें मोने दुख्ख
जेन्ना काळजांत वेगळावयलें
मोतीं परत घेता, मोतीं जें हड्ड्यांतलें
कोणूय तर मनीस ताणें चाकू मारलो
गळपाक दुख्खां नात, खंत करूंक उतरां नात,
रडचें ना, वितळप ना, काळीज फुगचें ना
हांव पियत्ताक* एकाग्र दिश्टीन पळोवन रावलों,

---

* मायकलांजलो हांची महोन्नत कला सृश्टी 'ला पियत्ताचेर (La Pieta) 1972 मे, 21 ता. एका तरणाट्यान हतोड्यान केल्ल्या आघातासंबंदी समाचार वाचून बरयल्ली कविता.
खुरसाचे सकयल जेजूचें मडें मांडीर घालून दुख्खांत आशिल्ले कन्या मरियमाचें रूप कोरांतन दवरीलो धवो फातर
ला पियत्ता. हाचो अर्थ दया (pity) म्हूण. – ओ एन वीयुडे कवितकळ् – ओरु बृहत्समाहारम् पृ.192.

म्हज्या काळजांत झगझगेवंचें खीण जल्मलें.
साक्षीदार आशिल्ले हांव आनी अरिमत्याचो
जोसफ गलीलींतल्यो बायलो
म्हाका जाणीव आसा
लागींच्यान म्हाका जाणीव आसा
एक आवय जी दुख्खान भरून बसल्या
जशें पृथ्वीमाता!
आनी मरण वेंगावन आसा,
पवित्र पूत आपले आवयचे मांडीर
पुनः एका खेपे जीण सोदता!
'व्हड उपकार'!
वत्तिक्कानांतल्या गायडा लागी हांव म्हळ्ळें --
आनी तेन्ना?
म्हज्या मोगाचो मायकलांजलो, 'व्हड उपकार',
'व्हड उपकार', हजार फुलांचें स्पंदन उपकाराचें
हांव तुमकां दितां
तुमचे हात हांव उमो घेतां.

तुजे हात कामार आसात, हांव पळयतां
सर्ग मंगल गितां हांव आयकून घेतां
तुज्यो न्हीद नाशिल्यो राती
तुजे दीस हुमेन गळून वतात
हांव तुजे लागी वांटो घेतां,सोरो पितां,
आनी थोडे समय झेम काडतां.
तुमचे सपनांत उत्कर्श घेंवची सुन्दरताय पळोवन,
एका भुरग्या समान हांव हांसलों,
जागो जा, पुनः एका खेपे,
तुमच्या तुतयांतलो उजवाड
गुणगुणेवंच्या भोंवरा भशेन

संगमरवरी फतरार आवाज
हांव आयकतां हातोड्याचो आवाज
जशें तो उमा दिता
भावनातीरेकांत!
काल कितें आशिल्लें, जीवनाशिल्लें रूप
तुजे मृदु स्पर्शान तुवें सांगलें जागृत म्हूण
शोकगितां करुणेचीं
तुजे वांगडा हांव जागृत जालों.
तुजे वांगडा न्हिदूंक गेलों
तुजे वांगडा हांव जातलो वे अजरंवर!
व्हड उपकार!
हे मायकलांजलो!

जशें म्हज्या  काळजांत
हांव सुक्ष्मतायेन स्थापिल्लें
तुजें पियत्ता संगीत
अश्रू गोठयले आनी एका विजे समान
हांव मागल्यान पळयलें.
हांव आयकलों हातोड्याचो आवाज

हाय! हे कुडके, कुडके! धुल्ल!
 जाले धवो पिठो,
धवें हाताचें पद्म, दोळ्या पत्तें, करुणेचें पडबिंब
थांब, जंगली थांब!
म्हाका आतां दोळे ना, हात ना,
म्हजो जालो नाश!
युगाचें पिशांतूर आनी बोवाळ
केदना न्हिदेचे दोळे धांकतात
न्हीद! ह्या शतमानांत जनां वखद घेतात

पिरायेन जाण्टे आनी न्हीद नाशिल्ले...
--- हें हांव तरणाट्यांच्या होंठावयल्यान आयकतां
जे हातोड हातांत काडतात
मूर्त तोडूक!
आनी खंयच्यान केमेरो उगड धांप करता,
ताचे सरभोवंतणी प्रभाषक-वलय...
...हे तांकां माफ कर!
मोगाचे मायकलांजेलो! माफ कर, माफ कर हांकां,
तीं कितें करतात म्हूण तांकाच जाणीव ना!

इंग्लीश अणकार : **हेपसिबाह जेसुदासन**
(Ofp 1972)

## सोळमनाक एक ल्हान गीत

हस्तिदंताचें तुमचें सिंहासन खंय?
तें भांगरान बांदिल्लें अद्वितीय सिंहासन
भांगराच्या चबुतराच्या दोनूय भागाच्यान
सिंह आशिल्लें, आनी पांय दवरपाची सुवात आशिल्लें
नवरत्नाचें तुमचें भांडार, एकठांय केल्ली संपत्ती,
भांगराचें धाल, व्हड सुरक्षेंत दवरलें,
सुरक्षित अन्तर्गृहांत, लेबनीनाच्या रानांत भितर आशिल्लें?
ताचो सुगंध तो आयला, दर्या हुंपून?
जंय राजकीय खाट निर्माण केला
देवदारुच्या आनी चंदनाच्या लाकडान
पूर्वी देशान व्हडल्या अजापाचो, तुमका दिलो
जंय पानपात्रां अमृतान भरिल्लीं.
ताणीं तुमच्या आत्म्यांत शिरशिरि हाडली?
जंय नगरी रथ, घोडे, सैन्याची तुकडी
अभिमानान भरिल्ली
जल्म दिली, भरपूर भांगरान आनी रुप्यान
वाटांचेर फातर घालून तयार केली

तुमचें देवूळ खंय बांदलें?
भांगराचें आल्तार, रुप्याचीं कवडां!
पोत कमानाची थारावणी
तुमी आपलें पवित्र सिंहासन
काळजांक ओंपलें
स्वयं शुद्ध करून तपस्येन
एकेकूय वसंतऋतूचें

सुगंध घेवन वारें
जें मरता आनी दुख्ख
भुंयेच्या काळजांत आसता,
मार्ग चिरून, सैन्याची रचणूक
करून पोरण्या तारवांनी

म्हाका हांगा हाडलो,
लेबनानांत, हे पोरणें रेवेंत
जंय सोरो पोरण्या उगडासाचो,
पसरून आसा,
जशें दिसाचो उजवाड धव्या
पारव्याच्या पांखांचो
रंग निस्तेज करता
फार घालो, वारें झिरपून भितर सरलें
तुबकाच्या दारूचो वास
म्हजे मांडीर आयलो
हांव नगरांतल्या पर्वताच्या पदरांत बसलो
म्हजे आवडीचें गीत हांव उगडास केलें
'हे जेरूसलमाचे कुमारीके!
पन्मड्या जशें गर्विश्ट
तुजी छाती फळांच्या घोंसां सारकें
हरणाचें पील जशें
उखलून आयल्या द्राक्षाच्या घोंसा जशें
थंडायेचें सुंदर चंद्रमंडल जशें
तुजे दोळे नितळ तळये समान!
तुजें नांक लेबनोनाचें मिनार जशें
तुजो श्वास सुगंधीत सफरचंदा सारको
तुजें उदर गंवाची रास जशें
धवे लिल्लीचे समूहान

भरिल्ले सरभोंवतणी समान
शंबर वखदा झाडा मदीं
हरणा पील चरता जशें
पर्वताचे देंवतेचेर, हे जरूसलेमाचे धुवे!
म्हजो व्हड मोग तुका आसा,
'मरणा परस चड'
तो मात आसता! तोवय उतरां रुपान!
हांव तें रत्न वेंचून काडलें!
हांगा म्हजे मुखार दोन आवयो
विवाद करतात
नाजूक ल्हान भुरग्याच्या
धनीपणा खातीर
नियमाचे सुवातेर बसून
निर्णय करूंक
आपल्या सेवकांक हांव सांगलें
त्या भुरग्याक एका तलवारान
दोन कुडके करात
आनीक दोनूय आवयांक
बराबर आशिल्ले दोन कुडके दियात
'नाका! भुरग्याक मारचें नाका' म्हूण
जिणें बोब मारली हांवूय तिका
सताची आवय म्हूण मानवतां
तुजें सिंहासन खंय,
हांगा हे रेवेंचे पोंदाक की
म्हज्या काळजांत?

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 1986)

## काबूळ

म्हाका दुख्ख आसा वे?
वेदना आसा वे? वा
सोंसप आसा वे?
तुवें भोगचें ना तर कांय म्हज्या पुता?
तुजी भूख आनी तान म्हजे सारकें प्रखर वे?
देखूनच आमी एका दुसऱ्याचे वांगडा आसात दुख्खांत मित्र!
मुखावयली वाट, गहन आनी झरकटावन आशिल्ली
दागान कोरांतल्ली आनी सत्यानाश करची
बॉम आनी नाळींतलो गुळो आदीन नेटान मारचीं
झुजाचे लोहाचीं शेवणीं घालून

जळचो गुहा आतांय उजो आनी मरण थुंकतात
तुजे बंधु - बांधव खंय आसात?
ते आतंय जिवंत आसात कांय?

सादें घर, चिखलान केलें
तुजे ल्हानपणाचें घर
ज्या घरांत तूं आपल्या
भांवडां वांगडा खोस भोगतालो
भोंवतणेचे खाजरा माडे
तुजे दीस मधूर करताले
ल्हापणाचे तुजे मित्र
तांचे वांगडा तूं खेळतालो
तांचे थंडायेचे आवयचे छायेंत
सग्ग गेलें, तुजो सर्ग नश्ट जालो,

म्हाका दिसता
सदाच नश्ट जालो,
आनी येंवचो ना!

तुका कोणूय मागशीं आपयता वे?
आनी विचारता .......
"तू कित्याक रावलो, कित्याक अनमनता?"
पोरण्या काळाचें चित्र!
तुज्या मनांतल्यान धांवतात?
हें सगळेंच एक फटवण ---
मात तुजी विलक्षण कल्पना
सावध रावचें!

तुजे मुखार पातळिल्ली वाट
जशें हारान आपली कात हालींच सोडल्या
जी तुका वेश्टण घेवन
मरण मेरेन पिळून काडतलो
इतले सोंपेपणान की
तो एक ल्हान बोकडेक
चिड्डून घेवन गिळून उडयली?
हांचो विचार तुका कडकडायता, (म्हाकाय)
आमकां ताकतिकेन मुखार सरूंया
भूक गेली वे?
तान भागयली वे?
शक्तिहीन आसूनय, स्पर्शज्ञान नासूनय
आमी निर्विकार
मरणाक आमका भंय ना.
अकस्मात् आकाशांतल्यान
संकटाची दाद लागपाचे क्रिये रुपान

विमान दिसून आयलें
तें सकयल उडता, एक पोटली घालता
आनी परत वता.
थोडें खाण मेळचे आशेन आनी मोहान
निश्शंक आसून, आतूर जावन
तूं मुखार धांवता
नेणार जावन तें काडूंक सरकटेवन वता
वलिमृगाक केळें दिवपी हत्याराली उदारता.
अकस्मात् कान फोडचो स्फोट

वारें चिरून आयलो
धुंवर आनी काळोख
पृथ्वीचेर एक मिनिट
करुणेचे निस्सहायतेची बोब!

हांव खंय आसा?
म्हाका आश्चर्य जालें
अजापांतल्यान वा सपनांतल्यान?
म्हज्या हातांत ह्या दिसाचें समाचार पत्र
माथाळो, तुजें फोटो
'खाणाचे पोटलींत बॉम स्फोट --
मरणाची भेटवण'

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 2001)

## जिणेचो रूख

बहरिनांत मनामा नगरांत साकून पयस रेवंट प्रदेश. एकलोच आशिल्लो एक पोरणो रूख.(Tree of Life) अनेक शताब्दी पोरणो आशिल्या ते रुखाचें लागी वाट सोडल्यार मील भर रेवंट प्रदेशांतल्यान चलिल्या वांगड्यांक उपकार.

सावळी नाशिल्या मरुभूमीचेर
भगभगेवच्या सुर्या सकयल
हे विस्तृत वाटेर पातळिले
विरहाचे सतत दुख्ख जशें
आमी इतले मैल हुंपून
किद्याक आयलीं?
हांगाचो रूख पळोवपा खातीर
आमी सोदचो जिणेचो रूख
निंश्चल मरुभूमिचेर जंय
तणाचें पात तर फुटना,
हुयेल मारच्या वाऱ्यांत
ताचे पातळिल्ले खांदे हालून आसतात
फडफडावंचे निळे पाचवे
खूब मोरपांखां सारके
वांगडी नासून तो रूक एकलोच आसा!

खतखतेवंचे तळयां भितर
थंडायेचो बोमाडो जशें
गोठल्ली साय भाजिल्ले रेवेंचो
दरया घांटून काडल्या सारकें
बुडच्या व्हड्याच्या दिश्टींत आशिल्ले

शिडाची बडी जशें
अपंगूळ शेवणें वयर
उडूंक प्रयत्न करपा सारकें
रडपी भुरगें आपल्या आवयच्या
काळजाक वेंगावपा सारकें
जाक हेरोदाले* दुश्ट सैनिकांक तर
कश्टान तिरपणी करूंक नाशिल्लें
अस्वस्थ मनां सारकें जे
सपनाचे माधुर्याचे आनी यथार्थाचे
निबरसाणीचे जाळ्यांत पडल्यात तांकां
हो रूख भुंयचे जिणेचे अस्तित्वाचो
आनन्द वा दुख्ख वा दोनूय
एकवट जालोलो?
काराचीं चक्रां डांबर लायिल्ली वाट सोडून
आतां रेवेंत थांबलीं.
आनी आमकां पांय व्हरतले
हून रेवेंचे मरुभूमिंतल्यान कश्टान गेलीं,
नुस्तें प्रवाहा विरुद्ध पेंवपा सारकें
आमी आलाशिरो सादचे
पुरातन म्हूण दिसतात
खंयचेय पुरातन रुखाचे सावळेंत
भोवऱ्यां पडचें एककूय वस्तूक घेवन तुफान
झाडाचे खांदीचेर हुमकळटा आनी
आनन्दपूर्ण स्वच्छंदताय अणभव करता जशें,
आमच्या वृद्धजनां सारकें आमी
तुजे खांदीचेर उड्डी मारून खेळपाक आवडलीं
तर आमी आपले भितर
आनन्दाचो हल्लो करपी प्रवाहाचो

---

* बायबिल कथेंतलो हेरोदा राय

आवाज आयकलीं ...........
सुर्याचीं जळचीं किरणां
पाल्यांतल्यान गाळून
सगळ्याक पसरायतात हांसपा जशें
एका खिणाक आमका
आपल्या काळजांतल्यान भायर सरूंया ---
सगळें भंय, सूड घेवपाची वासना,
द्वेश, धमकी वा अच्छेव
आनी सर्गावयल्या आनन्दांतल्यान नांचुया!
चड संघर्श ना
जिणेच्या शतरंजांत स्वार्थाक लागून
मनशाक नाश करपाचें ना
संकश्ट ना, अनर्थ ना, फाटीं सरप ना
आकाशाचेर मरण पसरून घेंवच्या
गृध्र पक्षीचे कडकसाणीचें भंय ना
खीण भर आमकां विस्मृतींत पडूया
प्रबुद्धकायेच्या दुख्खां साकून मेकळीं जावया
विस्मृतीचें अमृत पिवया
ना, ना, आमका न्हय, मधुर विस्मृतीक जावन!
जे आमी विस्मृतीचे उड्गासांत आसतां.
हजार भर मूळांचो गहन सोद
एका थेंब्याच्या उदकाक लागून
रुखाचे सकयल सांवळेंत
ते एकच न्हय कांय?
जो मनीस खणीच्या काळखाचे पलतडी
पावपाक खणतात जशें
आमका हें दुख्ख जाता
मनीस शाश्वत जावन जाणीव नाशिल्लें
सत गजालीचें रहस्य सोदता

मात बोटा हुलपोवपाक,
दुख्खसत्याचे वातीचेर हात
लासून घेवपाक!

पयस रेवेंत फारकल्लें कार
मुखार व्हरपाचो प्रयत्न जेन्ना आमी करताले,
जिपार आयले कामगार त्याच वाठरांतले
तांणी आमच्या कामाक आदार दिल्लो
गावन -- 'एलसां, आयलसां',
कामगारांचे सामान्य गीत तें
सगळ्याक एकच
उपकाराचे उतरांची तांणी आस्त केलीना
हात हालोवन दिश्टीचे भायर गेले
शापमोक्ष जालो,
रथार चडून आमी मुखार सरले
रुखाचें पिरंगण 'बॉन वॉयेज' आमी आयकले कांय?
मोगाचे रुखा 'बरें तर'
तुमका अभिवादन! 'येतां आं'
सुर्या अस्तमनाक गेलो तशें
जशें शाश्वत एकलेपणांत
तुमकां सुवादीन करून
आनी तुमकां भ्रामक आनन्दांत घालून
आमी वाटेक लागतात!

इंग्लीश अणकार : **लैला जयचन्द्रन**

(Ofp 1991)

## तानियाची डायरी

(तानिया सविचेवा इक्करा वर्सां पिरायेची चली. तिजी डायरी दुसऱ्या महायुद्धाची भिरांत उत्पन्न करचो दस्तऐवज. युद्धांत एका फाटीक एक जावन मरण पाविल्या आपल्या अनेक बांधवांचीं नांवां तिणें अंकीत केल्यांत. ''सग्ग मेल्लीं'' म्हूण तिणें जंय बरयल्यां थंय कथा तेंगशेर पावन सोंपता. निमाणें तिचो फेर बी येता.)

तानिया! हांव तुजीं बोटां पळयतां :
नाजूक, ल्हान ल्हान,
धवे लिल्लीच्या तांबड्या किरणांची पांकळी.
तीं तळमळपी बोटां ..........
सदा किदेंय बिरकिटांवंच्याक अक्षम ........
डायरीचें पान सोदतां, रिकामी आनी रंगहीन.
तांचीं मोव मोव तोंकां फुरफुरतात
भिरांकूळ प्रतिध्वनीन
सकयल येंवचे कुराडीच्या आवाजा सारकें
जीं मारता एका ताळार आनी वेगार
गहन आनी खोलायेन
तुमच्या वंशवृक्षाच्या मुळार, म्हजेंय.
एक प्रवाह अम्लाचे समान कोरांतपी,
आमच्या काळजांत भितरल्यान प्रवाहीत आसा.
तानिया, आज हाचो साक्षी हांव
तुजे डायरीच्या नोंदाची
हांव व्हडान गायता :
फुलां बावतात, आमीय,

तर मानव परंपरेचो हो व्हड रूख.......
सकयल पडनासतना
जतनाय घेवंक आसा

इंग्लीश अणकार : **आर. विश्वनाथन**
(Ofp 1978)

## “‘स्पसिबा’’

तूं किलकिलाट करता
होटल ‘रूसिया’चे वरांदेचेर
भांगरा पांखां शेवण्या सारकें.
तुवें म्हाका दिली च्या, ताचे बदला
संतोशान हांव दिले पांच कोपेक
अस्वीकार करून रावली तूं
हांव एक शाब्बाचो कुडको आनी
इंडियाचें एक नाणें
खिशांत साकून काडून
तुका दिलें, म्हजे वांगडीपणाचें
दोन खेपे तुवें ‘स्पसिबा‘ म्हणलें
आनी म्हाका ताचो अर्थ समजलो
तुज्या तोंडावयल्या भावांतल्यान
जो तुज्या मुखामळाचेर पळोवपाक मेळो.
तूं गांधीचें चित्र आनी शाब्बाचो वास
आस्वादन करून रावली
‘स्पसिबा‘, भारतांत साकून आयल्या
अतिथीक दिवंचीं कितलीं फुलां
ह्या उतरांत भरून आसात!
मागीर सगळ्या प्रदेशांतल्यान येंवचे मित्रतेची
अदलाबदल हेच उतरान जावंक जाली
जाचो स्वीकार परपरत गावपाचें स्वरमाधूर्य जालें
अनेक तोंडां, हांचो उगडास करप  आसता एक संतोश
ह्या उतराचो जादूचो पांखां स्पर्श दोळ्यां मुखार येतात!
हे मित्र! तुजें बरवप

म्हज्या उगडासांत परपरत जितें रावता
सौम्य सुंदर पुरातनता आनी आयची
कठोर, कोडू रूच

नवी संस्कृताय कुशिल्ली आसता
फळां भितर वाडपी, त्रास दिवपी किडे
फळ कुरतडतात
आनी तें फळ कुसता!
तुमी म्हाका अणभव दिले की
भांगरा पांखांचें शेवणें आपल्या सोयरयांक
एक कप च्या दिवंक शकना
च्याचें मोल पांच कोपेक्स दिले बगर
आनी मोल नाशिल्लें निक्कल नाणें काडून
गांधीचें चित्र पळोवन आनंद घेवप?
आज तीं कांय आपली कूड
दुसर् यां खातीर त्याग करून
एका ब्रेडाच्या कुडक्या खातीर
आनी मोलादीक नाणें खातीर
गिरायका खातीर
'स्पसिबा' सांगून घेतात

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 2001).

---

**नोट :** नेमाळ्यांत निबंद वाचून रूसांत आज बायलांचे जिणेची जाणविकाय जाली.
'स्पसिबा' रूसी भाशेंत 'उपकार' म्हूण अर्थ.
'कोपेक' 100 कोपेक्स एक रूबीळ.

## हें ट्यूलीप* फूल – म्हजें काळीज

हांव तुजे कबराचेर
हें ट्यूलीप फूल दवरतां आनी वतां
तें म्हजें काळीज – – – –
हांव तुजो कोण?
वा तूं म्हजो कोण आशिल्लो?
हांव जेन्ना तुजें नांव कोरांतलें
ह्या यादस्तीक मारबिलाचे फांतराचेर
म्हज्या दोळ्यांत उगडासाचे अश्रू किद्याक?
म्हजें माथें जाणीव नाशिल्लेंच बागवता?
आनी म्हजे पांय तांचे वाटेर बेगीन चलतात
आनी आकस्मिक जावन रावतात
आमचो पयलो मेळ कितलो आकस्मिक आशिल्लो?
मागीर ह्या वर्सानीं मेळ जालोच ना
आनी ह्या पयस आशिल्या प्रदेशांत
तुजे निमाणें विसव घेंवचे सुवातेचेर हांव रावला!
हें सत कितलें आकस्मिक – – – –
तू कितल्या फाटल्यान सोडून गेलो
मरणाच्या देशांत म्हजे चेतनेंत घसरण करपाचें
तें सत कितलें आकस्मिक
आमी एक दिस जालीं आनी
एक दिसा मरण पांवतलीं!
तरीकूय आमी काळाचे सुरूवातेचे
म्हान सांकळेंतली एक बेडी

---

* ट्यूलीप फूल काळीजाच्या आकाराचें आसता

जे बेडीक मरण तर वेगळावपाक शक्य न्हय!
हांव जेन्ना तुजे खातीर चिन्ता करतां
थोड्या दशकां पयलीं आशिल्लो उगडास,
जेन्ना सांजवेळे आमी एकवट जातालीं
भारतांतल्या एका राजपट्टणांत,
सांजवेळ आनी राती म्हजे भोंवतणेक येवन
करता तू घुसपा गोंदळ.
पयशिल्या देशांत जल्म घेवन
पूर्व आनी पश्चिम देशांचेर
समानतायेन शासन करून,
सग्ग देशांक आपले म्हूण मानून
जे जनाच्या स्वातंत्र्याचे खातीर झूज करून
हांगा एका म्हत्वाच्या अर्थपूर्ण
खाशेल्या कार्याक आयले.
संवकळीच्या त्या फाकाणांतय
आत्म्यांत इंगाळे जळून येताले
ज्या तरणाट्यांक शक्त आसता
संवसार नवो करूंक ते
क्षोभ आनी उद्वेग करतात
कितें म्हूण आमकां दोग्गांकय
जाणीव ना
काळान आमचे जिणेंत परिवर्तन हाडलें
त्या दिसांचें तर्नेपण
अजून म्हज्या मनांत आसा
अकस्मात् उडगास जाता
त्या दिसांचो, जेन्ना
आमी दोग्गांय तुज्या कुडींत
विचारांत वांटो घेतालीं
आमी सोदूंक शक्त न्हय कांय?

पूर्वी आनी पश्चिमी संस्कृताय
आगळी वेगळी आसूनय - - -
ताचे मनीस कोण म्हणपाचें सत्व एकच?
मार्क्स हांची जीण, जेजूलो त्याग
आनी दुख्ख न्हय वे?
जुदेव प्रवासीचें दुख्ख भोगतात कित्याक ?
जशें शरद्ऋतूचे पाले
वाऱ्या झपाटाचे वांगडा ना जातात?
एका यात्रेंत, जे यात्रेक आरंभ ना, अंत ना.
आमी खूब जाग्यांचेर मेळ्ळीं
आनी प्रस्न विचारलो,
तांचे उतरां विशीं सोद केलो
तर हें मेळ फलाचे जालेना,
एका दिसा तूं जेन्ना आमचे
आवडीचो कवी नेरुदा हांचो
'मोगाचीं कवितां' (The Love Poems) *
नांवांचो संग्रह उच्च सुरान अभ्यास करतालो
तूं कोणाकूय पत्राच्या रुपान मोगाची कविता
बरयता म्हूण आमकां दिसलें
तुजें कविता-वाचन एका तराचें मृदु-गायन
पातळ रेंव सकयल पडपा सारकें
हिम-वर्षा पडपा सारकें
ते दीस तुजें एकटुकपणाचे, तशेंच म्हजें
म्हज्या मनांत अजून ठळकपणाचो तो उगडास आसा!
तांतलो एक दीस एका कवितेंतलो
तुवें स्वयं म्हाका दिलो आनी हांव
एका चेलयेचें तोंड तांत सोदलें

* नेरुदा हांचो - Twenty Love Poems and a Song of Despair नांवाचो संग्रह

नितळ आनी सुंदर धवे लिल्ली सारकें
तुवें लिपयल्लें,
हांव तुका हात दिलो, बरेंपण मागून
तुजें तोंड लजेन तांबडें जालें त्या दिसाचें
संध्या सुंदर आसताली
विशेशता पळोवनाशिल्लेंच?
आमी जनेलांतल्यान पळयलें
पर्वत, तांबड्या उजाचे गळून सकयल येतात
आनी दर्यात पातळून वतात
जशें नीळ पांगरूण उजांत जांबळें जाता
जन दर्या वेळेक रेगिस्तान करतात
हांव पांवड्यावयल्यान सकयल देवन
'मागीर मेळपाचें' म्हूण हात हालोवन चलूंक लागलो.
ही जाणीव आसूंक की आमी दोग्ग
आनी परत पळोवपाक ना.
परत पळोवपाक कितले काळ जातले!
खतखतेवंच्या उदकांत फुगे जशें
म्हज्या मनांत कितले प्रश्न उठून आयले!
तुज्या कबराचे लागीं आशिल्या
खडग्यार कोरांतलीं उतरां हांव वाचलों.
'म्हाका उडगास कर, म्हजी प्रतिक्षा कर
हांव तांबडीं रोसा फुलां आनी
मदिरा घेवन येतलों –
तुज्या मोगाचो पेग्गी ...... '
अशें कोणूय दुसरो आसा वे?
तुका उडगास करूंक, तुजी प्रतिक्षा करूंक?*

---

* 'डेविड कोहन' हांका मोगीण नाशिल्ली. ती आशिल्ली तरी असलेंच अभिवादन करता आशिल्ली.

इश्ट, तूं समजता कांय?
हे सिमितेरीच्या एका कोनशांत
तुजे वांगडा आसात जे.
आपापल्या देशां साकून
दंड दिले प्रवास केले
निर्भय विचारांचे गुन्यांवकार
लागींच एक आवय आनी तिचीं भुरगीं
जळती मेणवत्यो घेवन प्रार्थना करतालीं
एक म्हांतरी एका कबराचे मुखार
जळच्यो मेणवात्यो घेवन
प्रार्थना करता आनी कडकडता
एक भुरग्या वांगडा ताची प्रतिमा घेवन
जे भुरग्याक देवदूतानी व्हेलें
ती आपल्या देशांत वचपाक ताकतीक करताली?

आनियेक म्हातरी वाटे कुशींत बांकार बसून आशिल्ली
ध्यानांत मग्न जावन
पुनरुत्थानाचो प्रयत्न करता आसुंयेत
भांगराच्या नुस्त्याच्या मरणाचे
खाणावळींत उतरपाक
हे कुड्डें मरण, जें एकदम बंद करता,
दोळे धांकता, कान धांकता!
अहंकार नाका!
कांय भोळें जन आपल्या मरण नातिल्या
मोगाच्या उडगासांतल्यान धाडस करतात
हांव आज तुज्या कबराचेर सोडतां हें ट्यूलीप
आनी वतां............
तें म्हजें काळीज ..........

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 2001)

**नोट**

लंडन देशांतले हाई गेट सिमितेरींत कार्ल मार्क्स हांचे कबरा कडेन आपल्या पोरण्या इश्टाल्या नांवाक लागून आडखळ जाले अपूर्व अणभवांत साकून हे कवितेक रूप मेळें. तो म्हजो पोरणो इश्ट 'डेविड कोहन' म्हूण हांव निश्चेवान विश्वास करना. हो इश्ट ज्या फोंडांत आशिल्लो त्याचेर भांगरा अक्षरानी कोरांतून दवरल्यां -

**एक मेलो इश्ट, 'डेविड कोहन' हाच्या उडगासाक.**

यहूदी जावन जल्म घेवन, ब्रिटीश नागरीक जावन वाडून येवन, 'डेविड कोहन' पांचवें दशकांतल्यो मुंबयचो एक साम्यवादी पत्रकार आशिल्लो. त्या तरणाट्या लागीं, जो आपल्या मनांत कविता, रोमान्स आनी सगळ्या संवसारा लागीं मोग घेवन आशिल्लो, अल्पकालीन सहवासान आमचो संबंद शुरू जालो. त्या पवित्र मोगाचें अंत तांका वेगळावन 'बरें, येतां' सांगून जालें. तशें हे कवितेचें निर्माण बी जालें.

## येवतुषेंकोक, मोगान

येवतुषेंको! म्हाका सांग,
तूं रूसी जनाच्या काळजाची
लुबडूबाची जाणीव आशिल्यांत एकलो कांय?
तूं दुख्खाचीं गितां गायता कांय?
की रूस आपल्या शेणिल्या
आत्म्याक सोदता कांय?
ती लाचार म्हातारी बायल अजून
आपलें वेगळायल्ले बोट सोदता कांय?
तें मातयेंत चिड्डून अदृश्य ज़ालें,
पर्वताचे कुशीक, जंय बर्फ पडलें आनी गोठलें?
जिणेचे नाशिल्ले सुवे खातीर जंय जीण
कश्टांनी धडपडत वता,
मुखावयल्या सुके तणाचे व्हडले मूडींत
एक कुड्डी म्हातारी
आतांय सवकास चलता, विलाप करून
की आपली मोगाची गाय खंय गेली?
कुड्डेक पळोवपाचें वा सोदपाचें कितें आसा?
येवतुषेंको! म्हाका सांग,
तूं रूसी जनाच्या काळजाची
लुबडूबाची जाणीव आशिल्यांत एकलो कांय?
शेणिल्लो आत्मो परत हाडपाक,
तू जाण कोणे हें नश्ट केलें?
तें बोट कोणे वेगळायलें?
तें गोठले बर्फांत चिड्डून उरलें कशें?
ताका वेगळावंचे हात खंयचे?

चाकू खंयचो?
थांगा एकलव्य बी नात कांय?
जाणें गायेक चोरली,
कुड्डे म्हातारेची जीण?

सुकें तण गायेचो आहार
तांत सुवो येंवचें अरिश्टान
हे मोगाचें रूस! फातरावयली
कोरांतणी तूं वाचली वे?
तांत क्रूरता सांगून घेतल्या
जशें बाबियाराच्या पर्वती प्रदेशांत
एक भी यादस्तीक फातर नात?
तुजे छातीक हात लावन म्हाका सांग
तुजे नखेत्रांच्या आवाजांत,
रूस असलें कांय पुणी करचें न्हय,
येवतुषेंको! म्हाका सांग,
तूं रूसी जनाच्या काळजाची
लुबडूबाची जाणीव आशिल्यांत एकलो कांय?

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**

(Ofp 1995)

नोट

येवतुषेंकोली कविता वाचून बरयल्ली जी कविता अशें सुरू जाता :
"Russia is searching Russia in Russia"

## यास्नाया पोल्याना

यास्नाया पोल्याना! तूं म्हजी यात्रा
तीर्थयात्रा करता, क्लियोण झाडां*
दोनूय दिशेन पासेयेचेर
मुखार वतासतना हात हालोवन.
'यो यो' बिरयोसान # ल्हव म्हणलें –
तुवें पोरण्या इश्टा सारकें स्वागत केलें
खूब जल्माक हें बंधन वाडोवपा सारकें
म्हजे चेतनेंत एक सत घट जालें.
हे पूर्व वा पश्चिम, हो पुराणांतल्या
खंयच्याय ऋशीचो आश्रम वे?
पूर्वी देशाचे खंयचेय नामनेच्या
स्तुतिगायकान रचिल्लो
आधुनिक संस्कृतायेचें माथें हांगा
आदरान बागता
दोंशी वाटेन झाडां आशिल्लो मार्ग
जंय रूख चोकीदारां जशें रावल्यात,
सुर्याचें वत बर्फ विरगळायता आनी
पानावयल्यान व्हळचें थंड बर्फ
तें आतां अदृश्य जाता
एक खेपे उमो घेवन रानाचीं सुंदर ल्हारां
हात हालोवन आपोवणें करतात
दोनूय वाटांनी झाडां आशिल्लो
रानांचो रस्तो रडकुळ्यां येता.
आनी पयस वचून आशिल्या वतांत

---

* विस्कायल्या हाता जशें पानां आशिल्लें झाड.

\# भूर्जवृक्ष

निस्तेज पळोवन ताच्या कपोलांचेर
दोन अश्रूकण व्हळून आयले
थांगा दोन महालां, एकांत बसला मनीस
तपस्या करपा सारकें, दिर्घ कालाक
जल्माची वेदना भोगून बाणांच्या हांतरूणाचेर!
रूसाचें महाकाव्य + हांगा जल्मलें!
यास्नाया पोल्याना!
तुजे लांकडाचे वणटी भितर
राती मेणवात सोंपनातिल्लें जळता आसता
कोणूय न्हिदनातिलें बसता,
अपणांक पवित्र करूक
दुख्खांत जळप, तीच एक रांदण आसता.
दुख्खान, चिन्तेन एकदा जेन्ना बसलो
ताच्या हातांनी नांगरचें रूसी रेवेंत मात न्हय
सगळ्यांकय – ताचे विचारांत आयलें.
जशें सुर्या आपण जळता
ताणें आपलो भांगराचो आत्मो
किरणां रुपान बदल केलो
आनी तीं किरणां दुसऱ्यांक उड्डोवन दिलीं.
मेणवात्यो जाचेर थीर रावतात
आनी जळतात ताचेर
दुख्खां फुलांचें मुकुट आसता
हें त्या अग्नियज्ञाचें साक्षी जाता.
तिंता कळशी आनी पांखांची लिखणी
हे रचनेची साक्षी जातात.
हीं पानां त्या उजवाडाचे थेंबे
संबाळून दवरतात.

यास्नाया पोल्याना! तूं म्हजी यात्रा

+ War and Peace

तीर्थयात्रा करता, एक म्हातारो मनीस,
खूब पोरण्या कालाक,
आपले तपस्येचें फल
आवय भुंयेक ओंपून दिवन,
तुजे दार सोडून गेलो
ताचो कांय लक्ष नासलो!
हांगा रावन हांव ताका उडगास करतां
जो सोडून गेलो हो प्रस्न,
'एकल्याक कितलो जागो जाय'?
म्हज्या कानांत प्रतिध्वनीत जालें,

रुखाची सावळी, एक स्पश्ट उतर,
ही माती टालस्टाय हांचे
निमाणें विसव घेवंचो जागो.
थांगा खुरीस ना, ताचें चिन्ह, कबर ना,
भांगराचें ताट ना, ताचेर कोरांतिलीं उतरां ना.
खंयचेय साधारण दुबळे
शेतकामतीचें निमाणें हांतरूण
रेंव, ते रेवेंत शरीर विरगळता,
ल्हान ल्हान तणा पात
दंवा अश्रू घालून आयले
आनी हे पोरणे रूख जांचें बळ
ल्हव ल्हव धडधडता,
कांय उडगासांत पडून
हेंच पवित्र स्थान जें सोदून हांव आयलों
ही रेंव कितली मोव आनी संवेदनेची!
भुंयचें मीठ जावन आशिल्लो
हांगा विरगळता.

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**

(Ofp 1978)

## पारव्यांचो राय

अजून हांव आयकलों
हे गल्लींत कोणूय गायता
पारव्यांचो राय म्हूण
तुजी तोखणाय करता.
ती जोड भावनातीरेकान आनी
मोगान ल्हव ल्हव उल्लयतात
ते येवजितात, तुमका पारवे मोगाचे म्हूण .
जेन्ना ते पांदऱ्यांत कोंडतात
तांची खर इश्टागत दाखयतात
तांचे भोंवतणेक भयंकर निस्सहायता म्हूण
आपले भिरांकूळ दोळे ते हालयतात.
दोळे वाटकुळे माणीक जशें तांबडे
तुमी तांका एकेक करून काडतात
मोग करतात आनी तांचे मुखार
नवधान्य घालतात
तें वेंचून तुमी हातान
घालें धान खावन
तें सौन्दर्य तुमचे लागी येता
इष्टागत दाखोवन "तू पारव्यांक मोग करचो
पारव्यांचो राय" म्हूण
शंबर जिबो तुजी तोखणाय करतात.
आनी तू गुपित जावन तांत आनंद पांवता.
मागीर तूं तांकां एका दुसऱ्याक
चोंच मारूक प्रशिक्षण दिता.
तांचे चोंचीक धार घालून, तुवें
दावखूल मारचें सारकें

मागीर तूं तांका उडूंक शिकयता,
भिन्न भिन्न वाटानी आकाशाचेर उडपाक
आनी एकामेकाक चोंच मारून झूज करपाक.
तांका पळोवंचें जन ताळयो मारतात.
आनी झूज खरेंच मुखार सरता
पारवे एकामेकांक घुरी घालून आसतात
तूंवय कितलो आनंद पावता
आपले दुर्बीणींतल्यान
पळयतासताना पारव्यांचें खून व्हांवता
कुशीक आशिल्या रुप्याच्या ताटांत
साकून तूं इत्तें काडता आनी
चाबडायता एका दुसऱ्याचे मागल्यान
भाजिल्यो तांतयो, आनी कितें?
ते पारवे जे कोणूय
मोग दाखयताले आवाज करून
आतां ल्हव स्हव फुत्कार करतात?
तांचे पांखांची वात
सगळ्याक पसरून आसा
सेवक हें वेंचून काडून रास करतात
पारव्यांचीं मडीं तशें चोंच मारून
आनी दावखूल मारून
एकामेकांक मारून उडयतात
तुजें जेवण आज थाटाचें
आनी पारव्याच्या मांसान स्वादिश्ट!
कोणूय गायता आसा, वाटे कुशीच्यान
तुजी तोखणाय करून,
तुजे विशीं वर्णन करून
पारव्यांचो राय म्हूण

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**

(Ofp 2002)

## निमाणें शेंवणे

हांव पोरण्या सरोवराचे देगेर बसलां
जंय पश्चीम देशांतले बगळे
देशांतर करून सकयल उतरतात
हे बगळे खंय गेले?
धवे बगळे जे हांगा उडत रावतात
तांची धारेची दीर्घ चोंच मुखार आसतात?
रावन एक पांयार खूब वेळ मेरेन,
तपस्या करून आसात,
नुस्तें आपले चोंचींत मेरेन पावोवंचाक
तांका वास करपाक पाचवें पाखें आशिल्ली तंबू
रुखानी तयार केली घट पानावळ
ते वांगड़ेपण करून तांती घालून
तांका खाणेक दवरतात
तांची पिलां स्वतंत्रतायेन उडून
शक्त घेवपा मेरेन.
ते देशांतर करचें भिरें,
पश्चिमी देशांतल्यान येवन
ऊंच उडतात म्हूण म्हजो उगडास.
तरीकूय हांव हेंच करतां -
तांचें सौन्दर्य पळोवन बसतां
हीं शेंवणीं आमच्या देशाच्यो अनुग्रह!
शेतांत, पर्वताचे सकयल, सरोवराचे देगेर
ते बदलून बदलून येतात.
थोडे फांतोड्यार येतात
भांगरा ओणमाच्या काळार

कर्णिकार पुष्प कणि* दवरपाच्या काळार
कांय उडून पांवतात
थोडे वेला # खेळाक गावपाक
आनी नवें रेंवेंक थंडाय दिवपाक.
थोडे भोव पीक आयिल्या मुण्डकन+
धान्याचो स्वाद घेंवचाक,
कांय आपलीं सुये सारकीं तोंडां पसरून
इत्तिरिप्पूवट्ट > फुलाक उमो दिवपाक
जेन्ना तें तृक्काक्करा साकून येता
कांय तुंबीचे** मागल्यान
उन्मत्त भोंवतात आवेशान
चम्प्याचे रुखार फुलेल्या  बसतात इल्लेशें
थोडे भोव उत्तर दिशेन वत्तात, घराचे
आनी उश्टें खांवचाक कलकलाट करतात.
कांय बळी खांवचाक पितृतर्पणाचो@
सोपान संगीत% आयकपाक आनी कोणूय
थोडे विशेश सुरांत आवाज करतात

---

* कणी : मलयाल्ली उत्सव विषु पयली वस्तू फांतोड्यार पळयलली पवित्र मानवता. हळ्डूवें कर्णिकार पुष्प, घोसांनी, भांगरा नाणें फळां आनी बालकृष्णाची मूर्त एकठांय दवरतात. हाका कणी म्हणटात.
जें कोणूय कणी पळयता वर्स भर ताका संपत्ती आनी सुख येता म्हूण प्रमाण.

# वेला : काली-पुजनाचो उत्सव जो गोंदळाच्या गितां, हत्तीचो देखावो, हांचे वांगडा मुखार वता

\+ धानाची एक तरा

> ल्हान फूल म्हूण अर्थ
तृक्काक्करा, कोचींत एक पवित्र सुवात. हांगा पोरणे प्रसिद्ध देवूळ आसा. विष्णूच्या अवताराची वामन
मूर्तिची पूजा हांगा जाता. ल्हान फुलां तीर्थयात्रा करूंक तृक्काक्करा वतात. अशी एक कल्पना.

** तुंबी ओणम उत्सवांत म्हत्वाची. इंग्लीशांत dragon fly म्हणतात.

@ पितृतर्पण आनी ताच्या संबंदान तयार करचें पिंडदान, बळी आदी.

% देवळांत मूर्ती मुखार गायन करचें संगीत

न्हिदेवंचाक गीत गायतात
दुख्खांत पडल्यांचे जनेला दिशेन
तीं म्हज्या दोळ्यांतल्यो बावल्यो
म्हजीं आपलीं भाव आनी भयण!
आज आतां मेरेन आयलींना किद्याक?
गीतरहित वसंत, पावस नातिल्लो पावसाळो
पयस गेलो.

धानाचीं शेतां सुकून पडलीं
आनी तांत चीर आयली..........
म्हजीं गिमाचीं फुलां वतान बावलीं
तीं मंत्र विसरून गेलीं जे
जळपाक रेवेंची आवड करून घेता आनी
चंवरां तांबडे रंगाचो फुलांचो घोस
चाषी* चो गंध
नवें पीक आयिल्या धानाचो गंध
भाताचें झाड, नवे रेवेंचो गंध
पावसाचा दडक जी उगम जावन येता
भिरांकूळ मरणाची घाण
ताळ्यांत रेंगाळता जो
सुगंधाचो उगडास करून दिवपी आसता.
कोणूय पश्चीम दिशेंत एक सरण तयार करता
म्हजी शेंवणीं सकयल तांत पडतात.
तांची पांखां तांत वेगळायतात!
अर्द्ध चेतनावस्थेंत गृध्र पक्षीची एक सावळी
खंयच्यान व्हावन वता
म्हजे मुखार

---

* धानाच्या झाडाचो नाश करचो प्राणी

त्या माड्याचेर बसून विजेच्या धपक्यांत
जाचीं पांखीं नश्ट जालीं, तो गृध्र पक्षी
आपले उजाचे दोळे घुमडायता
तांबडे मांसा कुडके स्क्रूवाचे तकलीच्या
आंकड्यांत धरले आनी
ते चोंचीक खूनाचो रंग.
ताचे भयानक दिश्टींत हांव पळयलें
आनी कळोवणी आनी विसकावणी केली
'हांव तो पक्षी जो सगटांचे फाटल्यान
तिगून उरपाचो'
मोगाची आवय तिका नाकापुरो जालें

दुख्खांत सुटून वच्या प्रयत्नांत
ती मागणी करता 'नाका'
ती आपणाखातीर विनंती करना
तर तिच्या जल्माक येनाशिल्ले भुरग्या खातीर
जें आतय तिच्या गर्भाशयांत आसा!
तो भिरांकूळ प्राणी आवाज करता
आनी अमंगळ हांस हांसता
तो हांस पांखां फडफडावपांत वाडून येता
गृध्रपक्षीचे आनीकूय लागीं हाडता
आनी हांव वयर सकयल धक्के खातां
ती आवय अस्वस्थ जाता
आनी तिचो नाश जाता
ती म्हजी पृथ्वी आवय!
गर्भाशयांतलें भुरगें जें पिंदून गेल्यां
तें तूं वा हांव?

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 2002)

## एक तुस्त-गीत

सूर्य अस्त जालो वे?
दर्याचेर दिसाचें रगत.
काळखान दिगंताक बलात्कार केलो
आनी दुख्ख घेवन उपेग ना
'दनपारां काळोख जालो म्हूण
एक नातूक' हूश घालता.

उमेदी केली की बंदखणीच्यो
उजवाडाच्यो वणत्यो सकयल पडल्यो
वागोळीं तांची पांखां फडफडायतात
आनी उडतात,
देवाऱ्यांत भिरांकूळ स्तोत्रां गायतात
सुर्याक एक मृत्युगीत,
तऱ्यां काळजांत निशब्दता
उदक गोठयलें आनी बर्फ जालें

भुकेची बोबो परपरत येतात,
मांसाचो वेपार रागार येता
घासाघीस करपांत
मेकळे केले बंधनाचे हुस्कार
प्रतिध्वनी करपाचो करकर आसो आवाज
मनशाची प्रतिमा सकयल पडता
आपले बसकावयल्यान
भोळे आमी, उकते पांयांनी रावले
आमी आक्रमण केलो सर्ग आमी शेणिल्लो

हें सत आसूनय, आमी स्तुतिगीत गायतांत
आमच्या सुर्याक
खंयचेय संकश्टांतय
इतिहासाचे सुकल्ले गीम कडोवन
आमी आपल्या सुर्याक प्रकाशीत करतलीं
पूर्व दिशेचेर

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**

(Ofp 1992)

## अग्नी

अग्नी म्हजो देव, म्हज्या हड्ड्यांत,
म्हज्या हड्ड्यांत आनी पोटांत,
नाभींत, सीरांत, म्हज्या शरीराच्या
ल्हान ल्हान कोशांत
दिसा दिसा ताका खावंक दिवपाक
हांव इंधन तयार करतां.
'म्हाका पुरोशें जालें' म्हूण तो सांगना,
ताका सांगूक कळना
धान्य, फळां, पृथ्वीचीं मुळां, तेल, दूद
उदक जें जिणे श्वासा खातीर शिंपडायतां
मंत्रांचे वांगडा ओंपणी दितां
सगं अग्नी खाता! म्हजी जीण अग्नीचो उपहार!
तरीकूय तोच अग्नी निमाणें
म्हाकाच खाता!

म्हज्या प्राणांत अग्नी आसा!
अग्नी म्हजी शिरो विजेचे तंतू करता
अग्नी ज्वाला उत्पन्न करता आनी
म्हाका आकाशा मेरेन पावयता
अग्नी खणीचे गल्लीक प्रकाशीत करता
जंय हांव वज्र सोदून वतां.
अग्नी कठीन लोखंड विरगळायता
अग्नी सुर्याक कोळसां मदीं प्रकाशीत करता
अग्नी हातोड्याक आकार दिता
अग्नी सांकळ तोडून घेता

जी म्हजे हात बांदून दवरता
अग्नी धातुंतल्यान नाजूक दोरयो विणता
जी दोरयो संगीत आनी नाच जाता,
अग्नी, म्हजे देहांत आनी थांगा आसा
म्हज्या मरणांत, म्हज्या गितांत!
घंस तांकां , अग्नी जळता!

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1980)

## फातर

फातर पसरून पडतात
म्हजे मुखार वाटांचेर.
फातर पायांक अडखळ हाडतात
फातर धारेचे भितर रिगतात.
फातर तोंकाळ, सुये सारकें वीख दितात
फातर वाठाराची शीम थारायतात.
फातर दुश्चिन्नाचे आसतात
फातर चडान चड मोव वा कठीण आसतात.
हे भुंयची सोबाय आनी वांकडेपणा तोंड,
फातर, फातर, सगळे वाटेन फातर.
पोरण्या काळाक फातर मोखून मारले
एका दुबळे शिंदळ बायलेक.
(तोंकाळ फातरांचेर खून भरलें
कोण भितरची मोवसाण निर्णय करता!!)
खावन, पिवन, मदोन्मत्त जावन जीण मुखार व्हेली
फातर कपलार नांव आशिल्ले
जिणेचे साक्षी जाले, रेंवेचे भितर आपलें अंत सोदतात
फातर असभ्य इतिहासाचे आंगणांत वास करचे
फातर आपल्या हड्ड्यांत उमेदेचे सुदारपी
करतात अरण्यरोदन!
फातर हजारांनी आपल्यो जिणो कठीन करतात
निर्दय जावन पांयां खाला माड्डोवन
फातर प्रतिक्षा करतात, आतूर जावन प्रतिक्षा करपाक,
शाप दितात दुडु दिवन सुटका घेंवचाक
फातर जिणेचे कठीण शिळेचे कुडके करता

जी शिळा गुहामुख धांकता
हे विस्तृत मनीस रूपी रानाचे.
फातर जे सुर्या सारकें जळतात
फातर जे अश्रूंचे समान स्पंदन करतात
फातर राती जशें काळखाचे
फातर जे तिनसांजे सारकें तांबडे

फातर जे फांश्यां जशे
खंयचय वेळार काडून खेळपाचे --
पृथ्वीचे पोटचें गेल्लीं भुरगीं
सग्ग क्षमा करचे आवयचें दुख्ख -----

तर कोण आसा
तांका जिणेचो श्वास दिवपाक?
ह्या फातरांक रूप दिवपाक,
आकार दिवपाक जो जिवीत दिसता?
कोण तांचे जिणें साकून उजो मंथन करता
आनी मोनेपणाक सुरेल गायन करता?

येयात, विन्ने आनी हातोडो घेवन
येयात, शिवाची आनी शक्तीचें प्रचंड बळ
हे फातरांचेर नृत्य करात!
भुरग्यांचो नवो वंश जो
सृश्टीक समतोल करतलो आनी फोडतलो
ह्या फातरांत जीण घालात
नवी रड बोवाळ्याची आनी शक्तीची
मुखार हाडात.

इंग्लीश अणकार : **आर. विश्वनाथन**
(Ofp 1980)

## मीठ

एक चिमटी लिल्ली जशें धवें मीठ काडून
आनी तें खतखतेवंचे पेजेंत शिंपडावन
सांगता आज ल्हव ल्हव 'मीठ घालता तर
ती स्वादिश्ट जाता,
पेजेंत मिठाचे मेळपा सारकें
एक दिसा ही आजी बी एका खिणान ना जातली.
तर ती सदा रावतली तुमच्या मिठांत :
तुमकां हांगा सोडून हांव खंय वतलीं?'

खाणा मेजार फडके आयदनांत बसून
मीठ हांसता
'दर्याचें उदक बाष्पीकरणान मीठ जाता'
म्हजे जिबेक पोरणे काळा सावन
हाची जाणीव आसा.

एका दिसा हांव दर्याक पळयलो
तो भुंयचेर ल्हारां घेवन लोळतालो
रेंवेंत लोळच्या आपल्या
अदृश्य जाले भुरग्यां खातीर
छातींतल्यान दूद आयलें आनी
सगळ्याक पसरून गेलें
दुदांत बुडून मरतले आवयेक हांव पळयली

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 1978)

## कपोतपुष्पम्*

कन्या आशिल्या फुल्लान
जेन्ना सुर्याक केलें ध्यान
ती पुत्रवती जाली.
तिणे धवे पारव्या सारके भुरग्याक दवरलें
तिजे मोव दळांत
ती जाली न्हीद नाशिल्ली
इत्तें करूंक म्हूण जाणीव नाशिल्ली.

तिणें तें सांगलेना , आपलो प्रमाद
एका पेटेंत घालन व्हळयलें नदींत
तिणें ती पेट मोगान छातीक लागून धरली.

तिणें लज्जेक बुडयली,
आपलें भंय, कलंक आनी दुख्ख
आपले निशब्द कठोर खोलायेंत

वेळ फांतोड्याचो
तिणें मोव दळां उकतीं केलीं
भुरग्याक सुर्या मुखार व्हेलें
मंत्र म्हणले
हे सुर्या! ह्या भुरग्याक ओंपून दितां!

---

* Dove orchid – धवे दळां मदीं एक ल्हान पारव्याचें रूप आशिल्ले अपूर्व सुंदर फूल. कुमारनाशान हांगेलें कपोतपुष्पम् , सुगतकुमारी हांगेलें आन असूयालु नांवांची कविता उडगासांत हाडका आसा.

सर्गार साकून कोणूय आपयता,
"यो रे पुता!"

तो पारवो उडलोना,
तो फाटल्याक रावलो,
वेंगावन आपले आवयचे छातीक

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1980)

## आंवाळे

पुराय गोंदळांत जेन्ना कानांन ताचे लागीं सांगलें –
"लग्ना जेवणाक आनी मदिरा ना,"
दयेचे मुर्तीन उदक मदिरा केलें;*
कन्येचो संतोश अश्रू जावन सकयल पडले,
जंय अश्रू कण सकयल पडले भुंयचेर
थांगा एक आंवाळ्याचो रूख उगम जालो.
फळानी भरिल्लो जीं फळां स्फटिक निर्मित जशीं
अश्रूचे मणीं सारकीं तीं फळां आंबट;
हांव एक खेलें
चोय! आश्चर्य, थोडे उदकान तें मधूर जालें
-- मदिरे जशें मधूर!

इंग्लीश अणकार: **के. एस. नायर**
(Ofp 1976)

* कानाच्या लग्नाक जेजून उदक विन्यु केली कथा

## भैरवाचें ल्हान धोलकें

देवा सायबा! तुकाय न्हीद येता-----
तूं चौकीदारा सारकें जागरण करता
म्हज्या दुबळ्या चिखला खोपटाक
दीस-रात आनी वत- पावस
न्हीद नाशिल्लें आनी थांबनासतना
एकेक धपक्याक कितलो समय
आमी कुशलतायेन धोलकें वाजून
आपलें अस्तित्व नेटान सांगून
घरांत खाण आनी पिवण जावन
दिवो वाडयलो तरीकूय तूं न्हिदना
कीर बी उलोवप बंद करता
तरीकूय तूं न्हिदना
जेन्ना अन्तः प्रेरणा ना जाता, उर्बा नासता
आपलें संवय नाशिल्लें जागरण
चौकीदाराचो जागो घेता
रागान पिसो जालें तुफान वा
पावसाची दडक
गिमाच्या सुर्याचें भाजचें वत
तूं आपलें जागरण हे चिकला खोपटांत करता.
तुज्या दोळ्यांचे मुखार हुमकळटात
सुंदर सपनां सजेवन हांव तुका घुरळ घालें
आनी कोडू काल्स इत्सेचें कुडके दिले.
सगळेच जाणीव आसूनय कांय जाणीव ना म्हूण
तूं ताळ मेळ सामान्य धपक्यांनी राखूंक लागलो
एक हजार एक रातीचें आश्चर्य

एक कथेचे उपरांत दुसरी जावन
थांबनासतना निरंतर
हें सगळेंच धोलक्याचें आश्चर्य
निरंतर वाजून आशिल्ल्या
विसव नासलें दीस रात वाजून
खूब धपक्यांनी

तें चिकलाचे खोंपट जिणेचो राबीतो म्हूण
खूब दाखोवन!
हें म्हजें दुबळें हड्डें जें
हे चिकलाचे खोंपटाचो राखणदार!
तुका न्हीद येता वे?
तूं कांय जिणेचो कवी वा
तूं भैरव मरणाचो देव?
तुज्या डमरूचें ताळ-मेळ कसलें?
जिणेचे ताळमेळ?
मरणचे ताळ-मेळ?

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 1998)

## वाग्दत्तभूमि

‘वाग्दत्तभूमि खंय आसा?’ हांव विचारलें,
तो भांगरा देश खंय आसा?
दिसाचें शेवणें एका खेपे उडलें
आनी एक उदास बोब मारून अदृश्य जालें
हून वारें भोंवतणेक सान्न मारून गर्जन करता
नेणार शत्रूची सेना जशें.
आमी बंधनांत जाले
काळखाचे खोलायेंत तंबूंत पडले
कुडके जाले सपनांचे विजेच्या धपक्या सारकें
मरणाची कुरू जशें
थरथरपी पांय, तप्त आत्मा आनी नितळ दोळे,
हांगा हे मरुभूमींत रावन हांव बोब मारली ल्हवच,
‘वाग्दत्तभूमि खंय आसा?’
बिलोरीचें चौखट आशिल्ल्या जनेलाचें कूड---
निशब्द रात खोलायेची........
कुडके जावन पडल्या
म्हजी चेतना फुला सारकें बंद आसता
जें फूल परत कळो जाता,
निशागंधी जशें फुलेता
तशें सपन बी फुलेता--
रात-रानी-- एक सपन
‘वाग्दत्तभूमी’

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 1968)

## रक्षक

खाण आनी वस्त्र
ब्रेड आनी विन्यू
रक्षक आमचे लागीं
केदना येतलो?
आमी तुमचीं सास भर नांवां आयकल्यांत,
तर तुज्या नांवांची आमकां जाणीव ना!
तुज्या रूपाची आमका जाणविकाय ना!
तुजें मुखामळ आमी पळयलेना!
आनीकूय दुबळे सग्ग, सगळे समयाचेर
तुजी प्रतिक्षा करून आसात.

खाण आनी वस्त्र
ब्रेड आनी विन्यू
रक्षक आमचे लागीं
केदना येतलो?

तुजें सौंदर्य कशें?
तें नीलकुसुमा सारकें? वा नवनीता सारकें?
आमका निश्चेव ना!
आमका तुज्या मुखामळाच्या
रुपाची जाणविकाय ना!
तुजे शब्दाची जाणीव ना!
तरीकूय आमी सदा निराधार, निराश्रीत
तुजी वाट पळयतात.

खाण आनी वस्त्र
ब्रेड आनी विन्यू
रक्षक आमचे लागीं
केदना येतलो ?

तुजी मुस्तायकी कसली ?
पाट्याची वा सुताची, पत्रांची वा सालीची ?
आमका जाणीव ना!
तुज्या हातांचेर खिळ्या चिन्ह आसा कांय ?
तुजे हातांत मुरळी आसा कांय ?
किदेंय आसो रक्षक येतलो,
आमचे मदीं एकलो--- आमीच!

खाण आनी वस्त्र
ब्रेड आनी विन्यू
रक्षक आमचे लागीं
केदना येतलो ?

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1980)

## हे काळे व्हडेकार!

काळे व्हडेकार!
'तुमची प्रतिक्षा करून पुरोशें जालें' म्हूण
तूं म्हजे लागीं सांगलें
रागार येता किद्याक?
प्रतिक्षा करपाक वेगळेंच पगार आसा,
तुका जाणीव ना कांय?

भाडें बेगीबेगीन दिवंचें,
ना जाल्यार म्हजे वांगडा येयात -----
थोडीं रुप्या नाणीं हांव तुका दिलीना वे?
तुका नाका म्हूण तूं परत गेलो?

तूं पेलतड वता म्हूण हांव पळयलों
एक म्हातारो मनीस, ताचीं नातरां आनी पणटूरां
ताचे वांगडा पेलतडी वतालीं

जें कोणूय आपटता
जें कोणूय मोगान भरिल्लीं आसतात
तरीकूय़ येलतंडी रावपांत रूच नाशिल्लीं
जें कोणूय दुबळे आनी रोगी आसतात,
ताका तूं सर्गाची चावी दिता म्हूण आयकलां
आनी तांका पेलतडी म्हरून सुटका दिता.

तूं तारीचेर पूण आयलो बोट घेवन?
तूं प्रतिक्षा करता म्हूण हांव पळयतां

कोणाकीच सहाय करपाक आपले बोटींत.
आनीकूय तूं पळून वता
एका काळे जिवाण्या सारकें
ल्हान ल्हारां सुंटून वतात.

काळे व्हडेकार!
जेन्ना तूं परत येता
तुजे बोटीर कोणूय ना,
आलतडी येंवचाक?

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1980)

## घरां

हांगा म्हाका एक घर आसा
भूशिरेच्या पटांगणांत
झरो आनी सरोवर मेळून
जोडगीत गायतात.
ह्या घराचे पडवेचेर
म्हज्या दोळ्यांनी हांव पळयतां
ह्या फुलांच्या दोळ्यांतलें मोनेपण,
म्हज्या आंगणांतल्या सदांचे सोयऱ्यांचें
आनी एका कागदाचेर नक्कल करतां
तर हांव थरथरतां!
मोगरी
आपल्या घोवाक
वेंग मारून
कांय वेळार नेटान
आवाज करून हांसता
कित्याक! देव जाणा
तें पळोवन तरीकूय जाणीव नाशिल्लें कित्याक
म्हूण हांवय हांसतां!

खरपून अळशीक आनी कुसलो पालो
कोंबी रावता चोंचींत व्हड किडो घेवन;
उत्सूक पिलां तिचे लागसर
एका पांयार उडकी मारतात.
एका घोणीची सावळी आंगणांत पडता
चोंचीतलें भक्ष्य आपटून

कोंबी आपल्या पिलांक
पांखां सकयल एकठांय हाडता.
हां, हांगा वसून हांव पळयता दिसा सपन
म्हजें घर कोंबये जशें आसता

जें घोणीक पळोवन आपल्या भियेल्ल्या
पिलांचेर पांखां पातळायता म्हजे सारकीं!
हांगा वारें घाण घालता
उदकांतल्या नारलाचे कुशिल्ले घाणीची
आनी तटप्रदेशाचे केतकीच्या परमळाची........

2
म्हाका हांगाय एक घर आसा ---
दोंगराच्या माथ्यार आनी
ताचे भोंवतणेक दरया सारके
पाचव्यो लहरी उठून येतात ---
आनी ते लहरीक उमो घेवन
काल येता
फांतोड, दनपार, आनी सांज जावन
यागाचे तणा सारकें
जेन्ना किरणां प्रज्वलीत जातात
काळखा सारकें,
सुकणें रात काडपा खातीर विसव घेता
दोंगरा शिखरांचेर गोरवां चरतात
गोरवांचे फाटीर कावळे बसतात
फांतोडेक तर्ने नाल्लाचे गोडसाणींत पुराय भिजून
राखण्याल्या आवाजांत बेतकाठयेच्या स्वरांत
बोकडे पिलां आपले गोठ्यांतल्यान
सकयल धांवतात खिंडीतल्यान झरो कशें

भियेवन बें बें करून तीं मागशीं धांवतात
तांचे मागशीं वाग काय? वा शिकारी?
ह्या घराचे पडवेचेर  बसून
खयूंच अच्छेव करच्या
उजाची समजिंकाय जाली म्हाका
हरयाळीच्या कवळपांत
शिळीणी घालून हून वारें,
दोंगराचें वस्त्र भितरच्यान लासता

दोंगराचे व्होंटींत
बोकड्यो, राखणो आनी हांव

3

सगळ्याकय म्हाका एक घर आसा
मरुभूमीचेर जंय ऊंट पळोवपाक मेळटात
चलतो पिरेमीड जशो आनी पिरेमीड
व्हडलो हालनत्तिल्लो ऊंट जशो;
काळखाच्या खंडांत जंय
पोरणो हो पिरेमीड आशिल्ले मरुभूमीचेर
कापिरी जेजू खुरसाचेर चडलो
दुसऱ्या दिसा मरणांतसून वयर येता,
मदराती सुर्याच्या देशांत,
त्या देशांत जंय
मनशाचें नशीब परत बरयतात
ते सुवातेर जंय बर्फ विरगळता
आनी मंदाकिनी रुपान व्हळता.
शेतांत जंय गुलाम
काळीज वितळून
भूंय नांगरतात,
आनी नवधान्य रोयतात

आनी एकठांय गितां गावन शेत लुंयतात;
व्हड व्हड नगरांत जंय
गगनचुंबी इमले
घाण्या वसत्यो,
आनी अधोलोक तेच फास्कींत;
आस्पावन आसता
पर्वतांच्या शिखरांचेर
गहन खिंडींत जुंव्याच्या चोंब्यांत
देशांत आनी परदेशांत - सगळ्या संवसारांत
सगळ्याक म्हाका एक घर आसा

आनी म्हजी अपूर्ण कविता,
आनी हांव थांगा आसात

म्हाका एक घर आसा
जंय वास करतात बरे मनीस
जे मनशांक मेळूंक हांव सदा आंवडेतां
आनी जिणेचो भावातीरेकांत
वांटेकार जावपाक उत्सूक जातां
दुस्मानाकय अकलंकीत दिश्ट,सत उतरां
कडकडसाण पयस करचो मृदुस्पर्श
दुसऱ्याली तान अपणाल्या परस हुसक्याची मानवप
आनी दया आशिल्लें घर
जाचे ल्हान सोप्यार बसून हांव गायतां
गेल्ले दुख्खाच्या खिणा विशीं,
तुमी हें घर सोडून वचात!
येवकार!
हे आनंद, सरल आनी पुराय यो लागीं

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**

(Ofp 1985)

## प्रवासी

निशब्द गोपूर*
मरणाचें जेवणाचें मेज
जंय हांव पडलां नागडो आनी उदारें
पुराय भाजलें बोकडीचें पील जशें
दोळ्यांचें लिकलीक ना जालें
म्हजो आवाज अंदलो मोने ओंठावयलो
हड्ड्याची हुनसाण ना जाली
तरीकूय म्हजो उचांबळीत जीव
वेळ काडूक लागलो, वचपाक नकारून
श्रवण्यान आपलो घोंटेर काडून घेतल्या सारकें
आपली फाटीक लगपाची संवय
सोडूक नाखूश आसून
गीद आपल्यो चोंची अनिश्टसूचक उकत्यो घेतात,
तिचीं पाखां जबरदस्त मारून,
वाऱ्यांतल्यान सोडून सकयल देंवतात
आनी म्हजे भोंवतणांक
एका पांयार उडक्यो मारतात
तनपट उमेदीन
त्यो म्हजे शिरांत चाबे घालतात
आनी रक्ताचे मणी पसरायतात
चळयात ते म्हजे दोळे
बिलोरीचे बॉला सारके हुमकळटात

---

*पारसांतले जन मेल्ले मनशाक गीदांक खावचाक जंय सोडतात ताका निश्शब्द गोपुर (Tower ofsilence) म्हणतात.

तांच्या रक्ताचे चोंचींतल्यान.
तांणी म्हज्यो अस्थी मोडल्यो
हड्डें खणलें, चोंचीन फोडलें
पद्‌माक्षा कळो जशे रूप रंगाचे
ते म्हजे मांस सामके पिंदून
म्हजी अस्थी वेंचून काडतात
जी दामून घेवंच्या उशीकांडा समान
आवाज करतात.
म्हजो आत्मो अजाप जालो
हें कांय संवसारीक दुख्खांत साकून मुक्ती,
मनाक बशिल्ल्या जिणेच्या धसकां साकून
शाश्वत जावन मेकळें जावप
कुडकुडो भरून हांव अणभव केलें की
मरण जिणेचे सगळे यातने परस
व्हडलें दुख्ख म्हूण

2
पयल्या पावसांत मातयेचो धूंद वास
म्हाका आवडेचो!
हे उर्वर भुंयचे विशीं
जेन्ना हांव गायतां
तेन्ना म्हजो आवाज
मंद-मधुर जाता.
तरीकूय म्हजे वंशज जेन्ना
स फुटाचे फोंडांत म्हाका दवरतात
आनी रेवेंचे दाट दाट थरान
म्हाका धांकून घेतात, आनी
लोकाचार मानून
म्हजे समाधीचेर रोंपो रोयतात

आनी दोळ्यांत अश्रू घेवन
अलविदा सांगतात,
चिड्डून, घुसमटावन वाऱ्याचो झोत आयलो
श्वास घेवपाक कश्ट जाले
जळपी तानेंत भाजूंक लागलो.
व्हडले अंध गुहेचे खोलायेंत
हांव निळ्या निळ्या आकाशाच्या विस्ताराक आंवडलों.
म्हजो आत्मो हुडकेता
मातये कळसो फोडून घेवच्या अनुश्ठानाक लागून
म्हज्या माथ्यार आनी समाधीचे भोंवतणेक
उदकाचो उसळिल्लो शिंतोडो घालपात

मरणाची वेदना कितली यातना दिवपी
जिणेचे एकठांय केल्ले सगळ्या दुख्खाच्या परस व्हड.

3
चंदनाचो सुगंध
आनी ताची थंड म्हाका आवडेची
मरण, तुका व्हड उपकार सांगतां
हांव चंदनाच्या संवसाराक तिरस्कार करतां,
ती म्हाका शापीत वस्त.
आनी चितेचें हांतरूण दिवन
तुमी म्हजो आदर केलो,
चंदनाचे लोटिंगेचे चितेचें घर तयार करून!
म्हजें हड्डें फोडलें,
कांय तुज्या कानार पडलें?
सरभोंवतणीं उजाचें भयानक तांडव
तूं पळयतां कांय?
तांची भुकेल्ली जिबो चिकटून दवरून?

चंदनाचे लोटिंगेचे वांगडा
जेन्ना म्हजें देह गोब्बोर जाता
म्हजो आत्मो अदृश्य, चिंतेस्त आनी
येवजून सांगता, 'मरण अचूक यातना'!

4
गंगा माता, म्हजे पूर्वज
खूब पयस चमकले
तुमचे पवित्र भुंयचेर,
तांचें पाप धुंवचाक हांगा आयले
तुज्या तटाचेर बूड मारूक
आनी प्रार्थना करूंक.
हांवूय त्या सुखाक पांवपाची इत्सा केली
तुका वेंग मारूक;

तरीकूय जेन्ना तांणी म्हजे
हात आनी पांय बांदून
एक मोंचवांत नदीचे मदीं व्हरून
मंत्र म्हणून म्हाका उदकांत सोडलो
'शांति शांति', म्हूण
म्हाका एका तराची वेदना जाली,
जेन्ना नुस्तें म्हजें मांस खांवचाक लागली --
मरणाच्या मोगाचे जीव अपापले
आवडेचे कुडके खांवपाक लागले,
धपको खावन, असहाय जावन
म्हजें अस्थिपंजर मात शेश उरलें
कडकडेवन, गडगडेवन
उदकार जाळें ओडप्यांनी व्हेलें
म्हजो आत्मो उलयता, तूं आयकता कांय?

दुबाव उकतावपी तो ल्हव आवाजान सांगता
'हीच मुक्ती जल्माच्या घुसपा गोंदळां साकून?'

5
शिकारी शेवणें, भुक्केल्लो गीध, हिंसात्मक चोंच
बचक्यांत धरपी दावखूल,
जी शक्ती आमका न्हयकारता
शुद्ध श्वास घेवपाचो हक्क
जें कोणूय चंदनाच्या उजाची हुनसाण घेता
(ताची संपत्ती आनी वासनामय स्पर्श)
आनी मोरयो ज्यो ल्हान मासोळ्यांक गिळतात,
सगळेंच हांगा आसा – सरभोंवतणेचे जिणेंत.
तरीकूय हांव काळजा सावन जिवीताची ओड घेतां,
आनी म्हाका मरणयातनेची बरीच जाणीव आसा.
म्हजो आत्मो विचारता – म्हाका 'वाट दाखय'
'जिवीतांत परत येवपाची वाट आसा कांय?'
मनशाचो सर्जनात्मक आग्रो कसो
जशें पावसाडीचें मोड
व्हाळ्या रुपान सकयल येता
एका उत्पादक गर्भाशय सोदता
म्हाका दुसरो जल्म घेवपाक
पुनः भुंयचेर एका भुरग्या रुपान येवपाक?
म्हजो प्रवासी आत्मो भरकटसतना हुडक्यांनी रडता
वाट सोदून आपले प्राकृतीक निवासस्थानाची

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**

(Ofp 1995)

## मिठा खडे

दिव्यांतलें तेल आटता
दिवो पालवता
मातये दिवो जशें
आमचे कुड्डे दोळे
प्रकाश आनी जीव नाशिल्ले दिसतात
जशें काळोख संवसाराक आगळीक करता
खूब जन वळवळतात, दुख्ख भोगतात आनी मरतात.
काळखे रातीन कूस मारलें,
आमी नेणार जाले .

कांय जण जशें तांणी विश्वास केलो
संतोश भोगतात
जे पडले तांचे शत्रु आशिल्ले;
थोडे भोव समाधान नातिल्लें रडतात
ते विश्वास करतात की
मेल्ले मनीश तांच्या मोगाचे आशिल्ले
धेंगसो  घालून थोडे जाण
रागार येवन क्षोभान किळांच मारतात
कांय जण सांगतात की हत्या तांकां
हत्याऱ्या लागीं पांवयता
हें जशाक तशें वा आसा तशे तरेन
एका दोळ्याक दुसरो दोळो;
बदलो हांगा पुराय जालो
मेजमापांत मेळ बसता;
ह्या पक्षांतलें एकेकूय मरण
सामके खरेपणान परत दितात

सूर्य पूर्वी दिशेचेर रक्तवर्णान उदेता
दिसाच्या धडधडत उजवाडांत
कावळे कांव कांव करतात
मेल्ले मनीश रेंवेंत परत गेले,

जिवीत मडीं शेंपटीन वाडतात
जिणेची कुरू अजून सकयल जालीना
तरीकूय वारयांत केळीचे पाना सारकें
पिंजून फाळी जातात
नियाळपत्रक उकतें जाता
तांबडो बुडबुड मात आसता
हो पुसून उडोवपाक शक्य न्हय
मीठ आमचे नांव तरी आमी खडे मात
दुसऱ्याच्या घायाचेर विरगळेंवचें नात

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**

(Ofp 2000)

## मोडलीं कांकणां

'मोडून घे आनी ना नपश्चात् कर
आनी काडून परत रुपकार दियात...'
अशें किळांच मारून काल
हांव हे वाटेन गेलों

एक मोड हेडून आपले वांगडा
पावस घेवन आयलें
जशें तांबडे मातयेचेर उदक आयलें
म्हजो सूर लेगीत व्हळून गेलो.

हे दीस कशी धांवतात,
कोणूय तांकां 'चल वच' म्हूण सांगना
कशे तरेन पुनः फुलली, कोणूय सांगना
'फुलून यो':

आकाश नितळ जालें
नवें सुकलें मळ तेन्ना सोबीत जालें
उजवाडाचीं पांच वा स किरणां
कंवचेचीं कांकणां तोडिल्लीं
उजवाडान भरिल्लीं.

चिंता नाशिल्लें हांव तीं हातांत
एकठांय केलीं
तोडिल्लें सौन्दर्य जें
अवेवस्थीत जालें

हांगा ते पंथ धर्मोपदेश करतात
केन्नाय नाश थांगा येंवचो ना,
दुःख्खाच्या ह्या पाचव्या जुव्यांत,
म्हाका समाधान जालें;

‘प्रेमयाचना करपाक आयली वासना
हे कन्यारूपी पृथ्वीक!
तू कशें काडतलो
इन्द्राचो भव्य धनु
आनी तो वोडून कशें कुडके करतलो!’

इंग्लीश अणकार : **हेफ्सिबाह जेसुदासन**

(Ofp 1960)

## मरणाच्या उपरांत

आपणाक जावन जीण
 मुखार व्हरपाक विसरून गेल्ले
म्हज्या इश्टाचें शीतळ मडें
तुमकां दितां, येयात.
तुमी वैद्यशास्त्राचे विद्यार्थी
कातरून पळयात हें मडें
हाचो अभ्यास करात.
म्हज्या इश्टान सांगलें--
तंच्या मड्याचो संस्कार
हांव कशें करचें म्हूण.

ताची फाट पळयात
तुमका एक दिफळो मेळटा
ती दुख्खदेणी निशाणी तुबकाची
मारपाची मोख
तेंच ताणें दिल्लें मोल
आमच्या स्वतंत्रतायेक!
हांव तें पळयलें म्हूण
आनी तें म्हज्या फाटल्याक येता
म्हूण ताणें कोणा लागीं सांगलेना
म्हाका माफ करात
तुमी पळोवंचें ना सगळींच
फाटीचीं कणां आपापल्या जाग्यार
दुबाव ना हांत की ताचें
एका घाट्याचें हिशोब देखून
तें आमकां आसो हुसक्या मेकळें!

किदें? ताका धा बोटां नाशिल्लीं?
हुसको नाका ती कथा ताणें म्हाका सांगली;
भुकेलो अशक्त जल्यारूय तो मागना आशिल्लो
खरें सांगचें जाल्यार भुंय खणपाक

कामगारां लागीं एकवट जातालो
रोग आसलो तरीकूय व्हड भंय आशिल्लें
आनी मरण सहज आशिल्लें!
अपघातांत हात वगडायल्यार,
पांय नश्ट जाल्यार वा बोट गेल्यार
दुडू भरतली, थोडेच! हीच ताची वेवस्था
आपत्काल! पयलेच त्रास जालो, ताणें सांगलें,
जेन्ना ताणें आपलें बोट कातरलें
भयणीच्या लग्नाचे खर्चा खातीर
दुसरे खेपे ओखद घेवंच्याक आईक;
आनियेक शेजार घरांतल्या दुबळ्या
मनशाच्या सहाया खातीर!
ताचें फुफूस सुजलें म्हूण तुमकां दिसुयेत;
मात ताणें श्वास काडपाच्यांत न्हय,
श्वासा वांगडा थोडी माती बी काडपाच्यान
एका खांकीची आनी ताळ्यांत घरघरपाची फुटतूट
तुमचें ओ.पी.वार्डांत तो परपरत येतालो.
रोग्याची सेवा करपांत
ताका व्हड मान आसतालो
देखून ताणें आपलें शरीर
तुका वसीयतनामा बरयलो.
येयात! तुमी वैजकीचे विद्यार्थी!
येयात! हें मडें चिरून सिंदून घेयात!
आनी अभ्यास करात!

हांगा तुमी खूब अडखळ घेवयात;
ह्या शरीरांत कार्य खड्डीचें वा
चिमट्यान काडूक जायना अशें
ह्या गोठल्या मेंदूत तुमका नवें
पळोवपाक मेळटा
सारयेचो गोबोर एक भव्य सपनांचो.
ताचें हड्डें एक ल्हान पिटकोळें
जाची चोंच भर गडगड आसता विजेचे वांगडा
ताचे दोळे पयशिल्ली वस्त पळोवपाक येना अशें न्हय
अश्रुपूर्ण आनी कंकरीले आमचे देशा खातीर
जे सदा पयशिल्ली वस्त पळोवपाक येना अशें!

ताची बोमली मोगाचें पुजास्थान
ताचें शरीर तुमचे खातीर उकतें जातलें,
हांव दुबाव विरयत सांगतां
बुद्धीची खण.
येयात वैजकीचे विद्यार्थी,
येयात! चिरून घेयात,
हें शरीर अभ्यासाक जावन!
आनी म्हाका सांगात, हें मेल्लें मडें
नाशोन्मुख वर्गाचें आसता कांय?

इंग्लीश अणकार : **जोय टी. आर.**

(Ofp 1992)

## हांव कोणाक निरोप सांगचें ?

1
ही गर्देची बस
म्हाका उतरायता आनी
कोनशांत उडयली म्हजी वस्त
ताची भरवण करता
समयान निश्चीत केल्ले सुवातेचेर
आनी ल्हव येता.
हांगा हांव वेंगावन रावलां
म्हज्या दिसाच्या आहाराच्यो वाटो
आनी म्हाल दवरपाचो ताबो
ही शाश्वत वाट आपले हात.
नीट करता म्हाका घट वेंग मारता
मोगान तशेंच जशें दरया झर्याक वेंगायता.
हांव निरोप सांगतां? तर कोणाक, किद्याक?

2
कितले यात्रेकार, इश्ट मित्र आपले
काळजाचें दुख्ख आनी ज्ञानाचे वांटेकार
ल्हान भुरगीं म्होवाक आंवडेवन
काव्यरूपकांचो संचय करून
सामगीता अभ्यास करचे
पृथ्वीक मोग करपाक शिकोवंचे
तिची उपेगी खोलायेचो सोद करचो
आकाशावयले प्रकाशमान उच्चताचें हवेर उफेवप
त्या व्हडल्या मनांच्या व्हाळ्यांत

म्हजे दोळे विरगळतात;
म्हजो पोरणो उगडास जिवो जाता
हांव निरोप सांगतां? तर कोणाक, किद्याक?.

3

आमच्या पुर्विल्यांची सांगणी,
रसायनीक सुत्रां जीं आम्ल आनी मधूर
जीण जी आंबट जाली
एक सतांतल्यान दुसरो जल्म घेवन
सूर्य एक चकचकेवंचें उतर सोदून
एक बीज अनेक अर्थ
फळ फुलांत, रूख फळांत,
थंडी उजांत, उजो थंडेंत
अणुच्या अणूंत आकाश गंगा
आमचे जिणेंत जांवचें म्हाभारत
सोदप आनी मेळप,
हे वाटे कुशींत आशिल्या देवळांत
खूब तीर्थयात्र्यां लागीं
हांव म्हज्या देवळाक
बरें करून राम राम सांगतां

4

लांब लांब छाया खिणान फाटल्यान सरता
मोटवीं पांवलां भंय नाशिल्लीं आसतात
पूर्वी मांड सोदतात
हांव ते शेतांक बरें करूं राम राम सांगतां
जंय हांव छाया नाटक प्रतिदिन पळयतां?
हांव ते गल्लींक बरें करूं राम राम सांगतां
ल्हान आनी तरनी पांवलां उडून वतात?

हांव त्या रुखाचे सावळेक बरें करूं राम राम सांगतां
जी वताक शांत करून ताची तान पयस करता,
चान्याचें शीतल शिंवर दूद जशें?
हांव ते तळयेचे फातराचे पायवाटेक
बरें करूं राम राम सांगतां?
हांत ल्हान ल्हान दुख्खां

आपलीं पांखां धील करतात
अल्लय गावन, चंद्रिमाचे
लिपून आशिल्ले भुकेक.
आनी धान सोडून गेल्ले पळयता
हांव ते सुंदर पटांगणाक
बरें करूं राम राम सांगतां
रानांत जंय तरनेपणाची इत्सा
दर्भाचें जशें बळी दितात
नवे यज्ञांत जंय नवे संवसारा लागीं संबंद जाता
ते सगळेंच जळयतात .....
आतां हांव बरें करूं राम राम सांगतां?
तर कोणाक आनी किद्याक?

5
तुवें म्हज्या काळजांत तंबू केलो,
हांव म्हजे इंद्रियांचे जनेलां -कवडांक खिळी लायली
जेन्ना हांव पांच जळच्यो वात्यो वाडयल्या,
अकस्मात् तुवें म्हजे भितर
हजार पटीन वात्यो जळयल्यो.
आनी हांव म्हाका एक ल्हान थेंबो
म्हूण मानून घेतलो
त्या दयेच्या मोगाच्या व्हाळ्यांत बुडयलो

अवकाशाच्या वेळार प्रकाशाचो
एक ल्हान थेंबो जावन भगभगता
हांव बरें करूं राम राम सांगतां
तर कोणाक आनी किद्याक?

इंग्लीश अणकार : **जॉय टी. आर.**

(Ofp 1986)

## फुलझाडीचीं फुलां

म्हज्या काळजांत जंय
दुख्खाचो भगभगचो सूर्य थंड जालो;
थांगा फुललें एक फूल
म्हाका ताचें नांव कळना.

फांतोड्याचेर झेम काडपाचें कितलें मधुर!
आनीकूय आमच्या घरांत एकली आजी आसा
ती आमकां जागयता.
ती सकाळीं जागता कित्याक तरी
ती खूब न्हिदेली, जीण भर,
तर आमी ल्हान भुरगीं!
जेन्ना आमचे न्हिदे कूडींत
आजी दिवो पेटयता,
प्रकाश पूर्वी दिशेन धांवता रावता की
आकाशावयल्या दिव्याची वात
कोणूय काप छांट करीत आसा.
जो दिवो काल भायर गेलो,
शेजार घरां आयकश तुस्त गायता आसा......
....'मनीश जावन ह्या संवसारांत जल्म घेवन....'
त्या दिव्य प्रकाशांत आनी त्या गिताच्या सुरांत
न्हीद इबाडिल्ली आनी लांबपी जाली
मणी जशो दवा थेंबो हालून आशिले फुलाचे पातयेर,
मंद मंद वाऱ्यान मोग केल्लो
तेन्ना दिट्टी आयलो म्हाका जागोवपाक, गायक समूह
'आरे ल्हान ल्हान विंदरा पिला, तूं दोळे विसकळायता कांय?'

ती बायल न्हीद जिणे एक फुलांचे हांतरूण केलें
सपनांनी भरिल्लें, म्हज्या मनांत,
म्हज्या दोळ्यांतल्यान धांवन गेली
दुख्खांत म्हजे दोळे धांकून आशिल्ले, आयलो तो मंत्र,
'पुता, ही हून कॉफी' म्हज्या कानांत सूख दिवपाक.
चिन्ता नाशिल्लें हांव पळयलें तें दांत नाशिल्लो हास

दांताच्यो सगळ्योच हड्ड्यो.
तिणें म्हाका दिली कॉफी हून, कोडू आनी काळी
मागीर उजव्या पांयान ती आंगणांत आयली;
भुंयेंक आफडून कपलाक हात लायलो
प्रार्थना करून हात एकठांय केले
तिणे संकेत दिलो : 'पळय!'
म्हजे फुलांचे इश्ट आपले ल्हान ल्हान दोळे विस्कळायतात.

थोडे जण धवे जशें चान्ने
थोडे जण जांबळ्या रंगाचे
कांय जण झगझगेवंच्या नखेत्राचे
प्रकाशाचे किटी सारके
कांय जण भांगर सजेवन,
सकाळीं प्रकाशा सारकें;
थोडे जण कुंकुमा रंगाचीं सुगंधीत
तांबडीं सूर्यास्तमया सारकीं

थोडे नीळ रंगाचे मोड नाशिल्या आकाशा जशें
शंबर फुलां जागीं जालीं आनी हांसलीं.
इंद्रधोणू काल गळून भुंयचेर पडलो
जो म्हजे दिश्टींत अदृश्य जालो
फांतोड्याचेर झेम काडचे कितले सुखाचे?

तरीकूय हे इश्ट न्हिदेंतल्यान उठपाक
कितले उत्सूक आसात
थांगा आमचें अंतर अंत जाता; दुसऱ्यांक,
बंधुत्वान आमी एकच,
इश्टागतांत आमी सगळेच एक
आंगणांतलीं फुलां, तुम्ही म्हजे सांगाती
एका दिश्टीन आमी आपले मनांपसूंचे
इश्टागत स्विकार करनांत वे?
तुमच्या दोळ्यांत एक ओगी भास पळोवपाक मेळटा
तुमी म्हाका पळयतात,
पुण तुमी म्हाका चोयता आसात!
मागीर आजी देवळाचे तळयांत गेली :

न्हावन प्रार्थना करपाक तिका
कितलो वेळ जाय!
वासरेंतल्यान कोणूय आयकता
वाद्यवृंदसहीत संगीत
घरांतल्या ताटांचो;
सैर भैर ताकतिकेंत म्हजो बापूय
खोमीस अंगार घालून
'चार गुणा एक = चार; चार गुणा दोन = आट'
'आमी श्वास घेंवच्या वायूंत किटाणू आसात' ---
चारीय तरफेन;
शब्द व्यापून येता, तरीकूय म्हज्यांत
निशब्दताय आसता,
कानाचे शिमेचे भायर एक संवसार आसा!
आंगणांतलीं फुलां म्हाका इश्ट आसता,
ताचे भशेन म्हजो संवसार गिरेस्त करता!
आमी उलोवया तुमी उल्हासीत जातले,

काळजाचें संगीत आयकपाक.
तुमगेल्या दोळ्यांनी सगळे संवसाराचो
उजवाड आस्वादन करूंया!

तर दोळे धांकून हीं फुलां
हांगा रावल्यां किद्याक?
ह्या झाडाचे ल्हान खांदीचेर;
तुमी आनीकूय न्हिदेंतल्यान
उठलेना कांय?
फांतोड्याक झेम काडप सुखाचें आसता
तरीकूय सुर्याच्या प्रकाशान
तयार केल्लें दूद पिंवचाक जागना कांय?
नाखोशी किद्याक? तुजें ओंठ तांबडे कित्याक?
दुसरे वांगड्या लागीं झगडें कित्याक?
तेजवंत उषःकाल उमो घेवपाक आपयता,
थंड वारें तुजे कुशीर थापटायता,
तरीकूय तूंच एकलो हांगा दोळे धांकून आसा.
हें ल्हानशें झगडें कसलें,
तपस्येचें बळ वे हाचें कारण?

अग्निपुष्पा सारकें उषःकाल सकयल पडलो
शंबर ज्वालादल शोभीत वत विस्कावन येता
म्हजे फुलांचे मित्र दोळे धांकून झेम काडतात
म्हज्या दिसा सपनाचें संगीत तुटून गेलें
तुंचन कविचो गीत गुणगुणता आज
वारांदेचे वणतीक तेंकून झेम काडता.
आवय पडवळेचो मांटव सुक्ष्मतायेन पळयता
आनी सुसकार सोडता
'तें सुकलें' ती सांगता -- 'सगळे आंकूर'

वेळ सावकासायेन मुखार वता
गोगलगाये सारको
खंयच म्हज्या बापायची लेखणी प्रतिबंध हाडता
भुंय एक रांदन; चिकण मातीची,
आनी सग्ग वस्तू इंधन, जळपा खातीर घालें.

तुंबप्पू* विस्कळेनाशिल्लें
तुळसीचें वारें नाशिल्लें
तुंबि** उडनाशिल्लें
शून्य आशिल्ले आंगणा सारकें
शून्य मन घेवन मंद मंद
वताचीं दळां एक्केक जावन सकयल पडतात.
सांजवेळाचें घंटी वाजली
स्कुलांत साकून गोंदळ
ल्हारां समान धांवन येता
जमीनेवयल्यान.
सावळी पोरसूंत भोरून आयली
वारें भोंवतणेक हेडून

तर्ने पाल्यां मदीं परत येता
ह्या उद्यानांत जेन्ना सगळेंच सुकून रावता;
थंड थोडी हे हुनसाणीचेर व्यापून येता
नवे उदय जाले सुर्या सारकें आतां
हें झाड मोव मोव कळे धारण करता!
फान्तोड्याक शंबर फुलां
हांसून आसात
हीं चार वरांचीं फुलां

---

* एक ल्हान धवें फूल जाचो केरळाचे संस्कृती लागीं म्हत्वाचो संबंद आसा
** तुंबी ओणम उत्सवांत म्हत्वाची. इंग्लीशांत dragon fly म्हणतात.

तांचे दोळे धांकतात
तीं फुलां न्हिदांतल्यान उठनात आनी
वारें तांका सुके कळे म्हूण
तिरस्कार करता,
आतां प्रकाश पिवन, हुनसाण पयस करून
तपस्येची हुनसाण घेवन
तीं हांगा मान्यतायेन हांसतात
आनी म्हज्या काळजांत
जंय दुख्खाचो तापिल्लो सूर्य
थंड जालो हे कळे फुलतात,
म्हाका तांचें नांव कळना.

इंग्लीश अणकार : **हेफ्सिबाह जेसुदासन**
(Ofp 1960)

## फीनिक्स*

हांव चितेंतल्यान जिवंत भायर आयलों!
म्हजीं पांखां फुलाचे दळा सारखीं
विस्कावन आयलीं!
पवित्र हुनसाणींतल्यान एक थेंबो जावन
हांव रानवटी वाठारांत पडलों
म्हज्या भांगरा पांखांचेर
फडफडेवंचे दोन पाले
एका पोवळ्याच्या दोन दोळां सारके
भांगरा ज्वाला ऊंच येता
खोर्नाच्या तोंडांतल्यान
वयर आयली उजाची एक ल्हान कीट,
हे भुंयचेर सग्ग खुनाचे ताने खातीर जाता,
तें मनशाक शिकार करता,
गीम खाणा खातीर लुटता
जळचें अस्त्र सोडून हांव हांगा उडतां,
गावन, दुकां गाळन सावळी आनी प्रकाश!
हांगाय थांगाय पाचवे आंकूर आसा कांय?
रेवेंच्या पातळावपांत फूल फुलेता कांय?
रानवाटी वाठारांत सुर्याचें तेज आरतें पारतें करता?
तिचें तोंड जांबळे रंगाचें मोगान प्रकाशीत आसता?
ताच्या खूब दळावयल्यान हांव परमानंद भोगतां

---

* फीनिक्स पुरातन मिस्र देशांतलें जन आराधना करून आयिल्लें एक शेवणें. आपले चितेंतल्यान तें जिवीत उठायता म्हूण संकल्प. देखून मागीर फीनिक्स चितेवयल्यान येंवचें आनी अनश्वरतायेचें चिन्ह जालें हे कवितेंतय तशेंच मानून घेतलां..

ऊंच उडून, गावन उंच उडतां
हें अपूर्व साहस; हांव आपल्या दोन पांखांनी
अनंतकाळा परिमाण येवजितां

हांव जळतां
म्हजीं पांखां दिव्याच्यो वातयो
दिव्याच्या सुवातेर भोंवतणेक हांव
जळपाक आनी हालोवपाक
रांकेन लायिल्ली--
आराधनेची एक तरा,
मरणाच्या हातांत
हे काळ, कोण अश्रूचो एक थेंबो
त्या मेल्या शेवणाच्या गोबराचेर घालता!
हांव तरी चितेंतल्यान
पुनर्जीवन घेतलें!
म्हजीं पांखां फुलाच्या दळां समान
विस्कळेलीं!

इंग्लीश अणकार : हेफ्सिबाह जेसुदासन
(Ofp 1973)

## जाणीं अमृत वगडायलें

पावस आयलो म्हजे पुता,
अंगण एक झरो जालो
तुजी उमेद
कागदाची नांव जाली.

एकेक करून तूं
व्हडीं उदकांत सोडता,
आनंदान तूं तांकां
उत्सूक जावन पळयता.

जेन्ना तूं पुराणांतल्या
देवा सारको बसता
नावीक दळाचें मार्गदर्शन करून
दुसऱ्या देशांत
हवामान शांत आसता
तुजो बापूय तुजे फाटल्याक आसता
आनी तें दृश्य पळोवन चड संतोश पांवता.

तुजे पूर्वज
तू नेणार आसा,
पयस वचून पळय.
तांचे संतोशाश्रू सारके
पावसाचे थेंबे सकयल पडतात.
हांगाय थांगाय
नवे पावसाचे ल्हान थेंबे
उदकांत वृत्ताकार फुलां बरयतात.

खिणाक, पुता,
तुजें तोंड बावलें
'आनीकूय पावस येतलो कांय?
व्हडीं वुडतलीं वे?'

आमी तेच,
जाणीं अमृत वगडायलें
पवित्र आनंदाचें;
आनी दुकां गळतात
घडणूको येतात वा येनात.

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1980)

## हांव तांकां जाय तितलो मोग केलोना

हे फुलांचेर म्हजो मोग कितलो म्हूण तूं कित्तें जाण?
जे जनाक आमी मोग करतां आनी
 परत जे आमकां मोग करतात;
जाणी आपल्या मनाची खोलाय मंथन केल्या
ह्या फुलांक अमृत दिलें आनी
तशें करतासताना तें वीख जालें.
जें कोणूय शरशय्येचेर अंत पावलो,
जें कोणूय खुरसाचेर मेलो
वा निडरपणान तुबकान मेलो, धूळ जावन.

हे फुलांचेर म्हजो मोग कितलो म्हूण तूं कित्तें जाण?
तांचे खून लिपून पडल्यां
झऱ्यांतल्यान व्हळता अजून भुंयच्या गर्भाशयांत
ह्या असहाय रुखाचीं मुळां भुंयचे भितर सोदतात
हे पवित्र खूनाची झरी आफडून पळय ---
ताचे चंवर येतात
सांजेचें जांबळें रंग घेवन.

हे फुलांचेर म्हजो मोग कितलो म्हूण तूं कित्तें जाण?
तें म्हज्या खूनाच्या रंगाचें
म्हज्या सपनांतलें भांगर
म्हज्या वेदनेचो निळो रंग
क्षितिजाचो सात रंगाचो चंवर
जंय म्हजें उड्की मारचें मन
बेगी बेगीन वचाक सोदता

हो नवरत्नाचो झगझग
म्हज्या बुडल्या मनाचे खोलायेचें नृत्य
म्हज्या रागाच्या जांबळी रंगाचो चकचक
म्हजे मोगिणीचे लज्जेचे हांशाचो जांबळी रंग.
जें सग्ग म्हजेच काळजांतल्यान तोडून काडिल्लें,
भुंयचेर फुलल्लीं मनोहर भुरगीं.

हावें तांका मोग केलो,
तरीकूय हांवें तांका जाय तितलो मोग केलोना!
हे फुलांचेर म्हजो मोग कितलो म्हूण तूं कित्तें जाण?

इंग्लीश अणकार : **जॉय टी. आर.**
(Ofp 1984)

## मनांतलें स्वगत

“तुजी कविता कोणा विशीं?”
ह्या प्रस्नाक म्हाका उतर ना.
हांव ओग्गीच रावलों,
प्रस्नकर्ता फाटीक लागलो
तुजी कविता सैमाचे मोगाचे संबंदी कांय?
वा सौंदर्या संबंदी वा पवित्र मोगा संबंदी?
मनशाचे वेदनेची वा दुख्खाची वा तें सोंसून घेवपाची?
क्रांतीची व्हय कांय?
तू एक क्रांतिकारी कवी आसा कांय?
म्हजो इश्ट मळसूद सदळ करता
जे मळसुदीन ताचो प्रस्न घट दवरलो.

हें सत की हांव आपल्या शेजाऱ्याक मोग करतां
आनी हें सत की एकेकय तणाक हांव.मोग करतां.
जें ह्या मनोहर भुंयचेर किल्लता
खूब वेळे हांव म्हज्या शेजाऱ्याल्या कुत्र्याचो द्वेष करतालो
जो चड करून रात भर भोंकता आसतालो,
तशेंच म्हस रात भर हांबेताली
तर सकाळीं दुबळी शेजाऱ्याली चली
दुदाची सुरई घेवन येतालीं, तें एक शूभ शकून
बरे कामाची पूर्व सुचोवणी दिवपी आशिल्लें
म्हजो राग हांगा ना जातालो आनी म्हजें काळीज
मनशाचे दयेन आनी मोगान भरतालें.
उष:काल सुर्याक दिवन म्हज्या मनांत खोश भरतालो,
सांज म्हाका आवडीची

जेन्ना आकाश तांबडें रंगान प्रकाशीत आसतालें
तरीकूय भाजचें वत आनी हुनसाण
हांव तिरस्कार करतालों
तशेंच पावसाडीचें उदास आकाश
जेन्ना कर्णिकार भांगरा फूल दितालो
म्हजें काळीज अवर्णनीय जावन मोगान विरगळतालें

म्हाका रातकिड्याचें चिंवचिंवप आंवडतालें
जें म्हजी न्हीद अस्तव्यस्त करतालें
तो मोगान भगिल्ल्यांचे दुख्खाचें वर्णन करतालो.
पारव्याचें ‘कुक्कुडुक्कू‘ म्हाका आंवडीचें
हांव ताका काळजांत दवरतां.
तें दांबून दवरना अशें मोगान
म्हज्या काळजांत स्पंदन हाडतालें.

डोंब कावळ्याची रड
जी रातीचे भितर रिगता
म्हाका भयांकृत करता की
कोणूय रूख मूळार कातरता
कारण अशें की दुख्खाची जीण
म्हाका आंवडटा
म्हाका कांय कळना तरीकूय
हांव गायतां -- हांव तितलेंच करूंक शकतां--
पिडा आनी खंत.
म्हजें गीत रागान उचांबळीत जाता
वा विरोधान स्पंदन हाडतां:
तो अश्रूंनी वले आसुंयेत, कारण हेंच की
ताचें लुगट मोगाचें.

तू प्रस्न परतून सांगता वे?
'तू कोणाचे वतीन उलयता?'
कवी मात, वा चड बरे तरेन कोणाचो प्रतिनिधी?
हांव कसलोय जावो, वा ना जावो,
बरी चलणूक तीच आसता
जें कोणूय मनशाचें काळीज सांबाळता.

मनुश्यत्व सोडिल्ले
भेश्टाबून आनी घुसपा गोंदळ करून हेडतात
जशें सर्प मणी नश्ट जावन करता.
हांव उज्जयिनींत सोदूक न्हय आयलां

जाचे भग्नावशेश पोरण्या काळाक
गुप्तसाम्राज्याचो किल्लो आनी
ताचें गोरव आशिल्लो.
हांव त्या कविचें पदचिन्ह सोदून आयलां.
जाची सर्गात्मक दिश्टीन
पावसाचे मेघाक परिवर्तित केलें
मोगाचें दौत्य घेवन वचे
दूता रुपान आनी यक्षाचे विरहदुख्ख
ताचे मोगीणीक पांवोपाक
(दुख्खाची जाणीव आसून सहभागी जावपाक,
हें क्रोणूय म्हान कवी करूंक शकता.)
हांव हांगाच्या गांवांत
जंय दुबळे आनी पिडित मनशांक जळयले
तांची खोपट बी उजाक दिली.

हांव हांगा माथें नाशिल्ली
बुद्धाची प्रतिमा भोव काळ

सोदून घेंवच्या प्रयत्नाक लागून आयलां.
जें माथें प्रतिमेचेर साकून वेगळावन
उद्ध्वस्त केल्यां.
स्तोत्रांचें सत सोदूक हांव आयलां
खिणांनी नोंदणी करूक देवान दिले किरणान
ताडपत्रांचेर वा
खूब पोरण्या काळाकच
आमचे दिश्टींत अदृश्य जालें.

जेन्ना उजवाड मातये दिवे सोडून घेतात
आमचें अपवित्र अस्तित्व सोडून उडून वतात
म्हजो गीत म्हज्या आदाराक पावता
म्हज्या फाटल्यान लागता
म्हजे गीत जळचो दिवो
म्हजे सोदांत सहाय करता

आनी शेणिल्ले मनुश्यत्वाक
सोदपांत सहायक जाता

हो गीत म्हजे लागीं म्हजो वांगडी जावन येता
हो गीत म्हजे भाव-भयण, म्हजी सावळी!

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**

(Ofp 1989)

## एप्रील तू शांत!

एप्रील! म्हाका जाणीव ना
तूं कितलो क्रूर म्हूण!
फाटल्याक आशिल्ल्या वसाड कार्यस्थलार
तूं धगधगतें वत पिता आसा
आनी उगडता
तुज्या जळच्या आत्म्याचें तळघर
तुजो अणू अणू जळोवन
तूं तांचो रूपकार बदलता
कर्णिकाराच्या भांगरा रंगांत
म्हजे मुखार.
भांगराचीं विरगळावन दुख्खां
तू गुलमोहर जाता
जळपी कोळशांत पुराय भिजून
तू तिळाक ताचें तेल दिता
रात आनी दीस करता
पृथ्वीच्या तराजूचेर.
तुजे छातींत जळपाचें छाप लावन
तू शांत मंदहासाचो प्रकाश ओंठाचेर हाडता --
काम करून तूं घाम हाडता,
आनी वाज येता.
कोणूय तुका 'देव बरें करूं' म्हूण
एक उतर सांगना
जेन्ना तूं उड्डी मारता आनी अदृश्य जाता
एप्रील तूं शांत आसता;
तूं क्रूर कशें जावंचें?

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1987)

## थंड

कित्याक, हें शेळ वारें,
चित्तभ्रमान तूं किंळाच मारता
आनी धांवता हांगाय थांगाय?
म्हज्या जनेला लागीं तू कित्याक आयलें,
नेटान मारता, आनी गुणगुणता
गाळ्यारें उलयता?
जशें पूतम* जें
उण्णीलेंघर# खंयचें? म्हूण विचारपाक विसरून
सगळ्याच कवडांचेर नेटान मारता
सामकेंच आशिल्लें सोडून;
जशें एक आवय आपले पूत युद्धांत
मेल्ले रेवेंचेर रावन विलाप करता,
हे शेळ वारें!
तू कित्याक हांगाय थांगाय धांवता,
तुजे निसरले केंस उड्डून वतात,
शापाची दोरी शेंवटून कोणाचेरूय?
तुज्या ओडणीचे कुडके
बर्फ जावन सकयल पडतात
आनी धवे रंगाच्या रुपान फिको पडतात.
तणाच्यो पाती लेगीत
जिचेर तुजे थंड अश्रू पडले
निरंतर कडकडून जें रान

---

* इडश्शेरी गोविन्दन नायर हांचे 'पूतप्पाट्टु' नांवांचे कवितेंतले पूतम (भूत)
# 'पूतप्पाट्टु' हांतलें चरित्र, भुरग्याचें अपुरबायेचें नांव.

यक्षीचें सारकें, जी
नाजूक पावलां आनी सुन्दर उतरां घेवन येता.
आनी निमाणें आपलें भयांकृत रूप आनी सुळखें दाखयता
एक वेंग मारून चिड्डून उड्डयता.
हे रूख शक्तीचे मूर्त, तांका अस्थिपंजराचे
रूपाकारांत बदलता --
कितलें भिरांकूळ रूप!
हे अनर्थ पळोवपाक जेन्ना
जनेलाचें कवड उकतें केलें
हांव भियेवन गसळी जालों
तुवें म्हजे तोंडार थापड मारलें
शेळ हातान!
जनेल हांवें ओडून धांकलें
शिकार गिळचे पयलीं
ताका गुठलावन फोंस्स
करपा वेळार हांव कवडां सगळींच बंद केलीं,
सर्पभीति आसूनय शान्त पडपाचो योग
चेतना आसून सांजवेळे
झेम काडतासतना
एक गीत म्हज्या आत्म्यांत व्हळून आयलें
दुश्ट इश्टान विन्यु म्हूण दिलें वीख
मरण लागी पांवपाचें म्हूण नेणार जावन
सर्गवेदना भोगतल्या गीतिकलेचे म्हान शिल्पीन*
सृश्टी केल्लें अपूर्व एक मृत्युगीत
दुख्खी मनशान जेन्ना तें पियानोचेर वाजलें,
कोण तो? तूंच मूं न्हवे? हे शेळ वारें
तूं रडता कांय?

---

* मोसार्टाली कथा, पीवन जावन विन्युंत वीख आशिल्ली जाणीव नाशिल्लें आपलें निमाणें गीत सृश्टी केलें आनी पियानोचेर वाजिलें

हांव तुका द्वेश करतां - मांफी!
आमी एका दुसऱ्याक मारून
मुखार सरतले
जाचो अधिकार आमका नात!
पोरण्या कालाक आपल्या
सिंहासनाचेर साकून भायर घाले
रायान विलाप केल्या जशें
थंडेंत हेडून थरथरेवन आनी कडकडेवन:

'हेमंताचें शेळ वारें यो, यो,
तूं तितलें क्रूर न्हय जितली
मनशाली कृतघ्नताय'.#

इंग्लीश अणकार : ए

# शेक्सपीयर हांच्या नाटकांतलें गीत

## खिणाचें जरी

हांव एक फकत दवा थेंबो
म्हजें पाचवें पाट्याचें बसका पत्राचें तोंक
आकाशाचें निळ रंग म्हज्या देहार पडून विरगळता!
वत येवन म्हज्या ललाटाचेर खुरीस बरयता.
म्हज्या हड्ड्यार एक भांगरा कण जावन
उष:कालाचो सूर्य आसता
आवयचे छातीचेर ल्हान फळा जशें
हांसून सोबीत आसता.
फकत बागवन पळय : नदरेंत येता वे?
ल्हान जाल्यारूय स्पश्ट तुजी सावळी
म्हजेर पडबिंब घालता?
तरीकूय हें पान जें म्हाका सहाय दिता
हालता तरी म्हजें मरण जाता
सकयल हे रेवेंत!
म्हजो सूर्य, तांत विरगळेवंचें आकाश
म्हजें सग्ग ना जातलें!
मागीर केवल शुन्यता!
खतखतेवन वाफ जावन
आकाशाचेर वचें नाका वे!
सकयल रेवेंचे एका कणाक वलसाण दियात!

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 2001)

## गरादी

जेन्ना हांव चलतालों
हातांत घेवन बोटां
म्हज्या बापायचीं
रेलवे स्टेशनांत पन्नास वर्सां पयलीं
हांव पळयलों गरादी,
समानांतराच्यो, लांबायेन पयशिल्ले
अंत नाशिल्ल्यो पडल्यो
म्हजी येवजण आशिल्ली की
ती संवसाराचे दुसरे तडी वच्ची वाट म्हूण

मागान म्हज्या बापायन
म्हाका एक चोकलेट दिलें.
हांव ताचें झगझगपी आवरण सोललें
आनी भायर उडयलें.
जेन्ना हांव चोखली,
ताची मधुरताय रुचीन हांव पळयलो
एकल्या दुबळ्या भिकारी-भुरग्याक
जो तें आवरण वेंचून काडता.
तें काडून ताणें नेटान ताचो वास घेतलो
आनी पयस पळोवन थांगा बसलो.
मागीर गरादीवयल्यान चलतालो
म्हज्या बापायन ताका दयेन दिलें एक नाणें घेवन
आनी झगझगपी आवरण
जें नेटान वास येवन आशिल्लें
म्हजो बापूय हे वाटेन गेलो

धांवचे ट्रेनीर यात्रेक
पयस आशिल्या हॉसपिटलांत
आश्वासनाची इत्सा करून
आतां मेरेन तो परत आयलोना .........

आज पूण हांव परत आयलों
म्हज्या नातराक घेवन.

सगळ्योच ट्रेन लेट धांवतात!
हे प्लाटफार्मीचेर जंय यात्री
मस्करीच्या मेळाव्यांत जशें
गिरणींतल्यान घुंवतात
दोन भुरगीं लक्ष नातिल्लें
एक भाव आनी एक ल्हान भयण,
वेवस्था नाशिल्लें अशुद्ध
तरी पळोवपाक भोव सुंदर
भाव नाणीं मेजता
आपल्या हातांतलीं
आनी आयस्क्रीमाचें मोल निमगीता.
तो केवल एक घेता
आनी तें ल्हान भयणीक दिता
एक मोलादीक उपहार
ल्हाण भयण, तिका ताची आंवड
तरीकूय हुतहुतेपण ना
ताचे हातांतलें घेवपाक..........

ती बाबा पुता करता .......
तिका काकूळट दिसता.
थोडें रूच घेंता

आनी कुलेर भर आयस्क्रीम
व्हड भावाच्या ओंठाक लायता
ती मोग दाखयता,
आवय छातीचें दूद दिता जशें.
'हांव बसलों
म्हज्या नातराच्या माथावयल्या
मुकुटाक आफडून आनी
पयशिल्ले गरादीक पळोवन.
सूर्य भगभगता
वारें वेंगावन आनीकूय हून आसता
ट्रेन सगळ्योच उसरां धांवतात.

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1987)

## म्हजी पोरणी स्कूल–टीचर

त्या दिसा वयले वयर वाचतासतना
खबरे पत्र मेल्ल्यांचे वळेरींत
म्हजे दोळे आपले स्कूल टिचराचे
चित्राचेर आडावलें.
म्हजें काळीज धडधडलें,
खिणाक हांव ओग्गी रावलों म्हजें मन पोरण्या
भुरगेपणाच्या दिसांचे स्मरण करूंक लागलें.
म्हज्या मनांत प्राइमरी स्कूलाचें मकान आयलें,
म्हज्या वर्गइश्टांचीं अस्पश्ट चित्रां मुखार आयलीं --
तांत ती मनोहर आसली आपले लग्नोत्सवांत भोव सुंदर --
भांगराचें भरतकामाचें वस्त्र
तिच्या केंसांची विणी जिचेरी जाय सजयली.
जेन्ना ती वर्गांत आयली तिच्या सुंदर तोंडाक
अर्द फुलेलो मंदहास चडान चड प्रकाशीत करतालो,
भुरगीं तिजे भोंवतणेक एकठांय आशिल्लीं
नाचताली उन्मत्त आनी आनंदीत जावन.
एका भुरग्यान व्हडल्या सुरान सांगलें,
'पळयात, आमची टीचर कितली सोबीत आसा!'
दुसऱ्यान सांगलें, 'काल तिचें लग्न जालें!
पळयात तें भांगराचो मंगळसुत्र.'*
गोंदळचे आनी गडबडाचे मदीं
एक भुरगें रडूंक लागलें –

---

* केरलांत मंगलसुत्राक 'तालीब म्हूण सांगतात.ही भांगराची, पिंपला पानाचे आकृतेची

“हाय, आनी मुखार सगळे दीस
तो मनीस तिका मारतलो!”
ताचो सूर ल्हव ल्हव ना जातालो
दुसरीं भुरगीं हांसतालीं.

इंग्लीश अणकार : **कें एस. नायर**
(Ofp 1976)

## गांवच्या स्तुतिपाठकाचें दुख्ख

आमी गायले गितांचो संदेश
ओबड धोबड जालो;
आमकां पुनः गायचें पडतलें?
मदराती न्हिदांतलो उठावन
कावळो कांव कांव करता.
तशेंच आमकां जल्मांत येनातिल्लें
सांजवेळाचें गौरव गायन करचें पडतलें?
आमी धान दीवन पारव्यांक उळदुचें वे?
शेवणें नाशिल्या आंगणांत?
आमकां झोंपाळो बांदूक पडतलें वे,
कल्पनेच्या आंब्या रुखाचेर?
आमका गायन करून खेळणेच्यो बोटी
व्हळोवपाक पडतल्यो वे?
झऱ्याचे सुक्के तडीचेर?
आमकां मोडालागीं गायन करूक पडतलें वे?
जीं मोडां पावस दिवंचाक आशिल्या मनांची न्हय?
आमकां धोल वाजपाक पडतलें वे?
तांकां न्हिदेंतल्यान जागोवपाक,
जे धोंग करून न्हिदेवन आसात?
आमकां आपल्या ल्हान भुरग्यांक न्हिदावंचाक,
जीं जेवणाक रडतात
पोरण्या काळाक मेजवानी
दिबंचे संबंदी कथा सांगूक पडतली वे?
आमकां सुंदरतायेन गावपाचें आसा वे?
जे गीत ह्या देशाचे शासकांचे न्हेसनातिल्या.

पाट्या वस्त्राचे सुंदरतायेन वा सौम्यतायेन
कोरका पडतलें?

जेन्ना ते नागडे आपल्या रथांचेर
सवारी करता आसतले?
आमी गायले गितांचो संदेश
ओबड धोबड जालो;
आमकां पुन: गायचें पडतलें?

इंग्लीश अणकार : एस. वेलायुधन

(Opf 1987)

## रानांत

पळयतां पळयतां म्हज्या दोळ्यांत
वताचो बोमाडो फुटलो.
मुखार एकेक सावळी बी वाडली;
मागीर सगळेंच सावळी जालें
शेळ वारें अदींमदीं आयलें
दुख्खाचो शब्द जावन घुंवपाक लागलें
वाटेची कुशी : पोरण्या सत्राचे
 अर्द फुटले वण्तीचेर
शांत जावन हांव माथें बागवयलें
कितलें सुंदर आनी अजापाचें
म्हूण येवजिनास्तना
दोन शेवणीं रहस्यात्मक उतरानी
सौम्य कूजन करून
एकामेका लागीं उलयतात
मुग्ध भाव;
तें युग्मगीत म्हज्या कानार पडलें
रानांत खंयूंय फुलेल्या ह्या फुलाक
तीक्ष्ण सुगंध स्पर्श करून आपयता
जेन्ना जून आंब्याचो परमळ घेवन
वारें येता, आकर्शीत करता
मुखावयल्यान उडून वतात काजुले
वाऱ्यांत माळा गांथून,
'हे पृथ्वीवयलो वास कितलो धन्य!'
काळजाचेर कोणूय बरयता,
आदि शाखेचेर कोगूळ जशें

आत्मविस्मृतींत गायन करूंक
हांव जेन्ना ल्हव आरंभ केलें;

रानांतल्या जांबळाचे खांदयेर
शेवण्याचे
प्राणवेदनेच्या वेळार
करुणा भरिल्लें रड आयकून हांव
'कोणाक शाप दिवंचें? निशाद हांगा कोण?'
मुनी – अजाप जालो ----

इंग्लीश अणकार : **के एस. नायर**
(Ofp 1995)

## भयण

म्हज्या हाताक राखी बांदच्या वेळार
तू ओग्गी रावतली कांय?
तूं फाटल्यान घुंवन चलता काय?
भुंय जळता आनी धुंवरता
जंय तुजे अश्रू सकयल पडतात?
हांव विचारलेना – 'तूं कोण?'
तुवें आपलें नांव म्हाका सांगलेना.
तरीकूय तें शोकार्त काळें तोंड,
ओग्गी आशिल्लें दुख्ख
अश्रू जावन थेंब्यान थेंबो
गळपाचें दुख्ख
आनी तांबडी राखी म्हज्या हाताक बांदली
सग्ग सांगतात उतर नातिल्या उतरांनी :
'ती तुजी धाकली भयण!'
तूं म्हजी भयण? एक खुनाची?
तर तुजें दुख्ख, मान आनी अपमान ----
सग्ग म्हजें हें सत इंगळ्याचे
आनी ताचे किढीचे सारकें प्रकाशीत जाता
म्हज्या अंतर्मनांत शिंपडावन खतां घालता
ते वाटेन जंय तू ल्हूव ल्हव वता.
तुजें मोनेपण कवंचेचे पुष्पपात्रा जशें फुटता
म्हज्या मनाच्या पासेयाचे
एकेकय आडखळीचेर परपरत
पूण पूण सताचें जबर लुकसाण करून
'ती तुजी धाकली भयण!'

तुजें दुख्ख, राग आनी गहन भाव,
नाशाचे आनी निरशेणीचे
असहायता आनी एकसुरेपणाचे
ल्हारां सारके लोटीत वचप
नेटान फुटपाक

म्हज्या मनाच्या तटाचेर :
'ती तुजी धाकली भयण'
तूंच तो एकलो जो
जिवंत लासलो आनी गोबर केलो
शीघ्र गतीन वयर चडचे ज्वालेंत
गेस सिलिंडर फुटून आयलें
जें संवकळीचें खबर आयलें
खबरेपत्राचे कॉलमाचेर .

तुमी मातयेचीं आयदनां
च्या पीवन आनी तान भागोवन
कुडके करून मोखून उडयले.
तूं एकली जी सगळे जिणेंत
दुसऱ्याल्या घरांत, बंदखणींतले कोठींत
आपलें सतीत्व पाळता
ल्हान भुरग्यांक वाडोवपाक
आवयचें कार्य करता आनी
सगळे जिणेंत हें वजें काडता.
तुकाच धनयाच्या हांतरूणाचेर
मोखून उडतात लांच दिवपाक ----
तुजें शारीरिक सौन्दर्य
दुखेस्त घडणुको आपोवन हाडतात
तूं तीच बायल जिची छाती

दुदान भरिल्ली आसता,
ती कामाक वता, घाम काडता
आपल्या भुरग्यांक दुसरे कडे सोडून वता,
खूब जणांक खाण दिवपाक,
दुर्भाग्यान ती आपली आवड आनी सपनां
आपल्या ओंठावयल्यान मोनी प्रार्थना घेवन.
तूं फुला सारकें फुलता, किडी तुका गिळता
जिणे खातीर हुकुम पाळता
पवित्र प्रतिमे सारकी पडून उरता

प्रार्थनेचे कुडींत.
भुरग्यांलो खेळ जो
मारून घेवन आशिल्लो
मनांत दुख्ख घेवन धुंवरचो
प्राण घेवन पळयता
तूं ल्हव ल्हव गळून वता
जशें चंदन साणीचेर
देवदार जशें जळून आसता
सुगंध पसरूंक आनी
दुसऱ्याची आंवड वाडोवपाक.
रानाची नीत, गिरेस्ताची नीत, रायाची नीत,
जेन्ना शरवर्षा करता तेन्ना रक्षा पांवपाक
भुंयचे पोंदाक वता.
तूं आवय, बायल, धूव
तूंच भुंय, तूंच शक्ती,
म्हजें खून, म्हजी धाकली भयण

हांव राखीक आफुडलों
ती तांबडी जाली

तुजे गहन शिरां जशी
आनी तुजे नाडयेची धडधड आयकताली--
म्हाका जाणीव आयली तूं कोण म्हूण.
म्हजीं उतरां तुजें दुख्ख भितर ओडून घेतात
तुजे भितर आशिल्ले पवित्र शक्तीक
आवाहन करपाक.

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1990)

## मातयेचीं आयदनां

कितले काळ आमी अशें जियेतलीं
दोन मातयेचीं आयदनां, परस्पर पळोवन
कुंबारवाड्याचे लागीं आसा
लागींच, खंयूंच धपक्यान आनी धुमक्यान

एका दुसऱ्याक आफुडतात वा न्हय
उमेदीन एका दुसर्याक एकाग्र दिश्टीन
पळोवन आशिल्लीं
आमी दोग्गां दोन मातयेचीं आयदनां?

जें कोणूय तांबडो विन्यु
भांगराचे ल्हान पेलांत पितात
आमका तिरस्कार करून काडून उडयतात.
कारण आमी दुबळ्यां खातीर निर्मीत,
सामान्य लोका खातीर.
आमी संसार आनी सोंपेपणान फुटतात
तरीकूय संचय करपाक बरीं आसतात.
आमी भुंयचो अनुग्रह आसतांत,
तीचो उपहार बी
-- उदक निवळ आनी शुद्ध आसता ---
तें प्रदूशीत नासता, आमच्या तांब्यांत आसता
आमी केवल मातयेचीं आयदनां आसूनय.

आमका जल्म दिंवचे आनी आमचे घडोवपी
फायचे दिसा आमी खंय आसतलीं

म्हूण नेणार आसतात.
गर्दींत हांगा आमचे सारके शंबरपटी आसात

जे नेणार मनशांक प्रतिक्षा करतात
एकेकय आयदन काडून काना लागी
बोटान मारून गुणांची परीक्षा करतात,
शब्दान तृप्त जाल्यार खरेदीक तयार,
ताची वस्ती घेवन वतात.

आमचे सुसकार फाटल्यान वतात
ते आमकां एका चिन्तेंत, दुख्खाचे
बांदून व्हरतात
कोणाचेय नाशाचे खर अर्थांत
जो आतां मेरेन आमचे लागीं आशिल्लो

आमचें वचप केदना?
जेन्ना ते येतले.
आमी वचाक तयार आसतले
पयले जावन
तूं वा हांव?

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 1997)

## मीठ आनी गोड

गोडसाणीचेर खुबूच मोग करचे म्हजे लागीं
दोतोरान सांगलें --- "गोडसाणीक बें म्हण
तुका आनी ती निशिद्ध जाली!"

"साकरेच्या बारीक रव्यांत वीख आसता
तें धवलतायेन हांसता जशे बर्फाचे पातळ कुडके.
तूं तिका खुबूच उमो घेता तर, मरण येतलें,
फाट धरून तुज्या शिरांतल्यान आनी
तुजे छातीचे पांदऱ्यांत मोग दाखोवपी उलोवणी
अकस्मात् सोंपतली"

म्हज्या ओंठांचेर गोडसाणीची आवड
अजून रेंगाळता, तरीकूय
हांव गोडसाणीक बें म्हणलें
एकदम मरणाच्या भंयान.
पायस* नाका म्हज्या जल्मदिसाक वा
ओणमाच्या सुवाळ्याक
साकाळींची हून कॉफी
अकस्मात् कोडू जाली
जशें चानयांची किलकिलाट
पिकिल्ल्या कदळी -केळ्याचेर चड जाता
जशें वारें दिखाचो सुगंध घेवन
कुरू करून आपयता : जशें एकेकूय फळ

---

* खीर

साकर भरिल्लें आसता
आवयेन तिच्या भुरग्यांक भरपूर मोद दिलो,
हांव तांततल्यान थरथरतां; ह्या भंयान की
थांगा तक्षक# आसतलो

लिपून तांतल्या एका फळांत
किड्याच्या रुपान, जें म्हाका
प्राणनाशाक आसतलें.
हांव रोवन वाडयल्लो कारात्या बेल
पसरून आयलो, हांव बसून पळयतालों
जो हांव दिल्ले सहायान
पसरून आयला द्राक्षाच्या बेलांचेर!

म्हजी इत्सा अन्ततः आपलें माथें
थंय विसव घेतालें,
ह्या सताचे सावळेंत; हें मानून की
सगळी रूच एकठांय आयल्यार
अंततः कोडू जाता.

दोतोर पूण सांगता,
“मीठ तुका मना केली.”
तें म्हाका हड्डें भेत्तुचें.
ही श्रेश्ठ रूच, ती म्हजे जिबेक
अहीत म्हूण कोण सांगता?
भुंयचें प्राणस्वरूप तें प्राण्यांत
विरगळून आसा, हेंच म्हजें पुण्य .
दोतोर सांगता -- “इश्टा,
तुज्या शिरांतल्यान धांवच्या खुनाक

---

* म्हाभारतांतल्या तक्षकाचे आनी परीक्षिताचे कथेचो संकेत

दाब चड आसा
तांत ल्हारांच्या व्हाळ्यांन
दर्याची भरती, सुकती एकेकूय
हड्ड्याकय ताचे लवणोर्मीचो दाब आसा.''
विज्ञान सत म्हणता,
ताचे वयर अनीकूय सत आसा
प्रिय दोतोर, स्टेत्तीक* तें
मापून दवरपाक जायना
तोच हड्याचो ताळ!

रात पड्डो जाता, घडणूक अदृश्य आसता
वांगडी लागसर आसता, तेच खांदीर
तरीकूय क्रौंच पक्षी विलाप करतात , कित्याक?
ल्हान ल्हान भाग्यहीन फुलां वतान बांवतात
जणूं कितें अपवित्र स्पर्श मात घेवन
यद्यपि नरम वारें तांकां उमो दिता?
दर्या मोरा सारकें नाचता कित्याक?
जेन्ना तो पूर्णचन्द्राक पळोवन उत्साह घेता
बोटाचे अजाण स्पर्श, अलक्षणीय उत्तेजन
आनी संतोश दिता कशें?
हरिणीचे वलसार दोळे ,
काळजाची मोहक वेदना जाता कशी?
दयेची दिश्टी सुखाचे गीत जाता कशें?
हें सग्ग असलें आसता
जाचें कारण अजाण आसता -----
थंड आनी हुनसाणीचे शीमे भायले अणभव
काळजाक हात लावपी आसतात

---

* स्टेतस्कोप

ज़ेन्ना एक नगर, वाठार आनी सामान्य जन
आनी एक पोरणी संस्कृताय ना जाता
आनी शिकारी गडबडीचेर हांसता आसता
चलयेक खंयूंच लिपोवन पूर्ण नग्नतायेंत
तिचें वस्त्र आनी साल लासता
जशें एक बायलेचें मडें आसता
तिचो अभिमान नश्ट जाता
जेन्ना हांव सगळेच वाटेर दुख्ख पळयतां
मनशाचें अहंकारपूर्ण रूप घेवन ----
शरणार्थी जांचे सगळेच जिणेचो श्वास
कडेक काडल्यार नश्ट जाता,
जशें खूंट सोडून मरणान केल्ली
एकेकूय देहाची लुवण
जेन्ना शेजारी भोगूक लायतात अकाल मरण,
जशें हांव शेजार पळयतां

घरां भूताविश्ट जालीं,
गर्जन करपी दर्या म्हजे शिरांत फुगता.
ताचो परिहार कितें?
दोतोर! सांगात, म्हाका अपणावंक जातलें?
मीठ सोडून घेवन?
हे रुचयेंचें आश्चर्य कसलें
की हें शिजले शिताक अमृत करता.
हें मीठ आमकां जिणेच्या
दर्याक मंथन करून मेळटा.
ल्हान भुरगें जें पयले पवित्र अन्नाची
रूच चाखता
सात वातींची दिवली मुखार पेटून घेवन,
तर्नें केळीच्या पानाचे मुखार बसून

जे पानाचेर शीत वाडून आसता
ताचेर मीठ शिंपडावन --
म्हज्या उडगासांत येता
आनी हुडकेता
"म्हाका आनीकूय थोडें मीठ
घालपाचें ना?"

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 2003)

## रक्तदान

म्हजें रगत ओडून घेयात
म्हाका ह्या मेजार पातळावन घेयात
म्हजे शिरांत सूय रोमून घेयात
आनी ल्हव ल्हव म्हजें रगत सोखून घेयात!
थांगा कूडींत न्हिदलो एकलो
जो मरणाक थांबपाक संकेत करता
आपल्या हाताचे संकेतान
जिणेंत पुन: प्रवेश करपाक
म्हज्या आपल्या खुनांतल्यान
ती एक मधुर वेदना जी हांव अणभव केली
बेगीन म्हज्या रगताचो ग्रूप खंयचो? सोदून काड
आनी निश्चीत करून घे की
खंयचें तें दुसरें खून
जें म्हज्या खूनाची बराबरी करतलें!

ती रगत व्हावंची आवय,
नाका पुरो जालो बापूय,
रोग आशिल्लो ल्हान भाव,
रोगिश्ट आनी फिकी भयण
कोण म्हजें रगत खर तरेन आंवडता?
यो, तें सोखून घे!

म्हजें खून सोखून घे
तें मोगाच्या नात्यांक
जिणेंत परत हाडपाक

आतंकवादीले सुरीन जख्म केलें,
म्हजें खून सोखून घेयात!
हें सत की संवसार
दुबळ्यांचो वारसदार जाता

हें खुरसार मारलें;
म्हजें रगत सोखून घेयात,
म्हजें उतर बी
परतून जितो जावपाची प्रक्रिया हाडपाक!

इंग्लीश अणकार : **लैला जयचन्द्रन**
(Ofp 1991)

## एक सिंफणी

**गीत – एक -- साकाळीं**

म्हशीक धार काडतल्याचो उलो
गोरवां हांबेतात गोठ्यांत
कांश्याच्या आयदनांत
दुदाचे धारेचें संगीत
आयदनांत दूद सूर लायता
गिताचें मेळ, कारखान्यांतलो भोंगो,
आनी बुलबूल अदृश्य जावन गायन करता
वाटेर नवो पावस
पावसाच्या शब्दा जशें पायांचो शब्द
सायकळेचे चक्रांची धूळ
जशें पेपर - बॉय सुखान सवारी आडायता
खयूंच शेजारच्या उपवनांत
रुप्या आकाशाची प्रसन्नताय
साकाळींच्या शेवण्याक अस्वस्थ
गीत गावपाक प्रेरणा दिवंचो
पृथ्वीचो भावनातीरेक
नृत्य करच्या पाना मदीं धडधडेवप.
हांव आतां उठायता
जशें एक शोकपूर्ण सूर
फुतफुतेवंच्या बेताचेर
साकाळींच्या खोस दिवंच्या ताळा-मेळांत

**गीत – दोन – दीर्घ दीस**

घडयाळ वणतीचेर टिक् टिक् वाजता

चप्पलाचो सळसळ शब्द जमीनेचेर पडता
अर्द कवडाचो करकर शब्द
दुखेस्त मोडण घेता
सुरतान मेळून कवडाची घंटी वाजता
टायपिस्टाच्या वाद्यवृंदाचो टप् टप् शब्द
पंखा घुंवन घुंवन श्रुति-राग गुणगुणता

**गोंदळाचो स्वरमेळ**
अक्षरांचो आनी चित्रांचो
सुराचे खरज आनी कर्णकटु शब्द
वर्स, म्हयनो, दीस आनी सप्ताह मेळून
अक्षरकला पालाप जातात
हांगाय थांगाय वरांदेचेर
गोंदळांत विश्वास सुखाचो अदलाबदल
मंदहास आनी सुस्काराचे वांगडा
वासनारहित काळजांत
जेन्ना एक दामून उडयलें तुफान
भायर उडून येता
आपल्या पांदरांतल्यान.
हांव योगासनाचें एका तराचें
समाधींत बसला
सिंफणीच्या सहस्रदलाचे पद्मा मदीं
एकेकूय दळ एक सोनाटा* आसता
स्वरमेळाचो.

**गीत – तीन –– सांज**
वयर समुद्री जिवांचें समूह-गायन;
सकयल भांगरां ल्हारां मारप,

* सोनाटा – सिंफणींतलें एक लघुगीत वा लघुसंगीत शिल्प

एका मासा जशें खारवीची बोट
झगझगेवंचे पश्चीम दिशेर पयस पळोवपाक आसा.
कसलें अजाप ताचे चलयेचे काळजांत आसा
बोट तटाचेर ओडून घेंवचाक?
मिठाचें उदक व्हांवपी वाऱ्याचो शिळोणी मारप
शिंपी, शंख. कांकण आनी मणी विकचे
ते चलयेचे फिर्यादी वांगडा मेळून
आनी भुंयमूग विकप्याची शब्दायमान सुवात?
लग्न करून आपलें कार आनी कामिनी वांगडा
वारें घेवपाक येयिल्या न्हेवर्याच्या

बोटाक हुमकळेवन गितां म्हणताली मिनी
ट्रान्सिस्टर दिसाचें जळून सरता पळोवन
ल्हारां वयर सकयल जांवचें पळोवन
हांव ल्हव म्हणलें --- आनीकूय येयात

**गीत – चार –– अस्तमय**

उजवाड ना जाता
वास कातरतास्तना जशो शब्द जाता
तशोच दर्या ल्हारां वाटेन शब्द करता
समुद्रांतले कावळे किळांच मारतात
आनी आकाश तें प्रतिध्वनित करता.
तडी साकून शेवण्याची बोब–
एक हुडक्या सारकी
आनी उजवाड म्हजे भितर मरता
चिता रागार येवन नाचता
सरभोंवतण भांगरा केसांचो
झुबको हालयता
वैश्वीक धोलक्यांचें वाजप जाता

आनी किणकिणची पांयजण
म्हजे भितर प्रतिध्वनीत जाता

**गीत – 5 – – रात**

काळोख भितर सरता
विस्मरण अनुग्रह जाता
लिकलिक दिवे भोंवतणेक
उजवाडाचें वलय चिरून येता.
म्हज्या आत्माचे खोलायेंत
जातिनिश्टतायेचो उगडास
दोळे मिचकायता,
उजवाडांत ल्हान प्राणी
चुकीचो समज घेवन,
म्हज्या टेबल लेंपाचे
एकठांय येतात.

एकेक जावन भुकेलो शिल्लो
तांका चाटता
आमच्या पोरण्या रानवटी
वाठारांत हांवय एक शिकारी आसलों.
आनी थांगा उन्मादाचें
विजयसूचक हुयेल मारपा चे मदीं
जंय रानवटी जातीच्या मनशांचे धोल
गर्जन करपी आसात
आमी मांसाचें जेवण वांटून घेतलें
हरणाचें, रानवट रेड्याचें आनी चित्याचें.
मागीर किणकिण करतात कांकणां
कवडाचे मागल्यान जें
म्हज्या नमळायेच्या जेवणाची खबर दिता.

म्हज्या ल्हान जेवणाचे कुडींत
आमंत्रित सुगंध आनी शब्दमेळ.
हांव ब्रेड काडतां म्हजे भुंवयाचो घाम
भुंयचें मीठ.
हांव पवित्र उतरां उगडास करतां,
पवित्र धर्मग्रंथांतलीं.
म्हजे माख्शी रेडियोंतल्यान,
आमकां सोडून गेल्ले
मोगाच्या आत्म्याचीं उतरां,
वासनेची आवड घेवन एक गीत :
तूं म्हाका दितलो?
“आनीकूय एक जीण
हेच पाचवेचार भुंयचेर ....?”
अश्रूची हांव रूच घेतां,
मिठाची.
जेवण जालें, हांव म्हजे कुडींत गेलों
नखेत्रांच्या उजवाडाचें एक किरण,
एक काजुलो, भितर आयलें .
ही म्हजी मुख्य परिचारिका, रात
म्हाका तुजे वेंगेंत काड

न्हीद नाशिल्या
तुज्या राखणदारा सारकें
रातकिड्यांचों गीत
ताचें जागरण करता

इंग्लीश अणकार : **के. एस. नायर**
(Ofp 1976)

## खाजन

**एक : रात**

खाजन : परीकथेंतले यक्षे सारकी
तिचे काळे केस, विस्कळायले
आनी व्हळून वतात
तिचें नग्न शरीर रतिसुखालस्ययुक्त
आनी मृदु धडधड घेवन आसता.
स्वेदजल वयर सकयल व्हळता
अर्द उन्मादांत अर्द अचेतनावस्थेंत
ती मूर्छेंत आसता.

**दोन – प्रभात**

खाजन : लग्न जाली नवी व्हंकल
आकांतांत उठायता जेन्ना
सुर्याचीं पयलीं किरणां
तिच्या देहार पडतात;
धील वस्त्रां आनी विस्कळेले केस
एकठांय करून
माथें बागवन, ती आपल्या
लोकांत आगळी वेगळी
लज्जाशील आसता
जेन्ना ती फाटल्यान हांसोवणें
शेरो मारता आयकता
ती तशें करता जशें
तिका करूंक नासता.

**तीन – दीस**

खाजन : भुरगीं न्हिदेंतल्यान उठूंक
कळाव जालो म्हूण घरकान्न
खूब तपोवणी करता
ती रांदणींत उजो फुंकता फुंकता
सगळीच तांबडी जाता
आकातांत हांगाय थांगाय
आपटून घेता, अवतिकायेंत
आनी संकश्टांत दुखेस्त आसता.
शाप दिता, कावळे भोंवतणेक
धांदळ करतात.

**चार – सांज**

खाजन : तिचे काळे गुलगुलीत देहाचेर
सगळ्याक झरकटणी घेवन
बोवाळ्याची बळजबरी जाले उपरांत;
खुनाचीं चिन्नां, दोळ्यांतले
गोठले अश्रू घेवन
दुबळी, कपालफुटकी भयण वाटेचे कुशींत
मोखून मारली, तिका दिसा उजवाड
ना जालो न्हय?

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 1979)

## मृगया– राजकीय शिकार

"पांडु जेन्ना हिमालयांतल्या रानांत भोंवतालो तेन्ना एक हरण ताचे संगाती लागी संभोग करतालें. ताणें आपल्या पांच भांगराच्या तिरांनी ताका जख्मी केलो. तो हरण किंदमन नांवाच्या ऋशी हरणाच्या वेशांत आयिल्लो. किंदमनान सांगलें – 'एका मृगाक संभोगा वेळार मारून उडयलें, ह्या पापाक लागून हांव तुका शाप दितां म्हजी अवस्था तुजी बी आसो. मरण तुका तेन्ना घेवन वतलें जेन्ना तू आपले बायले लागीं संभोग करतलो."

उपरांत पांडुन तप केलें . तर एका दिसा ताची दामून उडयली इत्सा अग्निपर्वता समान नेटान फुटून पडली आनी ताणें आपले भाव माद्रीचेर केंद्रीत केले आनी संभोगांत तो मरण पावलो,

माद्रीन ताचें अनुसरण केलें . कुन्ती आनी पांच भुरगीं अनाथ जालीं. तीं यात्रेक मुखार सरलीं.....

**महाभारत, संभव पर्व**

हें पांच भागांत बरयल्लें खंडकाव्य. एकेकूय भाग एकेकूय चरीत्र स्वगत सांगता. देखीक – किंदमन, पांडु, माद्री आनी कुन्ती.

**एक – किंदमन**

तुवें हे निशपाप हरणाक मारलो कित्याक,
जें शांत सुंदर संकेत स्थानार संभोगरत आशिल्लें.
तुवें हे निशपाप हरणाक मारलो कित्याक,
हांव ऋशी किंदमन
जो हरणाचो वेशांतर करून
संभोगाचो संतोश आनी सुख भोगपाक आयलो
हे बायल हरणा लागी संभोग केलो.
हें रान तांचे निवासस्थान

जंय ह्या संवसारांतले दादले बायलो
जोडीन रावतात.
मनशाची भिरांकूळ क्रुरता
मनीशपणाचे कर्कश सुरांचो आघात करता
रानाच्या शांत संगीतांत ---
शिकारी जावो, राय जावो,
सग्ग समान आसतात!
हरणाच्या वेशांतरांत
हांव मृगाची जीण जियेलों
तांचे मदीं तण खावन.

म्हजी वासना तृप्त करपाक
हांव बायल हरणाक काडलें
ऋशी बी वासनेचे
घुसळावणींतल्यान मेकळो न्हय
दोन मातये दिव्यांतल्यो जिणेच्यो जोती
एक जावन मिसळून वता
जी तुमी वाडयतात
जेन्ना तुज्या धनुशान पांच तीर सोडले
एका फटल्यान दुसरो
तुज्या धनुशाचे दोरयेचे वांगडा.

तीर चलवप आनी
तिराचे वेगाक मानून रथ धांवडावप
हो खेळ भोव उत्तेजक आसता!
धांवच्या मृगाचें दुख्ख जेन्ना वाडता
तेन्ना तें अधीक उत्तेजक जाता.
तावतवळ जेन्ना तें मरणाचे भयांन
फाटल्यान घुंवता आनी पळयता

मृगया राजकुमारांक एक क्रीडा जाता.
तर आज हे, राया,
तें तुका दुख्खाचें कारण जालें

तूं कितें सांगता?
तूं सांगता की रायांक मृगांक मारप फावोशें
शत्रूक मारपा जशें?
संतोशाक तांका मारप
जांचे लागी तुमका द्वेश नासता
तांक मारचें शत्रूक मारचें जशें ......
तुमी तोच अर्थ धरतात ---?
तो केवल क्रिडावश करचो शिकार ---
संयोग करचे हरणाक मारचें ?
हे राया, तूं कांय एक निशाद व्हय?

हो म्हजो शाप
तुज्यां पापाचें कठोर फल म्हूण
म्हजो हो शाप
जाणें अकालमृत्यु स्वीकार केलो
मरण तुकाय हेंच खीण दितलें
जेन्ना तूं बायलेचे लागसर वतलो
आकस्मीक वासनेक लागून
हो शाप तुज्या फांटल्यान आसतलो
शक्तिशाली धनूश हातांत धरचो
शिकारी-राय म्हूण

**दोन - पांडु**
'तुवें म्हाका मारलो किद्याक?
तूं म्हाका कित्याक मारता?'

ह्या प्रस्नाचो आवाज प्रतिध्वनी करता
म्हजे भितर झुजांत जिरयले
नगाऱ्याच्या ध्वनी सारको आवाज :
महान ऋशी व्हड दुख्खांत पडलो
हरणा कुशीक बसलो --
तो प्रस्न उरलो
म्हजे मुखार हांव पळयले
करुणाजनक दोळे अर्द धांकले
ती बायल हरण वा माद्री?
वा पृथा?
हांव बायल हरणाक मारलो
जी तण खाताली निळ्या दोंगराचेर
आपलें प्रतिबिंब झऱ्यांत पळयताली
आपले सांगातीक मोग करून
आपल्या काळजाचे कुडक्या सारकें
'ताका किद्याक मारलें?
सगळ्याक हो प्रस्न प्रतिध्वनीत आसा
खंयच्या पापाक लागून ताची हत्या केली?
हांव जेन्ना सकयल पडलों
म्हजे वासनेचो गुन्याव भोगतलों
हे माद्री! हे पृथा!
तुमचें वैधव्य ह्याच खिणाक सुरू जालें!
सग्ग त्याग करून आमकां
राना मदीं रावया.
आमच्या आत्माक दुख्ख दीवन आमी
जीण मुखार व्हरूंया.
आमकां मरणाची भिरांत आसा कांय?
आपलो मोगाचो घोंटेर सोडून वचाक
शेवणें नाखूश नासता कांय?

राजकीयतेचें साज-सिंगार --
किरीट, मोव मोव पाट्यावस्त्र
आनी काल्सां हांव त्याग करतां
दु:ख दिवंची मृगया आनी
दुसरें मनोरंजन (खेळ, क्रींडा. विलास)
खाण आनी न्हीद
सगळें हांव त्याग करतां
आकाशा सकयल हांव रानाक आपणायतां
म्हज्या आत्माच्या संतोशा विशीं.
सदांचें खाण धा घरां मागून खावंचें.
म्हजो आत्मा आनी शरीर हांव नितळ राखतां
कांटयारें तप करून.
संतोश आनी दुख्ख दोनूय वेगळायनातिल्लें!
तपस्येक नित्यक्रम मानतां.
माफ कर! हे पृथा! हे माद्री!
तुमी खंतींत पडूक नज.
म्हाका निरोप दियात.
हांव संवसारीक बंधन त्याग करतां.

तूं जाण वे,
'हांव कशें निरोप घेंवचें?'
तुमी रडतात?
तुमी म्हजे वांगडा वचाक
म्हजी मान्यताय सोदतात कांय?
रानांत रावपाक
जिणेचो बाकी भाग जियेवपाक?
तुमी सांगतात वे की
आपली भौतीक इत्सा

तुमी बी त्याग दितलीं,
आनी म्हजे वांगडा येतलीं?
रानांतले आमचे जिणे खातीर?

म्हज्या मोगाच्या बायलांनो!
पांडु हांगा पराजय स्विकार करता
तुमचे मोगाचे अश्रू पळोवन!
तुमी तयार म्हूण सांगतात,
म्हजो हात धरूक,
रानवटी वाठारांत
म्हजे वांगडा येवपाक
तुमचें घर आनी घोवाक मानून
आत्माची सुंदरताय आनी अनुग्रह मानून
वासना पयस करून?

हे ब्राह्मणांनो!
हस्तिनापुरांत घोशणा करात
पांडु हांणी वानप्रस्थ स्विकार केलो!
हांव आपली राजकीय मुद्रिका दितां;
आनी वज्राच्या बुतावांचो पोशाक.
पांडु निरोप घेता, ताचे बायलां वांगडा,
दुसरे राज्याक वचाक.

लागीं कांय तरी घेवंनासतना
कंगाला सारकें!
खूब पयस हांव पळयतां
पर्वताचें पवित्र शिखर.
रानांतल्या झऱ्याचे शांत मधूर
आपोवणें जशें

रानांतले नदींचे स्नेहाचें अमृत,
तणांचीं हांतरूणां
विसव घेवंच्याक आपयतात
फळां, म्होंवा आयदनां
उलयनातिल्लें कुरू करतात
शेवणीं तांचे रानांतले पासयेक
आमकां आपयतात!

हे पर्वता, तूं कडकडता
निती विशींच्या भंयान
जेन्ना तुमी सिंहाचें गर्जन आयकतात
जनांवरांचे घोलींत विसव घेतासतना!
नृत्त करच्या मोराच्या आनंदाचो आवाज
तुमचें काळीज आनंदान भरता
विस्मृतिजन्य सुखाचो अणभव!
हे रान, म्हाका तुजी
लिपून आशिल्ली वाट दाखय
जी तुज्या निश्कलंक काळीज मेरेन पांवना!

**तीन – पांडु**
सुक्के मणी (रुद्राक्ष)
कोडू त्यागाचे म्हज्या हड्ड्यार;
जळच्या वासनेच्या इंगळ्याच्यो रांदण्यो
म्हज्या प्राणांत!
भुलोवणेचे फुसलावपाची ओपणी
जी इंद्रियांच्या कोमल सुतान हालोवपी
म्हजे सरभोंवतणेक!
शापाचें भंय म्हज्या फाटल्यान आसा
सावळे सारकें

निबर, निश्ठूर आनी क्रूर विधी
आनीकूय अंकूश मारून म्हजेर शेक दवरता
जीण आस्त, निराशा आनी दुख्ख नाशिल्ली न्हय;
ही रानवट प्रकृती जावन तिणे जुळोवणी केलीना
म्हाका एक भुरगें जाय!
वंशाक मुखार व्हरपा खातीर,
कुंतीन दैवी हस्तक्षेप करून
यम, वायु आनी इंद्रा लागीं
रहस्य मागणी केली
एका बरे वर्तणुकेच्या
भुरग्या खातीर
भुरग्याची आस्त म्हज्या मनांत
शांत जालीना!
कुंती रडून म्हजे लागी आयली,
तिणें विनंती केली
'नाका'
माद्रीन म्हजे इत्सेक संमती दिली
आनी अश्विनी देवांल्या जनकपणांत
जुवळ्यांक जल्म दिलो
घोवालो आदेश पालन करच्या तिका
आत्मनिंदेची कोडसाण मनांत आयली वे?

आकाशावयल्यो बियो
भुंयचेर जल्माक आयल्यो
तांचें अनुपम सौंदर्य
जेन्ना तांचे आंकूर पसरून आयले!
म्हजी चिंता हांव विसरलों!
मोगाचे पांच ल्हान भुरग्याचें सौंदर्य
तांचे आवयचे वांगडा ---
तें म्हाका सर्गा तुल्य न्हय?

रानांत आसूनय
कोमलतायेच्या व्हाळ्या समान
विधीन दिलें जिणे वात्सल्याचें
अल्लय जशें धोलवप आनी
काणयो सांगप, पेंवप आनी उड्डी मारप
रानांतल्या पद्माक्षाच्या तळ्यांत
म्हज्यो बायलो परमानंदाचो अणभव करताल्यो!
रात-दीस जाता नकळत जियेताल्यो.

इंद्रधोणू भुंयचेर पसरलो,
रान सगळें फुललें
पुराय भिजपा सारकें
रंगांच्या पावसांत!
देवदारु, कर्णिकार, पारिजात,
चूत आनी चंपक सगळेच फुलले.
ऋतूचे उपहारा वांगडा --
वसंत ऋतून रानाची सोबाय वाडयली!

ती कुरिंजी तांबडी न्हय वे?
तो ल्हान कन्येचो रूख वे?
पयस रावल्या
हांसनाशिल्लें?
हे माद्री,
तुज्या हातांनी वेंग मारिल्ली ती
खिणान फुल्ली
ते सगळें शरीर वाडून भांगर जालें!
म्हाका तिचेर असुया
ती तुज्या स्पर्शाच्या अनुग्रहान
कितली सुंदर!

खूब काळां पयलीं
हस्तिनापुराच्या लतागृहांत
वसंत ऋतूच्या वेळार तूं आयली
(हांव तुका अप्सरा समान मानतालों)
अशोक रुखाचो उड्गास आसा तुका?
पांयजणां आशिल्या तुज्या पांयांच्या?
मात स्पर्शान फुल्लेलो.
तुज्या काळजांत जालो भावातीरेक
तूं विसरली कांय?

तीं पांयजणां आज तुज्या पांयांचेर नात.
तीं पळून गेलीं!
तूं आज ती पोरणी व्हंकल न्हय
थांगा तुजें नृत्य बी ना!
तूं आतां एक आवाज जो
बरेपणान भरिल्लो!
तरीकूय म्हज्या दोळ्यांक
तूं सर्गावयली अप्सरा!
तुजें जुवानपण कोमल,
धव्या वस्त्रांत आवृत
दुख्खीत आनी खेदजनक?

फुलां आनी पानां
पद्माक्षाच्या तळ्यांत साकून
एक दीस ना जातलें
जेन्ना गिमाचे हुनसाणींत तें सुकतलें!
ताचें कणंग चिकलांत अदृश्य आसतलें
तें जिवें जातलें
पावसाचें संगीत आयकून!

कोमल अंकूर सारकें
पानां जशें, भांगराच्या फुला जशें
तांततल्यान रुजून चंवर येतलें
म्हजे मनांत आस्त जावन
वयर येतलें!

हे माद्री तूं म्हजे मुखार व्हळचें सौंदर्य
म्हजे दोळे तुजे सौकुमार्याक
वेंगावन आसात जशें
म्हजे हात तूं नेणता सरकटत वतात
हे बरेपण आशिल्ली, जेन्ना
तूं म्हाका पळयता
भंय आनी दुख्ख भरून मागणी करता
'म्हजेर दया कर
दीर्घ काळाक तुजी बायल म्हणूंक
शक्त दी!'

खीण भर थांबय,
शापाचें दुख्ख आनी पाप
कुशीक काडून घे
हांव तुजे लागी मागणी करतां
म्हजेर दया कर,
अमृताचो हो पेलो म्हजे ओंठा लागीं हाड
तुजें सौंदर्य सदा म्हजे अधिकाराचें.
तूं शक्ती, बरेपणाची
शक्ती, जी मरण पयस करता
हाताचें एक बोट हालोवन --
म्हजेर दया कर!

ही मडकी फुटून'वतली
कुडके कुडके जातली
आज वा खंयच्याय दुसऱ्या वेळार
ती फुटनासतना रावतली कांय?
रिती दवरून घेतल्यारीय
आज ह्या वेळार,
तूं हें आयदन भरून दी!
यो, बरेपणाचें भांडार!
तूं भिजूड जाता वे?
जशें तूं एकदां आशिल्ली?
जेन्ना तूं व्हंकल जावन
म्हजे लागीं आयली

जशें ल्हानशी न्हंय निस्सहाय जावन
मैलानी व्हळता
दर्याक मेळता
जो तिका उत्कंट मोगान
कुरू करून आपयता
म्हजे मोगाचे प्रिये!
हांव म्हजें जुस्ताजुस्तपण
सोडून सकयल पडलों
तुजे लागी एक जावपाक आशिल्ली
म्हजी खर इत्सा पूर्ण करपाक
यागाचें मृग स्वयं आल्ताराचेर येता --
हें म्हजें मरण --
न्हय न्हय हें म्हजें मेकळेपण!

यो, म्हजे लागीं यो,
म्हज्या हातांत यो,

म्हज्या काळजा लागीं
म्हज्या जागृत इन्द्रियां लागीं
म्हज्या जळच्या प्राणा लागीं,
करुणाजनक विळाप करून
तापल्ली शलाका जशें
प्रिये, तूं सकयल पडता!
ह्या खिणाक मरण ह्या शरीराक वेंगावन
ह्या ओंठांक उमो दिवन
मरण मेकळेपण -- म्हजे मोगाचे प्रिये!

**चार – माद्री**
"आमच्या प्राण्याक मोगाळ आशिल्याक
तुमी मारलो किद्याक?"
हे कुन्ती, "हो प्रस्न तुमी म्हजे लागीं
विचारता काय?"
हांव पापी, म्हाका मारून उडय!
हांव ताका मारलो --- ना,
हांव न्हय--- म्हजे भयण,

विधीन म्हाका आयुध केलें
मृगयेच्या ह्या क्रूर खेळांत!
हांव रडून याचना केली,
तांच्या हातांत पावनाशिल्लें रावली
तरीकूय शक्तियुक्त त्या हातांत हांव
आळाबंदा आयलीं
तशें तांचे मरण जालें.

वसंतऋतू रानाक जागृत करतालो वे?
हरणा सारकें मैलाचीं मैल धांवन

म्हजो घोव सकयल पडलो,
वासनेच्या धपक्यांत!
म्हजेर दया करात,
हें सशक्त मरण
तुमचो बाण मारून म्हजी हत्या कर
माल्ले हरणाचे वांगडीची!
तुमची मृगया गौरवाची आसो!

म्हजे भयणी,
म्हाका अरणीचो कुडको दियात,
उजो जळोवपाचें लांकूड
लासुंया आनी गोबोर करूया
यागाचे ज्वालेंत.
आमचीं मोगाचीं भुरगीं
तांकां कितें जालें म्हूण नकळत
व्हडान बोब मारतात,
वच तांकां समाधान कर .
तांकां दुसरें कोण आसा वचाक?
पांच भुरगींय आमचींच,
तांची आवय आनी कुंती.

पांच – कुंती
हे माद्री, म्हजी धाकली भयण!
तूं भाग्यवती! निमाणें खिणाक तुवें
तें मोगान भरिल्लें मुखामळ पळयलें!
अर्द खीण भर मात,
त्या तोंडार आशिल्लो भावातीरेक
तुवें मात पळयलो, तुका अनुग्रह मेळ्ळो!
मरणाचो अनुग्रह जे जनाक मेळ्ळी ती

तूं म्हाका असूयेची पात्र जाली
हांव भाग्यहीन ........
खर प्रयत्न करपाक हांगा बाकी उरलीं.
एक भिरांकूळ बायल हरण वता
पळय! पांच पिलां वांगडा चलतात!
तिका रानाचे पलतडी वचपाचें आसा
हांगा फटकीरें तण, पसरिले फोंड,
सिंह, वाग, वांस्वेल भालू, दुश्ट मनीस,
शिकारी सुणीं आनी सगळ्यांक खांवचो दावाग्नी.
ती वता
भालूंची बोंब पयस आयकपाक मेळटा.......

इंग्लीश अणकार : **एस. वेलायुधन**
(Ofp 1989)

## उज्जयिनी – अध्याय – 10

रत्नपरीक्षा
काळखाचे राती यमाचे वांगडा
गुप्त रीतीन सोदून काडची दिश्टी
त्या समागमाक गूढ साक्षी जावन आयली!
पत्रांचो मर्मर जशें वाऱ्यांत तो
एका कानांतल्यान दुसऱ्या कानांत पावलो
निमाणें तांचे मंत्री ताचे लागी पावले
आनी ल्हव आवाजान रहस्य सांगलें
एका खिणाक विश्वास करनास्तना
राय ओगी रावलो
ती त्या कवीली मोगिणी कांय?
जाचे कीर्तिचीं चंद्र किरणां
हे उज्जयिनींत चड उजवाड हाडतात?
कितेंय जावो ताणें आशा बाळगिल्ले
चलयेवयलें हक तो वागडायतलो वे?

एक कडेन ती चली जिणें
ताचें मन वोडून घेतलें;
दुसरे कडेन, ताचो गुणसंपन्न कवी–मित्र
तांत एकल्याक सोडून तो कितें करतलो?
राय दुभावांत जालो!
ती एक गांवगिरी चली
तरीकूय ताचें मन तिका पळोवन आंवडलें
जेन्ना ती पालखेचेर साकून सकयल देंवताली
हे आंगणांत सर्गावयले अप्सरा जशें

ती निरक्षर आशिल्ली, संगीतांत आनी नाचांत
आज ती विशेशज्ञ -------
राय येवजितालो.
तो तिका आपली बायल करपाचे चिंतेंत आशिल्लो
सामान्य पवित्र अनुश्ठानाक मानून घेवन
तो दीस आनी मुहूर्त पळोवपाक विचार करतालो.
राजवाड्यांत कोण हाचे विशीं नेणार आसा?
तिका मेळपाक आशिल्ली ताची इच्छा वाडून आयली,
कवीची वासना आनी आवडेचो तो नेणार जालो.
ताचे कवीन जाचो तो आदर करतालो
ताका अपमान करपा खातीर अशें ताणें केलें?
कोण अशें उद्धटपण करतलो की
तिका रहस्यपूर्ण मेळावो घेवन
सगळी जाणीव आसूनय ताचो मित्र आशिल्लो?
मंत्र्यांनी बरीं उतरां आनी उपदेश दिले,
रांयाक हिताचो सल्लो आनी समाधान दिलें
ती एक रत्न, तो कवी मोलादीक रत्न
ताका काडून उडोवनाका
ताची येवजण दंडात्मक उपाय घेवन कशी जाली?
उपदेश आनी लांच कशी ताणें हाचो विचार केलो?
ताचे मंत्री दांव- पेच आनी जाणीव आशिल्ले
जे आपलें जुस्ताजुस्तपण केन्नाच सोडूक ना!
राय तांचे लागी बेसलो गुप्त सभेंत.
''इत्तें करप'' म्हूण तें चिंतेचे जपमणी मेजपाक लागले .
निमाणें एक वाट सोदून काडली.@

---

@ मालवाची धूव, जिणें उज्जयिनी आपली केली तें कन्यारत्न. कवी ताचे परस मोलादीक रत्न. कन्यारत्न पळोवन भ्रम जावन कवीक सोडचें बुद्धिहीनता जातली. क्षोभ पयस काडून चतुरुपायाच्या चातुर्यान एक वाट सोदून काडूक मंत्री उपदेश दितात. दीर्घ आलोचना करून ती वाट सोदून घेतात.

कवीक राया मुखार हाडलो
राय नेणार म्हूण बेसलो
एका मंदहासान ताका येवकार दिलो.
जें विश्वासाचें शीतळ चान्नें
कोणांचेय मनांत भरतालें

कवी ताचे मुखार तयार बसता
खंयचेंय खबर आयकपाक,
खंयचोय दंड आपणावक तयार बसता,
खंयचेय दुख्ख भोगपाक;
धिटायेन मुखार आसता
तर ताचे मुखामळार मंदहास ना जालो!
रायान ताचेर तोखणायेचो शिंवर घालो,
भरिल्लें मोड असमयाचेर
पावस घालपा सारकें.
हांव छत्राचे छायेंत चामराचें
वारें घेवन आसा तरीकूय
तुजे माये ममतेचे थंडेक जावन
हांव आंवडेतां.
म्हजे इश्ट!
तुजो शांत गंभीर आश्रय
म्हज्या राजमहालांत
अभिमानाचें कार्य!
हांगा वास कर,
संतोशान आनी तृप्तेन,
तरीकूय सर्गात्मक गोंदळांत बुडून राव.
आपल्या हड्ड्यांतल्यान!
रायान सांगलें.
'तूं गायन केलें , कारणहीन, अस्पश्ट

खिन्नताये खातीर,जी खिन्नताय
जिते जिव्यांक त्रास दिंवची
हें तुज्या अणभवाचें?
तांततल्यान तुका मेकळो करूंक
हांव कितें करचें?

राय कवीक मापता जो
आनीकूय ओग्गी आसता
सौम्यतायेन हांसून ताणें सांगलें --
"ह्या नगरांत तुजें रावप प्रसन्न आसो!
सुंदर वस्ती सोदूंनाका
सौंदर्य तुजे लागीं येतलें.
तुका आमी वीरशृंखलेचो
मोलादीक उपहार दितांत
हो उपहार भांगराचे मणिबंधाचो"

ताणें आयकलें .
उतरांचो अर्थ नेणतना कवी
आपले लुकसाणे विशीं
येवजिनास्तना ओग्गीच बसलो.

सामगीती समान रायाली सांगणी आयकून
आदरपूर्वक निरोप घेवन कवी मुखार सरलो,
वीरशृंखले परस व्हड उपहार खंयचो?
हें कथेचें परिणाम रहस्य म्हूण दिसलें.
पूर्ण जावनाशिल्ले कथेचो परिणाम
प्रतिक्षा करून समझुका.
जेन्ना नेणार आसून तो रावता
उजवाड ल्हव ल्हव विरगळता आनी

काळखांत मेळून ना जाता
ताचे निदेचे कुडांत फिको शब्द
सौम्य पांय दवरचो; कोणकीच
अर्द उकतें कवड़ काडता
कांकण हालतात
हो आवाज, .....
कोण ताचे लागीं येता?

ती कोण म्हूण ताणें तिचे लागीं विचारलेना,
तरीकूय ती कोण आसुंयेत?
ती एक चली न्हय
कांकणाचें किणकिणप सांगता.
तीच कांय? ताची आपली मोगीणी
माथ्यावयलो परमळ सांगता की ती न्हय.
कोणाचे वस्त्रांचो तो आवाज
कोणाचीं कांकणां सौम्यतायेन किणकिणतात?
जिच्या सुस्कारांचीं दळां ताचे लागीं आसात?
भितरल्या फुलांचो पराग कोणे आफुडलो?
कवीन देंवती वात वयर काडली
मुखावयलें दृश्य अजापाचें
ही मेनका कांय?

कवी, जाणें पार्वतीचें* चित्र वर्णन केलें
पांच उज्याचें मदीं, स्थीर ज्वाला
दुसऱ्या उज्याची,
जाणें अप्सराक तोंडी जीण,
एक फूल जें कल्पवृक्षावयलें

* पार्वती

सकयल पडलें #
ताच्या वर्णनान पवित्र सौंदर्यांत
जल्म दिलो
हें पृथ्वीचें आनियेक अप्सरांत
एकठांय जालें + ----
सत सांगल्यार ती दुसरी आप्सरा कांय?
ती हांगा कित्याक आयली?
कोणाचे आज्ञे प्रमाण?
विक्रम < हांगा ना, विश्वामित्रय ना,
जाणें कठोर तपस्या केली;
केवल कवी.
ती एक ओड लायणी मंदहास घेवन रावल्या
जणू कितें ती आपणाकच ओंपून दिवपाक आयल्या
लज्जा नाशिल्लें एक मोलादीक राजोपहार!
आतं सांगनाशिल्या कथेची अनिश्चितताय
ताचे मुखार घुसपा गोन्दळ काडून आयली!
ती विरळतायेन मेळचें फळ जाका राय दिता,
ताच्या प्रतिशठीत सोयऱ्यांक, मित्र रायांक!
ती ताच्या बचक्यांत आसा!
कवीच्या पांयाचेर पडून आदर घेवन,
तिणें म्हणलें - "तुमची नमळायेची दासी -
चलयेच्या स्थानार म्हाका ग्रहण करात!"

महान विक्रमादित्य दुबळ्या कवीक
आपले समान मानता
ताच्या इश्टांच्या आनी
दुसऱ्या रायांचे समान मानता!

---

# उर्वशी
+ शकुन्तला
< पुरूरवा

चडान चड आनी कितें
मेळपाचो तो दावो करतलो?
हाचे परस व्हड उपहार कितें?
असले विचार ताचे तोंडार
पळोवपाक नासले
अभिमानाच्या चान्या सारकें.
हाचे बदला ताचें तोंड रागाविश्ट जालें,
अभिमान खरवडिल्या सारकें.
कवी ओग्गी रावलो, शांतताय सोडीनास्तना.
ताका तृप्ती नाशिल्ली, तरीकूय
भितरचो गोंदळ नियंत्रीत आशिल्लो
तो आपल्या मनाची जीवशक्ती
एकठांय हाडचो प्रयत्न करतालो
जणू कशी तो मनाच्या त्रासदायक
ल्हारां दामून घेतालो.
कशें तर पाट्याचो पारदर्शक
झगो सकयल पडता
तिचे मेकळे वस्त्रहीन स्तन
साळकाच्या कळ्यां सारके हालतात
जशें एका बर्फान भरिल्या तळ्यांत
जेन्ना ती वस्त्रहीन जाली
आनी आपणांक ओंपून दिवपाक
देवाक एका माळे सारकें
फूल जशें बर्फाचें धांकणें उकतें करता
आपणांक सुर्याच्या किरणांक
ओंपून दिवपाक, हुनसाण घेवपाक.
कवी तिका वळखलो; तेन्ना तिणें
लज्जेवन ल्हव ल्हव पांवलां दवरलीं
आनी ताचे लागी वचून रावली

नेणार जावन, भुरळ घेवन .
धांवन येंवचे न्हंयचे समान ती लागी पावली
तटां तोडून घालून
तिणें सांगलें - ‘म्हाका रायान धाडल्या.
तुजी इत्सा नमळायेन पूर्ण करूंक.
काल्स कित्यान भरप? विन्यु? देवालो सोम?
खंयच्या मोहक रागान हांव गायतलीं?
खंयच्या नृत्याच्या मोरपांखाची पिंछिका
फाटी फूडे घालप,तुमचे मुखार दाखवप?
खंयच्या वासनामय सुखाचो सर्ग तयार करचें?‘

मधुर सारंगीच्या सुरांत
कोणालें काळीज विरगळना?
जशें साकर दुदांत आसता
कवीचें अजापाचें काळीज
जें तपस्या करचे महाकालाक
आराधना करता, विरगळना!
कठोर झगझगीत दोळ्यानी ताणें
उखलून व्हरच्या सौंदर्याक
पळयलें आनी सांगलें -- कितले खेपे
हांवे ओड लायणें चित्रण केल्यां;
उतरां वाटेन,
ह्या वासनामय एवं ओड लायणें
सुंदर अंगांचें चित्रण‘संवसाराच्या
काळजांत अंकीत केल्यां!

तुका चूक जाली , न्हय, तूं न्हय
जांणी तुका राती म्हजे लागी धाडली
तांकां म्हज्या सताची जाणीव ना!

म्हज्या शरीराचे अणु अणु जेन्ना किळांच मारतात
त्या मोगाच्या आत्मा खातीर
जो म्हाका सोडून पयस वता!
रत्नखचीत भांगराचें खडें जाल्यारूय
तें प्राणनाशक न्हय कांय?
म्हज्या हड्ड्यांत ताच्यान खोंच मारली?
तुंवय एक झगमगेवंचें आयुध जशें वज्र
जें अधिकाराच्या हातानी म्हजेर वावडलें.
ताचो घाय जिणेंत मरणाचें नशीब, एक अपघात!
म्हाका आत्मघाताचें जाणीव आसा!

जेन्ना आपल्या नागड्या सौंदर्याची पुराय शक्त घेवन
तिणें अनेक रायांचेर जैत जोडलें --
जेन्ना फाटल्यान वचाक तयार जाली,
असहाय जावन तिरस्कारान
कवीन सांगलें --. "राव!" आनी ती रावली
ताच्या उतरांचेर
ताचो स्वर आतां कितलो सौम्य!
तुका जाणीव जावंक आसा की
म्हाका तुजेर अनादर कांय नात!
वचून तांका सांग जांणी
तुका म्हजे लागीं धाडली
म्हाका तुजेर खूब संतोश आसा

तृप्ती बी आसा
व्हडल्या अक्षरांनी हांव बरयतां
तुवें आपलें खाशेलें कार्य
सफलतायेन मुखार व्हेलें.

ती घुंवली आनी ताच्या
तोंडार स्थीर जावन पळोवन,
सौम्य तरीकूय धीर उतरांनी उलयलें :
''फट सांगपाक म्हाका प्रेरणा दिवंनाका स्वामी
म्हज्या व्यवसायांत हांव
केदनाय तर फटवण केलीना!
हांव रायाली दासी!
आदेश मानून घेतां;
ती वायट चाल न्हय स्वामी!''
तिणें तीं उतरां सताचीं म्हूण सांगलीं
तिच्या आत्म्यांतल्यान आयलें, रडून
आपल्या हातांनी तोंड धांकलें.
कवी अजाप जालो जणू तरी
एक नवें रहस्य मुखार आयलें,
सताचें भासमान तोंड पळोवन.

''हांव तुका त्रास दिवपाक न्हय!''
तो कांय तर सांगपाक तयार नाशिल्लो.
जेन्ना ती गेली कवीक दुख्ख जालें की
ताणें तिच्या वायट दासीत्वाचो अपमान केलो.
तिणें फट उलोवना; राय फाय मनांत घेतलो
ताणें तिका तिरस्कारान कडेक काडली.
हे घडणुकेक लागून ते अनेक कथा करतले
तो सल्लो आनी लांच दिवपाक
ते कशी कबूली दितले?
ताचे गजालींत हें सग्ग गरजे भायलें
रायालो क्रोध उप्रासलो. तशेंच आसो!
सगळेंच छत्र आनी चामराचे
अधीनांत आसता कांय?

पालव न्हिदलो जावंयेत
रात खूब मुखार गेली ......

खंयूंच वचें ना!
फाटल्यान वचाक कोणूच ना!
आपले कुडाचें कवड धांकून
तो अशीय तशीय लक्ष्यहीन
गल्लींत चलतालो
वारें जें नृत्य करतालें, आतां न्हिदलें,
रुखाचे खांदयेचेर----?
बुलबूल सुकणें जें गायतालें
आतां ओग्गी जालें?
धांकल्या जनेलाक पळोवन तो मुखार सरलो
ती ताची प्रतिक्षा करून
खंतय रावली आसतली?
तो वाटेर पावलो, जणू कितें
परिस्थितीचें भान नाशिल्लें
हेडून रावलो, खंतय वता म्हूण
जाणीव नाशिल्लें.

वाटेचे दोनूय भाग वारांगनाचे
घरांनी भरून आशिल्ले
तांततले दिवे आतंय वाडवयलेना.
एक वीणा आनी एका चलयेलें गायन
एका दुसऱ्याची बरोबरी करतालीं
आनीयेक कोनशांत चलयेच्या
पैंजणाचे झंकारा वांग़डा
बोवाळ करच्या मोगीचो संतोश
उत्तेजीत जातालो.

मुखार मकर रथ्या* जणूं कितें
अचेतन जावन पडल्या,
यागाच्या फुलांच्या गंधान
वासनेच्या उज्यांत जळून;
ताचें मन ल्हव ल्हव सांगता
"पुराय जालें", ताणें वची वाट
आगळीच वेगळीच ........
"उज्याचे तांबसाणीचो झगझग
पयस पळोवपाक मेळटा?"

ती चिता जंय जळचे इंगाळे
मडीं लासले उपरांत पळोवपाक मेळटा,
हें एक मसण
हे मदराती तो वाट सगळी चलून हांगा
पावतलो कांय?
कवी हांगा येवन दुख्ख सगळें विसरून
समान भाव घेवन संवसारीक आनी
मेकळेपणा संबंदी, राय आनी दास
समानतायेन शांत जातलीं,
एकच हांतरूणाचेर.
अर्दचंद्र एका व्हडल्या मोडाच्या
केंसांतल्यान चोरून सकयल पळयता;
भूंय चान्न्याचें पवित्र भस्म अंगाक लायता!

"हे हर! दया करून तुमचो
झगमगेवंचो दोळो धांकून घेयात.
मात चंद्राचे किरणांचो उजवाड घालात."
कवी चिते लागी रावलो;

* उज्जयनींतली गणिका-वीथी

दोनूय हात वयर काडून प्रार्थना करपा जशें
जशें हरालो झगझगेवंचो दोळो धांकता
चितेंतले इंगाळे ना जातात.
मसणाचे* शिमेचेर भोंवतणेक

रुखांच्यो वळी सावळ्यो जाल्यो
चंद्राचीं किरणां ल्हान कुडके जालीं आनी
आकाशाच्या कोनशांत पडून रावलीं
जशें एक चित्र मनाचे चेतन आनी अचेतनाचें
मिसळप सामान्या भायर दाखयता
मन वोडून घेवपा सारकें.

जें कोण काळाक एक धोलाचेर
उच्च सुरान मापता?
ताळ जो पयलीं सकयल आशिल्लो,
मागीर उच्च जालो
काळे नाग जशें फण काडतात
तशें सावळ्यो नाचपाक लागल्यो
शिव तेजोमय रूप मुखार आयलें
कवी गायलो
"म्हजें काळीज काडून एक डमरू करात
जो गडगडाचो घणघण उठता!

नाच, हे शिव नाच! नाच!
तुज्या उन्माद नृत्याचो
बेगीन मारचो धपको,
तुजे पांय दवरपाचो शब्द,
मृत्युंजय मंत्राचो आवाज

* उज्जयनींत अजूनय तें पितृवन आसा

रुखाचेर आनी वल्लींचेर
सदा स्पंदीत जाता
रानांतल्या तणाचे पातीचेर
भुंयचेर, तर्ने मनांचेर,
जें आदेशानुसार बागवनात
तांचे काळजांत आनी स्नायूंत ....''
ते अर्द उलोवन रावले आनी
कवी पुरो जावन
फाटल्यान भुंयचेर पडलो

इंग्लीश अणकार : ए. जे. **थॉमस**
(Ofp 1994)

## स्वयंवरम् - अध्याय - 11
**स्वयंवरकाण्डम्**

**1.**

हें रानाचें मूख ..........
सुन्दर, पवित्र आनी शांत
गंगा आनी यमुना हांगा एकठांय येतात.
पृथ्वीचे बिजाचे छातीचेर स्पंदित,
लांब सरयां सारकें
नदी हृदय भेदक सूर जोडतात.
उदकां देंवपी शेवणीं आपली
तान भागयतात आनी
खिणाक वयर उडून वतात..
वाऱ्याचो मोहक आवाज जो
बासाच्या घायाचेर उमो दितात
जें बासाचें खोड भोंवरान बुराक काडलें
उन्मत्त कोगळाच्या आलापनांत
कांट्यां झाडं लेगीत
फुलतात आनी फुलाचे रूख जातात.

**2**

स्वयंवराचो माटव
फुलानी भरी अलंकृत जाला
रानाचे शैलीचो माधवीन जशें आग्रो केलो.
ह्या सौंदर्याक लग्न करूंक आयलो राय
माटवा दिशेर भायर सरतात
आनी सुसेगादीन चलतात

तांच्या शंखनादान धोलादी वाद्यां घोशान
विधिवत् स्वागत जालें.
रानाचे शैलीचो तो उत्सव तांकां
भोव आवडेचो जालो.
दिश्टी जंय पांवता थंय ते
आस्वादन करून आयले

3

तांणी मना पासून पाहुणाचाराच्या
माधुर्याचो आनंद घेतलो
तरीकूय राय सग्ग सुसेग नातिल्ले जाले.
मनाच्या अदमासांत बुडून तांची
तिथी, नखेत्र आनी ग्रहकुंडली
तिचीय जावन
मेळता जाल्यार तांचें नशीब
कशी आसतलें म्हूण येवजीलें
ययाती रायाली मनोहर धूव
खंयच्या दर्यांत बुडतली?
वासनेची दिश्टी तांचे क्षमेचें अंत आशिल्ली:
ताणी पळवपाक इत्सा करचे ते
आंकवार चलयेक घेवन रथ आयलो
आनी थोडे पयस रावलो;
माधवी तांततल्यान सकयल देवली.

4

अतिशय सौंदर्यान भरल्ले
ययातीचे धुवेक पळोवन विलासी
लग्ना खातीर मागणी घालपी राय
अजापीत जाले

ययाती बी तिका सभे मर्दी वळख
करून दिवपाक तयार आशिल्लो
आनी सांगतालो - "ही म्हजी धूव" माधवी
तिचे बापायचे कुशींत रावली
हातांत मोगऱ्यांची माळा
सभेक उपचारपूर्वक नमस्कार करून

तिणें ल्हव आपलें मुख वयर केलें.
ती गंभीर आशिल्ली, आनी ओग्गी रावन
एका उपरांत दुसऱ्या रायाक
पळोवपाक लागली.

**5**

हें कसलें अजाप! साकेताचो शासक,
हर्यश्व, मुखार पयले पंगतीर बसला --
माधवी शांत रावल्या
दावें पंगतीर उशीनर आसा
माधवी हांसता म्हूण दिसता तर
गंभीर मुखमुद्रा घेवन आसा.
फाटल्यान दिवोदास .
ताच्या दोळ्यांत तिणें एक
मोनी विनंती पळयली --
"म्हाका पसंत कर!"
तिका दया दिसली, हें कोणूय
"नेणार आसात की हांव एक
आंकवार चली न्हय?
म्हजे पूत हांचे वांगडा जिवीत आसात?
ह्या स्वयंवरांत ते कशें आयले?
आनीकूय म्हजे प्रती वासना आसून?

वासना आशिल्यांक लज्जा खंय आसा!''

6

माधवी आपले कुशींत आशिल्या
सगटांची जाणविकाय आशिल्ले
दासीचे वांगडा चलताली.
ती सगळ्यांचो 'पराक्रम, नांव, कीर्त,
ताणें जोडिल्लें येस,
वीरता आदिचे विशीं सांगता
माळेचो सुगंध, माधवीचें अस्तित्व सग्ग मेळून
लग्नाचे दावेदार इत्सेन खूब उत्सूक दिसले!

जेन्ना ती खीण भर मुखार येवन वता
एका खेपे मुखार येवन अदृश्य जांवचे
नखेत्रां सारकें
तांचें मन, दुख्ख, असूया आनी
निरशेणीन भरताले
ते मनांत सांगताले : तिचो भाव कित्तें?

7

सगळी सभा घट जावन फातर जाली
दासीक फाटल्यान काडून,
लज्जेचो बुरखो पयस करून
माधवीन किळांच मारली :
''रायांनो! हांव तेग जाण रायां लागीं
आनी एका ऋशीचे वांगडा न्हिदलीं!
आनी चार पुतांक जल्म दिलो!
आनीकूय ते आंकवार नासूनय
हे बायलेक लग्न करूंक आयल्यात

कोणूय सांगलेना की ती ताका नाका म्हूण?''
कोणूय हक्क सांगना!
ते कांय सांगनात.!
प्रतिक्षा करनास्तना तांणी
जें सत आयकलें ते गूंग जाले

**8**

आपले धुवेचें तोंड पळोवन
बापूय सांगपाक लागलो!
ज्वालामुखीचें तोंड?
दुख्खाक जळोवपाची तसली शक्त आसा?
जणू कितें ताणें आपली जीब गिळोवन उडयल्या..
तिका चड उलोवपाक जायना, तिका नुलयत कर.
हें ताचे पराजयाचें खीण, रायान येवजीलें.
''नितळ माळेची पवित्रता कलंकरहीत आसो!
ती माळा दुसऱ्याचे गळ्याक
अलंकृत करना अशें आसो!
ताचीं फुलां आवय झाडाचेर परत वचो.
आनी पुनर्जल्मांत उमो घेवनातिल्ली
कुमारीका जावन आसो''
तिणें ती माळा राना वाटेर मोखून मारली.

**9**

''बरें करून! संवसारांतल्या शासकांनो!
म्हजो स्वयंवर पयलींच निश्चीत केलो!
हांव ह्या रानाक लग्न करतां'' –
माधवी चलूंक लागली,
जशें एक राय युद्धक्षेत्रांत साकून
जैत जोडून आयला

स्वागत संगीत रानाचें अदृश्य शेवण्यांचें
संतोशाचे सूर जाले
जेन्ना ती रानांत वता जशें
एक तीर्थयात्री चार पांच दिसांनी
घराक परत येता
तिचे सरभोंवतणेक हजार भर
पिसोळ्यानी जादूचें एक
प्रभावळ निर्माण केलें.

इंग्लीश अणकार : **ए. जे. थॉमस**
(Ofp 1995)

## आवय

ते णव गंवडे आसले
एका आवयेचेर जल्म घेतले.
णव जाणाक णव बायलो
एका पाखाचे सकयल रावता आसले

तांचे हात वणती निर्माण करताले
ती फातरा परस बळ आशिल्ली
तांच्यो बायलो एकेकूय
फातरांतल्यान उत्पन्न एकेकूय झर!
त्या दिव्याचे भोंवतणेक तीं
जेवतालीं आनी नाचतालीं
तेच बांयत साकून तीं उदक भरतालीं
पिवंच्याक आनी न्हावंच्याक;
मात रातीचें ते णव वेगवेगळे कुडांत
आलाशिरो घेताले!

विन्ने लायिल्ले लखलखेवंचे फातर
जे कोणय पळयताले ते
फातर तयार करपाची शैली पळयताले
ताचे पुर्णतायेची जाणीव करताले
पुराय कुशलतायेची तोखणाय करताले!
सगळी तोखणाय फाटीं उडयताले!

तांच्या हातांनी कोट आनी किल्ले,
देवळां आनी मंडप निर्माण जाताले.

सौंदर्य आनी शक्त एकठांय आयल्या सारकें!
जाणूं कितें णव फातर मोहक आनी फांकीवंत
शिल्पकला निर्माण करताले!
मजगती नव्यान एक प्रवेशद्वार तयार करूंक,
ताचे मुखार, अठरा हात एकदां
आनीक एक फावट एकठांय आयले

सर्वत्र उत्सव आनी फोल्ग!
विन्नें फातरांचेर नृत्य करतालें,
आनी हातोडे समयाचेर ताळ धरताले .
विन्नें लायिल्ले फातर एकठांय केले,
हस्तकौशल घेवन नमुने तयार जाले
अजापाचें कार्य हेंच जालें की
फातर एकठांय केल्ली कुशलताय
संवकळीची आशिल्ली,
एकदा फातर एकठांय येनाशिल्ले!
गंवडे वृथा आपले हात नेटान चलयताले.
तांणी फातरांची अदला-बदल केली,
शैलीय बदल्ली.
फातर एकठांय करूंक
ते पराजीत जाले!
हाची वाट कितें?
तेन्ना हो विचार तांच्या मनांत घुंवन आयलो
तांततल्यान तज्ञालें गुपीत मुखार आयलें :
''थांगा णव बायलो न्हीं?
वणती तयार जावो
एकली मदीं आसून
फातरांक एकठांय करून
वणतेक नेटान राबोवपाक.

आतां वणती घटसाणीन जाली
ती घट रावतली
जितले काळ चंद्र आनीं नखेत्रां आसतलीं''

सताक थांगा णव बायलो आसल्यो,
मोगाच्यान त्यो सगळ्योच एक आशिल्यो.
कोणाक मदीं राबोवपाचें?
हो कठीण यज्ञ करपाक?

तांततले व्हडले बायलेन
गहनतायेन विचार करून घट सांगलें :
''आज दनपारां पेज दिवपाक येवंचे
बायलेक बळी दियात.
तशें आमचो गौरव उखलून धरचें''

जाल्यारूय त्या खिणाक
णव गंवडे येवजिताले
आपापल्या बायलांचे सुंदर मुखामळा विशीं.
वायट येवजून एकेकल्यान
सुस्कार भरून समय मुखार व्हेलो!
अठरा हात आनीकूय एकदा एकठांय आयले
वणतीचें निर्माण करूंक.

एका दुसऱ्याक पळोवपांत नाखूश ते
अनंततायेंत पळोवपांत लागले!
कोणें दनपारांची हुनसाण तोडिली
पाचव्या पानाचेर?
पळयात सुर्याले ते हून पेजेंत
पाचवें पान बावता!

खरशेवन कोण तें हांगा येता,
पेजेचें तपलें माथ्यार घेवन येता
आनी हातांत खोटलो?
शेतांतल्या वाटेवयल्यान
भाटांतल्यान
ओंठांचेर मंदहास घेवन
नांकाचेर नथ घेवन
घामाचो एक थेंबो मोतया जशें?
ती त्या दादल्यांच्या मुखार आयली,
हाय, हाय! व्हडल्या गंवड्याली बायल
आज तिजो फेर आशिल्लो
त्या दनपराचें पेज वाडपाचो!

णव गंवडे ते, शरीरान णव, मनान एक!
विजे जसो झेत आयलो
व्हडल्या गंवड्याच्या काळजांत!
पणसाचे खोलयेचीं कुलेरां मुखार पडलीं,
मातयेचे वाटल्यांत पेज वाडली.
पेजेक जाय आशिल्ली चटनी वाडली!
तिणें णव जाणांकय जेवण वाडलें
ल्हान भुरगें खांदार पडलें.
भुरग्याच्या बापायचे लागीं बसून,
तिणें वाडचें निमाणें जेवण म्हूण
येवजिलेना कदापी!
कोण जाण हें वज्राघात
तिचेर पडपाचो म्हूण जाणीव कोणाक!
जेन्ना तिका जाणीव आयली;

तिणें आपले दोळे पुसले,
दुख्ख सगळेंच दामून दवरलें.
कोडू आशिल्लें गोड म्हणलें,
आपल्या घोवा लागीं,
आनी सगळे देरांलागीं सांगलें
जणू कितें ती आपल्या दुख्खा लागीं
झूज करताली --
तिचें एककय उतर प्रभावी जालें,
तिणें आपली इत्सा उक्ती केली
''मुखार सरात, वणतीचें निर्माण करात
हांव मदीं रावतां.
तर होच म्हजो निमाणो आग्रो -- आयकात!
म्हजो एक थान उकतें सोडात आनी
म्हजो एकलो हात मेकळो आसूंक जाय.
जेन्ना म्हजें भुरगें दुदाक रडतलें
ताका म्हजे लागीं धाडात;
ह्या हातान हांव म्हज्या भुरग्याक धरतलीं
आनी जितलें म्हजें काळीज इत्सा करता
तितलें ताका पिवंचाक दितलीं!''
त्या मनशांनी एक
व्हडलो किल्लो निर्माण केलो
संगमरवरी फातरान
बायलेचें शिल्प निर्माण केलें!

हांव जेन्ना ती मूर्त पळयतां
वयले वयर ताणिल्या हातांनी
दुदाचो अर्द नागडो थान घेवन

ज्या थानांच्या चिंव्यांतल्यान
दूद गळता आसता,
म्हज्या मनांतलें भुरगें जागें जालें
आनी रडूंक लागलें
"आवय, आवय!"

इंग्लीश अणकार : **लैला जयचंद्रन**
(Ofp 1988)

---

नोट

मासेडोनियाचें दर्शन करपाच्या वेळार एकदां म्हाका राजपाटण सोफियाचे लागसर आशिल्ले पुरातत्वविशयक भग्नावशेष पळोवपाक अवसर आयलो. हांत मुर्तिची कथा म्हाका संबंदाची. सत हेंच की थांगा एक लोकगीत प्रचलीत आशिल्लें जें आवयची रड हांवें वयर बरयल्ले वळींत दाखयल्या. ही लोककथा हांवें केरळचे पर्यावरणाचे योग्य केली आनी ह्या कथात्मक गिताचे रुपान तयार केली.

# ओ एन वी कुरुप हांच्यो रचणुको

## कविता

- पोरुतुन्न सौंदर्यम् (सर्तीचें सौंदर्य) 1949 पयलो संग्रह
- दाहिक्कुन्न पानपात्रम् (तानेलो काल्स) 1956 पोरण्यो वेंचिल्यो कविता
- मरुभूमि (मरुभूमी) 1957 कथाकाव्य
- नीलक्कण्णुकळ् (निळे दोळे) 1958 खंडकाव्य
- मयिलपीलि (मोरपांख) 1964 कविता-संग्रह
- ओरु तुळ्ळि वेळिच्चम् (उजवाडाचो थेंबो) 1966 कविता-संग्रह
- अग्निशलभङ्ङळ् (काजुले) 1971 कविता-संग्रह
- अक्षरम् (अक्षर, नाश नातिल्लें) 1974 कविता-संग्रह
- करुत्त पक्षियुटे पाट्टु (काळ्या शेवण्याचें गीत) 1977 कविता-संग्रह
- उप्पु (मीठ) 1980 कविता-संग्रह
- भूमिक्कोरु चरमगीतम् (पृथ्वीक एक मृत्युगीत) 1984 कविता-संग्रह
- शारंगकप्पक्षिकळ् (शारंगक पक्षी) 1987 कविता-संग्रह
- मृगया (राजकीय शिकार) 1989 कविता-संग्रह
- तोन्न्यक्षरङ्ङळ् (प्रेरणा दिवपी उतरां) 1989 कविता-संग्रह
- अपराह्णम् (दनपार) 1991 कविता-संग्रह
- वेरुते (मरळपणान) 1994 कविता-संग्रह
- उज्जयिनी 1994 कथाकाव्य
- स्वयंवरम् 1995 कथात्मक काव्य
- भैरवनटे तुटि (भैरवाचें ल्हान धोलकें) 1998 कविता-संग्रह
- ओ एन वीयुटे गानङ्ङळ् 1998 1500 गितांचो संग्रह
- ई पुरातन किन्नरम् (हें पुरातन किन्नरम्) 1980 कविता-संग्रह
- ओ एन वीयुटे कवितकळ् 1959 - 2000<br>(ओ एन वीची कविता) व्हडलो कविता-संग्रह

- क्षणिकम् पक्षे ( खिणाचें जरी) 2002 कविता-संग्रह
- ओ एन वीयुटे 151 प्रणयगानङ्ङळ्
  (ओ एन वीचीं 151 प्रणयगितां) 2004 151 प्रेम गितांचो संग्रह

**भुरग्यां खातीर कविता**

- वळप्पोट्टुकळ् (मोडलीं कांकणां) 1980
- नरुमोषि (आकर्षक तोतरें उलोवप) 2002

**गद्य**

- कवितयिले समांतररेखकळ् (कवितेंतल्यो समांतर रेखा)
- चङ्ङंपमषा आनी वैलोप्पिळ्ळि हांचे कवितेचो तुलनात्मक अभ्यास
- कवितयिले प्रतिसंधिकळ् (कवितेंतल्यो आणि-बाणी)
- एषुत्तच्छन - ओरु पठनम् (एषुत्तच्छन - एक अध्ययन
- मलयालम कवितेच्या कुटुंबांतले जांटेले एषुत्तच्छन हांचे रचणुकांचें अध्ययन
- पाथेयम् (यात्रिकांची जेवणा पोटली) - रेखणी
- काल्पनिकम् (कल्पनावशता, अध्ययन आनी रेखणी)
- पुश्किन-स्वातंत्र्य बोधत्तिन्टे दुरंतगाथा (पुश्किन-स्वातंत्र्याच्या आदर्शाची एक दुखेस्त वीरकथा)
- पुश्किन हांचे जिणेचो नियाळ (सर्वेक्षण) आनी तांचे कवितेचो अणकार
- कोच्चु कोच्चु कार्यङ्ङळ् (ल्हान ल्हान कार्य ) रेखणी आनी रंगोवणी
- ओर्मयिले निलाक्कीरुकळ् (उडगासांतल्यो चान्याच्यो थिगळ्यो) - रेखणी

**अणकार**

- उज्जयिनी - इंग्लीश अणकार : पयली खेप, प्रकाशक, संचार पब्लिशिंग हाउस, नवी दिल्ली.
  नवी उजवाडावणी : रूपा एण्ड कंपनी, नवी दिल्ली.
  हिन्दी अणकार- साहित्य भंडार, चान चन्द, इलाहाबाद
  संस्कृत अणकार - 1.रविवर्मा संस्कृत ग्रंथावली, गवेर्णमेंट संस्कृत

कॉलेज, तृप्पूणित्तुरा, 2.स्वंतम् बुक्स, तिरुवनंतपुरम्.
तमिल अणकार - डॉ. सिर्पी बालसुब्रह्मण्यम्, पोळ्ळाची , तमिलनाडु

- स्वयंवरम् - हिंदी अणकार - वाणी प्रकाशन, नवी दिल्ली.
- दर्शन - (हिंदी अणकाराचो कविता-संग्रह) ज्ञानपीठ प्रकाशन, नवी दिल्ली.
- ओ एन वी की कविताएँ - (काव्यसंग्रह - हिंदी अणकार) साम्य पब्लिकेशन्स, अंबिकापुर, उत्तर प्रदेश.

# अणकारपी

**एस. वेलायुधन :** नामनेचो मलयालम लेखक, विद्वान आनी अणकारपी, प्रोफेसर आनी अध्यक्ष, इंग्लीश विभाग, कालिकट विद्यापीठ. संचालक, इंग्लीशाची प्रादेशिक संस्था, बंगळूर

ई.1989 वर्सा मरण पावलो. पत्तो. – वारस – श्रीमती राजलक्ष्मी वेलायुधन अभियांत्रिकी विभाग, कालिकट विद्यापीठ, तेञ्जिप्पालम् , मलप्पुरम् जिला, 673 635.

**के. एस.नायर :** मलयालम भाशेची कविता इंग्लीश भाशेंत अणकार करता. इंग्लीश भाशेचो रिटायेर्ड प्रोफेसर आनी नियंत्रक, परिक्षा-विभाग, केरल विद्यापीठ. पत्तो. TC /13/485 श्यामा, तंपुरान मुक्कु ,तिरुवनन्तपुरम् 695 037

**हेफ्सिबाह जेसुदासन :** उमेदेन येवकार दिवपी विद्वान, इंग्लीश भाशेचो रिटायेर्ड प्रोफेसर.

तमिल भाशेन काल्पनिक कथा, कादंबरी बरोवपी. मलयालम भाशेचो इंग्लीश भाशेंत अणकार करता. पत्तो. पुळिप्पुनम, कट्टत्तिरा पी. ओ. कन्याकुमारा जिला, तमिलनाड.

**आर. विश्वनाथन :** इंग्लीश आनी मलयालम भाशेचो कवी. समीक्षक, अणकारपी, आनी नामनेचो विद्वान. अन्तर्देशीय ख्यात आशिल्लो, रिटायेर्ड इंग्लीश प्रोफेसर , कालिकट विद्यापीठ. समीक्षा बरवपांत केरल साहित्य अकादमीचो पुरस्कार हांका फाव जालो. हालींच मरण पावलो. पत्तो: वारस अंबुजा विश्वनाथन 30/1247 B विश्राम, कोषिक्कोड. 673 008, केरल.

**ए. जे. थॉमस :** इंडियन इंग्लीशांत कविता बरोवपी . एक कविता संग्रह. कविता, काल्पनिक कथा, कादंबरी, नाटक आदि मलयालमांतल्यान इंग्लीश भाशेंत अणकार करता. इंग्लीशांतल्यान मलयालमांत बी अणकार करता. भारतीय साहित्य इंग्लीश भाशेंत अणकार करपांत विशेश रूच आसा. पुस्तक परिचय आनी निबंद तयार करून, नेमाळ्यांत आनी खबरे पत्रांत प्रकाशीत करता.

कथा पुरस्कार आनी ए के एम जी पुरस्कार प्राप्त. आतां 'भारतीय साहित्या'चो सह संपादक, साहित्य अकादमी, रवींद्र भवन, 35 फिरोज़ शाह रोड नवी दिल्ली 110 001.

**जॉय टी. आर :** समीक्षक. इंग्लीशांत कविता बरयता. मलयालमांत साकून इंग्लीशांत अणकार करता. Poiesis नेमाळ्याचो प्रकाशक आनी सह-संपादक, मुंबय. आतां विद्यावर्द्धिनीचे आर्ट, सायन्स आनी कॉमर्स कॉलेज, महाराष्ट्रांत काम करता. पत्तो : 101 रूपाली, अपार्टमेन्ट्स, कृष्णा टाउनशिप, अंबाडी रोड, वासाय रोड, (वेस्ट), महाराष्ट्र -401 202.

**लैला जयचन्द्रन :** मलयालमांतली कविता इंग्लीशांत अणकार करता. पत्तो : TC No. 30/1899, भगतसिंह रोड, पेट्टा, तिरुवनंतपुरम्-695 024.

**लक्ष्मी राजीव :** इंग्लीश कवी, नामनेच्या नेमाळ्यांनी आनी वेबसायटांत लेख प्रकाशीत. आतां ब्रिटीश काउन्सिलाचे विमन्स रायटिङ्.कॉम हांत कविता-संपादन, म्हयन्याचें कॉलम, पेब्बिल्स, डेक्कान हेराल्ड, आयताराच्या पुरवणेचेर जीवित भारतीय कवी हांचे विशीं लेख. आतां साहित्य अकादमी पुरस्कार प्राप्त आर. रामचंद्रन हांच्यो कविता अणकार करून आसा. पत्तो : 53/29

रुक्मिणी रोड, कलाक्षेत्र कॉलनी, बेसेंट नगर, चेन्नै 600 090.

अर्विल्ले मल्याळम काव्य-परंपरेतले जेश्ठ कवी ओएनवी कुरूप हांकां कवीं मदीं मानवतावादी आनी मानवतावाद्यां मदले एक म्हूण वळखतात. मार्क्सवादी आनी गांधीवादी विचारांतल्यान करुणेचें आनी मानवतायेचें सातत्य राखीत तांणी आपले दरेके कवितेंत सौंदर्यानुभुतीच्या अनवळखी मळाचो आनी विश्वमानवाचो सोद घेतला.

सामान्य मनश्यांच्यो संवेदना, पर्यावरणा विशींची आस्था, अभिजात अभिरुचीचे संस्कार, लोककाव्याचें देशीपण, सैमीक मानवतावादाचें तत्वगिन्यान, विश्वात्मकतायेची ओड आनी त्याभायर केरळी संस्कृतायेंतल्यान संवसारा कडेन पळोवपाचो आग्रो, हातूंतल्यान ओएनवी हांची जिणे-नदर आनी काव्य-नदर घडल्या. भारतीय कवी प्रतिभेचें हें दुर्मीळ अशें सृजन आसा.

१९७१ वर्सा केरळ साहित्य अकादेमीचो आनी १९७७ वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार तांकां फावो जालो. वायलार, सोव्हियत लँड नेहरू, भारतीय भाशा परिशद, महाकवी उल्लूर आसन स्मृती, महाकवी कवारम जोशुआ, महाकवी पी. कुन्हीरामन नायर, महाकवी जी. शंकर कुरूप, महाकवी वेष्णीकुलम आदी पुरस्कारां सयत २००७ वर्सा तांकां भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो. पद्मश्री उपरांत आतां २०११ वर्सा तांकां पद्मविभूषण पदवेन लेगीत भोवमानीत केल्यात.

*ही विणा प्राचीन* ह्या ओएनवी कुरूप हांच्या कवितांच्या तेवीस काव्यसंग्रहांतल्यान वेंचिल्ल्या इंग्लीश अणकारांच्या ए. जे. थॉमस हांणी खोलायेन विवेचना सयत केल्ल्या संपादनाचो हो कोंकणी अणकार.

**एल. सुनीता बाय** ह्यो केरळांतल्यो कोंकणी लेखिका. कोचीन विद्यापिठातल्यान प्रोफेसर म्हूण निवृत्त. साबार काव्य, लोकवेद आनी व्याकरणीक ग्रंथांचे मल्याळम-हिंदी आनी कोंकणी-मल्याळम, मल्याळम-कोंकणी अशे अणकार तांणी केल्यात. म्हणी, ध्वनीशास्त्र अश्या विशयांचेर स्वरचीत आनी अनुवादीत अशीं सुमार १५ पुस्तकां तांच्या नांवार आसात. साहित्य अकादेमीचें २०११ वर्साचें अनुवाद इनाम तांकां फावो जालां. साबार नेमाळीं, संशोधन पत्रिकांनी तांणी बरप केलां.

Hen Puratan Kinnaram (Konkani)
₹ 225



साहित्य अकादेमी




Website : http.//www.sahitya-akademi.gov.in